# ತುಂ ತಸೊಚ್ ಆಸಾಯ್ ಲುವಿಸಾ





ಫಾ| ವಯ್ಯಾಸ್ ಪ್ರಭುದಾಸ್

ಸಾಂ ಲುವಿಸ್ ಕೊಲೆಜಿಂತ್
ತುಜ್ಯಾ ತ್ಯಾ ದೇವ್ ಮಂದಿರಾಂತ್
ತುಂ ತಸೊಚ್ ಆಸಾಯ್
ಪುಣ್ಯವಂತ್ ಲುವಿಸಾ
ತುಜೊ ಪ್ರಜ್ವಲ್ ತುಜೊ ಜೀವ್
ತಸೊಚ್ ಆಸಾ ಯುವಕಾಂಚಾ ಆದರ್ಶಾ

ಹಜಾರೊಂ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿಂ ಸಂಗಿಂ
ತುಜ್ಯಾ ಪಾಯಾಂ ಥಳಿಂ
ದಿಂಬಿಯೆರ್ ಪಡೊನ್
ಬಾಲಕ್ ಹಾಂವ್ ಆಸ್ತಾಂ
ತುಜೆ ಲಾಗಿಂ ಹಾಂವ್ ಮಾಗ್ತಾಲೊಂ
ತೆದ್ನಾ ತುಂ ಮ್ಹಜೆ ಲಾಗಿಂ
ಉಲಯ್ತಾತೆಂ ಮ್ಹಾಕಾ ಭಗ್ತಾಲೆಂ

ಪೂಣ್ ತುಜೆ ಸಂಗಿಂ
ಸದಾಂ ದೇವ್ ಮಂದಿರಾಂತ್
ರಾವುಂಕ್ ಮ್ಹಾಕಾ ತುಜಿ ಆಜ್ಞಾ
ಲಾಭಾತ್ ಮ್ಹಣ್ ಆನಿ
ಮ್ಹಜೊ ಖೆಳ್ ಸಾಂಜೆಚೊ
ಮ್ಹಾಕಾ ಚುಕಾತ್ ಮ್ಹಣ್
ತುಜೆ ಥಾವ್ನ್ ಪಳ್ನ್ ಹಾಂವ್ ಧಾಂವ್ತಾಲೊಂ

ಪೂಣ್ ಆತಾಂ ಹಾಂವ್ ಬದಲ್ಲಾಂ
ಭುರ್ಗೊ ನ್ಹಯ್, ಬಾಲಕ್ ನ್ಹಯ್
ಮ್ಹಾತಾರೊ ಹಾಂವ್ ಆತಾಂ ಜಾಲಾಂ
ತುಜೆ ಸರ್ಶಿಂ ದರ್ಶನ್ ಮಾಗೊಂಕ್
ಮ್ಹಾಕಾ ಆತಾಂ ಕೊಣೆಂಯ್
ಬಳ್ ಕರ್ಚೆಂ ನಾಕಾ
ತುಜೆಂ ದರ್ಶನ್ ಮ್ಹಾಕಾ ದಿ
ತುಜೆ ಲಾಗಿಂ ಹಾಂವ್ ಉಲಯ್ತಾಂ

ತುಂ ತಸೊಚ್ ಆಸಾಯ್ ಲುವಿಸಾ
ಹಾಂವೆಂ ಬಾಲ್‌ಪಣಾರ್ ಪಳೆಯ್ಲೆ ಪರಿಂ
ತುಜಿ ನದರ್, ತುಜೆಂ ತೊಂಡ್
ತುಜೆಂ ರೂಪ್ ತಶೆಂಚ್ ಆಸಾ
ಹಾಂವ್ ಆತಾಂ ಬದಲ್ಲಾಂ
ಪೂಣ್ ತುಂ ತಸೊಚ್ ಆಸಾಯ್
ದೆಕುನ್ ತುಂ ಸದಾಂಚ್ ಉರ್ಲಾಯ್
ಯುವಕಾಂಚೊ ಆದರ್ಶ್ ಲುವಿಸಾ

(1959 ಇಸ್ವೆಂತ್ ಸಾಂ ಲುವಿಸ್ ಕೊಲೆಜಿಂತ್ ಹೈಸ್ಕೂಲ್ ಶಿಕ್‌ಲ್ಲ್ಯಾ ಎಕಾ ವಿದ್ಯಾರ್ಥಿಚೊ ಸಾಂ. ಲುವಿಸಾನ್ ತಾಚೆರ್ ಘಾಲ್ಲ್ಯಾ ಪ್ರಭಾವಾಚೊ ಎಕ್ ಲ್ಹಾನ್ ಉಗ್ಡಾಸ್.)



# आटाप

# संपादकीय


फा। यूजिन लोबो

**'अमर कोंकणि'**चो नवो अंको पर्गट कर्ताना तुम्चे मुकार दोन सब्द उचारुंक हांव अपेक्शितां।

आम्च्या समाजेंत कोंक्णि भाशेक प्रमुख स्थान दिलांव। तिका प्रत्येक मान दितांव। ह्या भाशेक आमि मायभास म्हण्तांव आनि एका आवयचें स्थान दितांव। ह्या भाशेक उत्तेजन दींव्क आम्चो कोंक्णि संस्थो सवार वर्सां थाव्न वावुर्ता आनि कोंक्णिच्या सवार मानेस्त मानेस्निणिंच्या सहकारान ग्रंथां, काणियो, कोंक्णेंल्ले विंच्णार बूक पर्गट कर्तांव।

**"अमर कोंकणि"** जाव्नासा आम्च्या सांत लुविस कोलेजिच्या कोंक्णि संस्थ्याचें नांवाड्डिक संसोधनात्मक षण्मासिक। वर्साक दोन पाव्टिं पर्गट कर्ताना कान्नडि आनि देवनागरि लिपिंत आमि पर्गट्तांव। हरएक पाव्टिं एक प्रत्येक विशय विंचुन ताचे विश्यांत विंच्णार लेखनां पर्गट कर्तांव। ह्या वर्विं एक विशय वर्सां थरन सम्जाल्या वरि जाता। वाच्प्यांक चिंतुंक आनि त्या विशांत विमर्सो करुंक साध्य जाता। आम्च्या समाजेंत कोंक्णि उलोव्पि विविंगड बोलिंचे पंगड आसात। सवार पाव्टिं लेखकांचि भास आनि विशिश्ट सब्द आमि आसा तशें दवर्तांव। ह्या वर्विं त्या पंग्डाचि भास आनि संस्कृतेचि माहेत आम्कां मेळता।

हो अंको परब आनि फेस्तां विशिं जाव्नासा। परब, फेस्तां सांगाता कुड्डयांचि शिरस्या पुनव, गौड सारस्वतांचि चूडि पूजा महत्वांविशिं दोन लेखनां ह्या अंक्यांत वाचुंक मेळता। आतां आळवाल्लिं आनि आदल्या तेंपार उप्योग जाल्ल्या गंदपा कुडांल्या आय्दां विशिं संसोधनात्मक प्रबंधयी आटाप्ला।

कोंक्णि सय्ला फातर, नवें बूक, नव्यो कोंव्ळयो आनि विंच्णार कोंक्णि खब्रो सदांचेपरिं आसात।

पाट्ल्या 10 महिन्या थाव्न फा। मार्टिन डि'सोजा जे.स. हाणे संस्थ्याचे सस्तु

सेवा केल्या आनि अमर कोंकणिचो संपादक जाव्न वावुर्ल्यात। आज उंचल्या शिक्पाक ते वेताना तांचो उप्कार भावुड्तांव। कोंक्णेचेर तांचो मोग अपरिमित। हो तांचो मोग सदां जीव उर्तोलो म्हण आमि पात्येतांव।

मोगाळ वाच्प्यांनो, सभार अमर कोंकणिचे अंके तुम्का मेळयात। ह्या अंक्या विश्यांत तुम्चि अभिप्राय सम्जोंक आमि अपेक्सितांव।

सांगाताच आम्चो संस्थो दोन वर्सांचो स्नातकोत्तर कोंक्णि डिप्लोमा कॉरस्पोंडेन्स कोर्स चलय्ता आनि ताचि सर्टिफिकेट दिता। पय्लें वरस कोंक्णि चरित्रा, कोंक्णि साहित्य, कोंक्णि नाटक, कोंक्णि कविता, दुस्रें वरस कोंक्णि लोकवेद, साहितिक ठीका, भाशेविज्ञन, तुलनात्मक साहित्य - अशें ओट्टुक आट विशय शिकोंक आव्कास आसा। शिक्पा विशय आनि ताका लग्ति जाल्लो नोट्स, पाठक्रम आनि प्रश्नापत्रासवें तुम्च्या घरा दारार तप्पाला मुकांत्र पावित जाता। तुम्च्या विराम वेळार हो डिप्लोमा करुन कोंक्णि भाशेविशिं ज्ञान वाडोव्येत।

आम्चि कोंक्णि भास सदां जिवि दवरुंक देवाचें आशीर्वाद तिचेर आसों म्हण आम्चें माग्णें।

सर्वांक देव बरें करुं।

**फा| यूजिन लोबो, जे.स.**
प्रिन्सिपाल आनि दिरेक्तोर
सां। लुविस कोलेज, मंग्ळुर

# परब


फा। जान फेर्नांडिस

## सब्द

आमि फेस्तां विश्यांत उलय्तांव। 'फेस्त' म्हळ्ळो सब्द पुर्तुगेज भाषेथाव्न कोंकणेंत आय्ला। आतां तो 'कोंकिण' जाला म्हण्येत। तर्कि आमि 'परब' म्हळ्ळो कोंकिण सब्द वापर्चो बरें। वा चडावत जणांनि सांग्चे पर्मांणे आमि 'फेस्तांपर्बें' विश्यांत उलव्येत।

परब (फेस्त) हाचें स्थान आनि अर्थ मन्शांचा वयक्तिक, सामाजिक आनि धार्मिक जिण्येंत कितें म्हण सम्जोंक आमि प्रयतन कर्तांव।

## वेळकाळ

मनिस वेळाकाळांत जियेता। खंचाय घड्ये हांव जियेताना 'आदिं' घडल्लें तें उत्रोन गेलां मुकार घडोंक आस्चें तें 'फुडें' आसा। 'आतां' म्हळ्ळया घड्ये हांव आसां। हि घडियी उत्रोनंच आसा। 'आदिं', 'आतां' आनि 'फुडें' म्हण्चा तीन मेटांनि म्हजि जिणि व्हाळोनंच आसा।

देकुन खंचाय एका घड्ये म्हजि जिणि हांवें मग्गि भोगुंक आनि आण्णांव्क जाय्ना। आदलें आतां हाडुंक आनि मुक्लें आतां सम्जोंक आमि सवार प्रयतन कर्तांव जाल्यारि आम्चा जिण्येचो व्हाळो आनि उत्रोन वेचो वेळ आम्कां गवोंव्क जाय्ना। हि परिस्थिति मन्शाचें उणेपण दाकय्ता। ह्या परिस्थितिचेर जय्त जोडुंक मन्शान आप्ल्या जाण्वायेन थोडे उपाय हातिं घेत्ल्यात।

## इतिहास व चरित्रा

आदिं घडल्लें तोंड्पाशिं व पुराणानिं बर्पिनिंशिं, व दस्तावेजानिं, व शिल्पकला इत्यादि उपायानिं, आतां हाडुंक आमि थोड्या मापान सक्तांव। इतिहास दाखल कर्न दवर्तांव। इतिहासा थाव्न शिकोन आतांचा घड्येक जाय जाल्लें प्रेरण आमि घेतांव। अशें 'आदलो' काळ, आतां हाडुंक आनि मुक्लें पिळंक दीव्क थोड्या मापान सक्तांव।

## परब - संभ्रम

परब आचरण कर्चें म्हळ्यार 'आदिं' घडल्लें घडित 'आतां' उडास कर्न

संकेता मारिफात आनि संभ्रमा वर्वि हांगा हाजर कर्चें। (हाका उदाहरणां आमि सकय्ल दितांव). वेलाकाळार शिंप्डोन आसल्लिं जिणियेचिं घडितां सांगाता हाड्चे विधान 'परब'. हांगा भूतकाळ आनि भविश्यकाळ वर्तमान काळार सांगाता मेळता।

भविष्याचेर म्हण्जे मुकार घडोंक आस्चा संग्तिचेर्यी प्रभाव घालुंक वा मुक्ल्या जिण्येच्या वाटेचेर नियंत्रण जोडुंक मनिस सवार उपाय सोध्ता। थोडे वय्ज्ञानिक। उदा: योजनां कर्चिं वा अध्ययन कर्न मुकार कितें घडात म्हण फुडें लेक घाल्चें। हेर थोडे अविज्ञानिक उपाययी आमात जातक, वोल्में सांगप या ज्योतिष इत्यादि। फुडें घड्चा संग्तिंचेर आम्कां नियंत्रण ना। तो सम्जोंक व तांचेर नियंत्रण जोडुंक कर्चें प्रयतन हें।

पुण परब आचरण कर्चियी फुड्ल्या जिण्येचेर प्रभाव घालुंक वा फुड्ल्या जिण्येचि वाट आतां तयार करुंक एक विधान। परब चलंव्चि म्हळयार आदिं घडल्लें घडित आतां हांगा हाजर कर्न मुक्ल्या वाटेक जाय जाल्लें मार्गदर्शन घेंव्चें। फुडाराचि वाट तयार करुंक, फुडाराचेर प्रभाव घालुंक हिं आचरणां सक्नात। 'आदिकाळ' - आतांचो काळ - 'अंत्यकाळ' पर्वेंत सांगाता मेळतात।

## वयक्तिक जिण्येंत

मनिस चरित्रेंत जियेता देकुन आदिं घडल्लें 'आतां' घड्येद्वारिं उत्रोन वेता। मनिस जल्माता, वाड्ता - बाळपण, भुर्गेंपण, तर्नाट्पण, प्राय्वंत जिणि, उतर प्राय आनि निमाणें मरण। हर्येक घडित मन्शांचा जिण्येचो वांटो। पुण ति जिणि मुकार मुकार वेता।

आदिं घडल्लें घडित, उदा: जल्म, तें आतं उडासाक हाड्न हांगासर घुर्तान, उत्रानिं आनि संभ्रमान आचरण कर्येत। हांका आमि "जल्मादिसाचि परब" म्हण्तांव। जल्म आदिं घडल्लो। तो 'आतां' एका संभ्रमांत हांगा हाजर जाता आनि मुक्ल्या जिण्येक वरें माग्चो एक संदर्भ जाता। वरो 'जल्मादिवस' माग्ताना "तुका लांव आव्क मेळों" म्हण्चे "सवार जल्मादिवस आचरुंक तुका संदर्भ मेळों" म्हण आशा उचार्तात। अशें वयक्तिक जिण्येचो पर्वो: जल्मादीस, लग्नादीस, नोवो भेस विंचल्लो दीस, हांतुयी पन्नासावो ('भांगारोत्सव') या हाचा अर्धो, 'रुप्योत्सव' आनि थोडे पाव्टिं 'दशमानोत्सव' अशें आचरण कर्तात।

## समाजिक जिण्येंत

मनिस समाजेंत जियेता - एक कुटाम, एक समुदाय, एक जनांग वा देश, हि समाज एकामेकाचा संबंधांत आटापुन आसा। समाजयी चरित्रेंत आसा। तिचा जिण्येंत विविध घडितां आसोन हि जिणि आदिं थाव्न देंवोन येव्न आतांच्या काळार रूपित जाता आनि आप्लें भविष्य वा फुडार येव्जुंक सोध्ता। समाजयी वेळाकाळांत व्हाळोन सुकार सर्ता।

जसें वयक्तिक जिण्येंत तशें एका समाजेंत वा समुदायांत महत्वाचिं घडितां घडोन आस्तात। आदिं घडल्लिं घडितां आतां संभ्रम्चि दस्तुर हिका परब वा पेस्त म्हण्तात। समाजेचे विविध सांदे सांगाता मेळोन हो संभ्रम चलय्तात। एका घडिताक संबंध आसल्ले सर्व वेक्ति सांगाता मेळता। कलात्म थरान - गितां गायनानिं, नाच्पा अभिनयानिं सोभाण मांड्तात।

**समाजेचा फेस्तांक एक उदाहरण दिंव्वें तरः** 'देशाक स्वतंत्र मेळल्लो दिवस'. सग्ळे भारतीय हर्येक वर्सा अगोस्त 15वेर सांगाता जम्तात। 1947व्या वर्सा घडल्लें तें घडित चाल्त्या वर्सा नव्यान संभ्रम्तात। ह्या खातिर धुर्त - संकेत उत्रां - भाषणां, गितां - गायनां, सुंगार - तोरणां उपयोग कर्तात। ह्या घडितांचो महत्व आप्णांव्क आनि सुखल्या वर्साक प्रेरण आनि चडित उमेद जोडुंक हो संभ्रम उप्कार्तात।

निजाय्कि वयक्तिक पर्बोयी समाजिक संभ्रम जाव्न चलय्जाय। खंय संभ्रम आसा थंय चड जण जम्तात। वळक आनि संबंध वाडय्तात। हर्येक परब सामूहिक रितिनंच चल्ता।

## प्रकृतिच्यो पर्बो

मानव सृष्टिचो एक वांटो। सग्ळि प्रकृति - भुंय-भाट, वारें-उदक, रूक-झाडां, प्राणि-मानव - ह्या सग्ळया मधें एकामेका संपर्क आनि संबंध आसा। प्रकृतिंत एक्वट तशें समतोलन आसुंक जाय। तवळ सग्ळि प्रकृति आनि ताचे सर्व वांटे बर्यान आसुंक सक्तात।

प्रकृतिंत बदलावण जाव्नच आसा - साकाळ, दन्पार, सांज, दीस आनि रात। काळोक आनि उज्वाड। हें सदां घड्ता। हें दिसाचक्र। विविध ऋतु (काळ): हिंवें दीस, गर्मेचे दीस, पाव्साळे दीस, बेळें ओंप्चो काळ, वाडोन येंव्चो काळ, लुंग्णेचो काळ। हें वर्साचक्र। अशें प्रकृतिचि वा सृष्टिचि बदलावण वा

एका काळाथाव्न आन्येका काळाक उत्रव्ण एक महत्वाचें घडित। हें घडित मनिस एक परव जाव्न आचरण कर्ता। उदा: नव्या वर्साचो संभ्रम वा युगादि। एका वर्साचा चक्रांत असले सवार महत्वाचे दीस आनि त्या दिसांक लागोन फेस्तां निर्माण जाल्यांत।

हर एक जनांग असलिं फेस्तां आचरणां कर्ता। कृषिचेर आस्चो लोक, 'लुंव्णेचि परव' वा 'नव्या बेळयाचि परब' सग्ळया संसारांत संभ्रम्तात। हाका एक उदाहरण आम्चि "नवें जेंव्वि परब". मंग्ळुरि कथोलिक मर्येचा जल्मादिसा (सप्तेंबर 8वेर) मोंति साय्विणिचि आनि नव्या बेळयाचि परव सांगाता कर्तात। हेरां समाजिंचि भाव भक्तियी हि परव तांचा तांचा संप्रदाया पर्माणें चलय्ता। हरयेका कृषिप्रधान सामाजेंत हि परब चल्ता।

## धार्मिक पर्बो

वयक्तिक, समाजिक आनि प्रकृतिच्यो पर्वो हांकां धार्मिक अर्थ दीव्न, त्या त्या धर्मांचा शिकव्णे आनि आचरणा पर्माणें आचरण कर्ताना त्यो धार्मिक पर्वोयी जांव्क पाव्तात।

**उदाः** 'पास्खाचि परब'. हि आम्कां जुदेव लोकाचा संप्रदायाथाव्न देंवोन आय्ल्या। ताणि ति हेरां जनांगां थाव्न घेतल्लि। जुदेव पय्ले गोव्ळि वा बक्र्यां चरव्पि जाव्नासल्ले। उप्रांत एका देशांत रावोन कृषि करुंकी पाव्ले। ह्या दोनी वृत्तेंत हिंवे दीस कावार जाव्न, वसंत काळाक उत्रोन वेचो वेळ तांचा जिण्येंत एक महत्वाचें मेट। 'पास्ख' म्हळयार 'उत्रव्णि' गोव्लि - समाजेंत शेळि मार्न जेवाण कर्चें जाल्यार, कृषि प्रधान समाजेंत बेखमिर उंडो खांव्वि परब नव्या ऋतुचि सुर्वात। पय्ल्या सोल्ल्यांत ह्यो दोनी संग्ति सांगाता घाल्न पास्खाचि परब चलय्ताले। ह्या पर्वेंतच्च वेळाकाळा उप्रांत तांचा समाजेचा इतिहासांल्लें अति प्रमुख घडित म्हण्चे एजिप्ता थाव्न उत्रोन आयिल्लें घडित संभ्रमुंक ताणिं सुरु केलें।

जेजुक्रिस्त जुदेव समाजेंत्लो। ताणें पास्खाचि परव आचरण केलि। सांगाताच ताचा जिण्ये, मर्णा आनि जिवंत्पणा वर्विं तिका एक नवो अर्थ दिलो। प्रकृतिचि उत्रव्णि, इस्त्रायेल लोकाचि उत्रव्णि आनि जेजुचि उत्रव्णि-मर्णा थाव्न जिविताक, ह्या संसारा थाव्न बापालागिं - ह्यो सग्ळयो संग्ति क्रिस्ति लोकाचा पास्खाचा पर्बेंत आटापुन आसात।

भारतांत आमि सवार धर्मांचा मन्शांमधें जियेतांव। हिंदू, बुद्धिस्त, जैन, सिख्ख, पार्सि, मुस्लिम आनि हेर। हरेका धर्मांचे मनिस तांच्यो तांच्यो धार्मिक पर्वो आचरण कर्तात। हांचे पयिंक सवार पर्वो, वा त्या पर्वेंचो मूळ अर्थ सर्व धर्मांक सामान्य जाव्येत। उदाः उज्वाडाचि परब। विविध थरांचा उत्रव्णेचो पर्वो। एक उदाहरण सुर्वात करप परबः उपनयन, सुन्नत, धर्मस्नान वा बाप्तिज्म।

विविध धर्मांचे घड्णार, ते धर्म आरंभ जाल्ल्या काळाचि परिस्थिति व गांवाचि संस्कृति आनि त्या धर्मांचो आचार विचार, हांचेर होंदोन हेर धार्मिक पर्वोयी सुरु जाल्यात। घड्णारांचो वा सांतांचो जल्मा वा मोर्ना दिवस, उप्वास आनि दंडव्णेचो वेळ वा ह्या धर्मांच्या इतिहासांत्लिं महत्वाचिं घडितां वा महान मन्शाचि जिणि संभ्रम्चे दिवस। अशें आम्चा भारत देशांत विविध धर्मांचिं थोडिं फेस्तां सार्वत्रिक रजेचे दीस। धार्मिक जीवन तशेंच समाजिक एक्वट फेस्तां पर्वेंचा आचरणा वर्विं जिवाळ जातात आनि नवें प्रेरण जोड्तात।

**फेस्त - परब --- संभ्रम**

पर्वेंचा संभ्रमांत ह्यो प्रमुख संगति आटाप्तात। त्यो सम्जोन अर्थाभरित थरान आचरण केल्यार मन्सांचि जिणि चड उत्तिम जाता। सांगाताच संस्कृति वाड्ता।

**अ) कितें संभ्रम्तांव?**

हर्येका पर्वेंत पय्लें जाणा जाय्जय तो विषय हांगा कितें उडासाक हाड्तात, हाजर कर्तात आनि संभ्रम्तात? म्हण। चडावत हें एक घडित - वयक्तिक जिण्येचें, समाजिक जिण्येचें या प्रकृतिचा उत्रव्णेचें। हें 'आदिं' घडल्लें तें 'आतां' उडासाक हाड्न हांगासर हाजर कर्तात। थोड्या धर्मांनि हें घडित चारित्रिक जाय्जय म्हण ना। पुराणांत्लें घडितयी जाव्येत।

**उदाः** केरळाचो लोक 'ओणं' आचरण कर्तात। हि परब एक पौराणिक घडित उडासाक हाड्ता *"महावलि (मावेलि) म्हळ्ळो चक्रवर्ति न्यायनितिचें समृद्धेचें राज्य चलव्न आसल्लो। विष्णु, वामनचा रुपार येव्न ताचेलागिं तीन पाव्लांचो जागो विचार्ता। तित्लो जागो ताका चक्रवर्ति भासायता। दोन पाव्लांनि आकास आनि पृथ्वि सर्व्हि तो सेज्ता। तिस्रें सेट खंय दवर्चें? महावलि आप्लि तक्लि दिता। वामन ताचा तक्लेर पाय दवर्न ताका पाताळाक धाड्ता। हो नितिवंत चक्रवर्ति वर्सान वरस मन्शांचा पृथ्वेर येव्न तांकां शांति-समृद्दि*

उाड़ता /" हें एक पुराणांत्लें काल्पनिक घडित। ताका धार्मिक अर्थ दिला। प्रकृति फळां फुलांनि भरल्ल्या वेळार 'ओणं' म्हळिळ परव आचरण कर्न हें घडित नव्यान हाजर कर्तात। घुरतांनिं, संभ्रमानिं नव्या वेळयाचा जेव्णांत तें वर्तुन जिवें जाता। ह्या पर्वेंत वयक्तिक, सामाजिक आनि प्राकृतिक आचरण मांगाता मेळतात।

अशें सवार पर्वो जाव्येत समाजिक वा धार्मिक, त्यो असलिं आदि्लं घडितां आतां संभ्रमुन फुड्ल्या जिण्येक उप्कारशें कर्तात। भविष्याचा जिण्येचेर प्रभाव घाल्चोयी ह्या संभ्रमांचो एक प्रमुख शेवोट। परव आचरण केल्ल्या वर्विं आदिकाला थाव्न आसल्लि स्थिति तवळचें प्रेरण आनि उमेद आतां नवें कर्न, मुख्लि जिणि आनिकी चड फळादिक आनि वळादिक जाता। येंव्क आस्चा जिण्ये विश्यांत आनि प्रमुख जाव्न भर्वसुन राकोन आम्चा त्या अंत्यकाळाक (देवाचें राज, रामराज्य, सर्ग) हाका तयाराय करुंक हे संभ्रम उप्कारचे जाय्जाय।

**आ) कसें संभ्रम चलंव्चो?**

मनिस कलाकार। आपुण कितें कर्तां तें तो ति आप्ल्या कलेन सोभंव्क सक्ता। अशें सोभाणां आसा कर्ता। प्रत्येक जाव्न संतोसाचा आनि उल्लासाचा संभ्रमानिं, धार्मिक फेस्तां पर्वांनिं मनिस आप्ल्या संस्कृतेंत्लि सवार प्रकारां वापर्ता।

घडित वर्णुंक साहितिक उत्रां, काव्यां आन गितां, प्रस्तुत दिसनातल्लि संगत दिस्चे बरिं करुंक घुर्त आनि संकेत, घडिताचो अर्थ पाचारुंक आनि आचारुंक गितां, गायनां, नाच आनि नाटक, संतोस वांटुन घेंव्क आनि एक्वट चडंव्क खाणांजेव्णां - हिं सग्ळिं आनि हेर संभ्रमांचि विधानां। लग्ना संभ्रम जाव्येत, राष्ट्राचा जय्ताचो दीस जाव्येत वा वयक्तिक जिण्येचें प्रमुख मेट (उदा: षष्ठिपूर्ति) जाव्येत हे आनि असले संदर्भ वय्ल्या रितिनिं आमि आचरण कर्तांव।

दुखाचिं घडितांयी आम्चा जिण्येंत वा इतिहासांत घड्तात। तिं उडासाक हाड्चो आनि घुर्तान, उत्रान, कलेन 'आय्चादिसा' सादर कर्चो फेस्ताचा आचरणाचो उद्देश। कष्ट-दूख हांचेवय्र मन्शान नियंत्रण आनि जय्त जोडुंक, कष्ट-दूख वांटुन घेव्न एकामेकाचा सहकारान कष्टाथाव्न शिकोन मुकार सरुंक, अशें असता थाव्न सताक, काळोका थाव्न उज्वाडाक आनि [illegible] जिविताक उत्रोन वचोंक हे 'संभ्रम' उप्कार्तात।

इ) **संभ्रमाचो परिणाम**

फेस्तां पर्वेंचा आचरणांचो शेवोट संभ्रमांत सार्को दिसोन येना तर असल संभ्रम अर्थ नासल्ले आनि उपकारनासल्ले जातात। थोडे पाविटिं वायट परिणा हाड्‌नाय जाव्येत। फेस्ताचो नीज अर्थ समजानास्तां भायल्या दबाजाक व आडंबरक मात्र गमन दीव्न संभ्रम चलयल्यार, तो संभ्रम चूक वाटेक पावता संभ्रम चलंव्चा विधानांत आप्लि खास कला आनि संस्कृति सोड्‌न परकि संस्कृ पांगुल्यार संभ्रम अनर्थ जाव्येत। व्यापारि मनोभाव आनि भोग जीवन फेस्त पर्वेंचा आचरणांत आयलो तेद्‌ना ते संभ्रम मन्शां मन्शां मध्लो संबंध पाड कर्तां आनि अनैतिक आनि हिंसकी वाट जातात।

पर्व संभ्रमल्ल्या वर्विं मन्शासृष्टि-सृष्टिकर्ता मध्लो संबंध वाडाजाय आनि खरें जाय्जय। फेस्त आचरण कर्ताना मनिस हेरांक आपव्णें दिता। सवारांचो सहकार घेता। आप्लि संस्कृति आनि कला विकास कर्ता। हाचेवर्विं कुटुंबाचो समाजिचो आनि प्रकृतिचोयी संबंध नवो जाता। थिर जाता आनि वाड्‌ता। जर हो संबंध पयलो तुटल्लो वा शेळेल्लो तो ह्या आचरणा वर्विं पर्तुन थिर जाता आनि वाड्‌ता। फेस्तां पर्वेंचा आचरणाचो शेवोट मन्शाजिण्येंचो तिदोंड रांच - मन्शां मन्शां मधें, मन्शां सृष्टि मधें आनि मन्शां आनि आध्यात्मिक सक्ति मधें - जिवो करुंक, नवो करुंक आनि थिर करुंक। फेस्तां आचरणां उप्रांत चडित उमेद, नवि दीष्ट आनि जिण्ये संतोस संपूर्ण जाय्जय।

**विविधतेंत एकवट**

भारत देश विविध धर्मांचा, विविध संस्कृतेंचा, भासांचा आनि कुळियेंचा फुलांनि भरल्लि एक सुंदर बाग (तोट). हिं विविध फुलां हर्येक आपापल्या सोभायेन, परिमळान, रंगान भरोन विविधता पाचार्तात। विविध धर्मांचो लोक आपापल्या संभ्रमांनि एकामेकालागिं भर्सोन, एकामेकालागिं वांटुन घेव्न जियेत तर धर्मां मधें संपर्क-संवाद-सहकार उप्जतलो। हि आम्चि आशा।

***



# फेस्तां


दो। नोर्बर्ट लोबो

फेस्त, संव्रम आनि आचरणां मन्शा जिणियेंत्ले अविभाज्य वांटे म्हण्येत। मन्शांक मात्र पेस्त आचर्मुंक जाता। मन्जाति आप्लो संतोस पकत्त खेळोव्न दाकोंक सक्तात। पुण मनिस आप्लो संतोस आचरण करुंक सक्तात। फेस्त देवा थंय आम्चि पात्येणि धृड करुंक आनि आम्चो संतोस उचारुंक एक माध्यम। फेस्तां मुकांत्र हर्येक व्यक्ति या समुदाय आप्लें आस्थित्व आनि जिवाळपण दाकोंव्चे प्रयत्न कर्ता। फेस्ता मुकांत्र व्यक्ति सदांच्यो राटावळि आनि यांत्रिकपण विसर्तात आनि आण्णाचा वाडावळेंत समुदायेचो पात्र मानुन घेतात।

## 1. फेस्तां थरावळ

फेस्तां केदाळा आनि कशिं आरंभ जालिं, कोणे आंरभ केलिं म्हळया विशिं सार्कि जाप मेळाना। तरी फेस्तां आदिं मागा थाव्न आचरण कर्तालें म्हळयार चूक जाय्शिना। मनिस स्वभावान आचरणां करुंक आशेता। फेस्त जाव्नासा अव्कास आचरणाचो। आमि आचरण कर्चिं फेस्तां अशिं विंगड्सियेत:

1. **पात्येणेचा आधारार:** धार्मिक (जेजुचें स्वर्गारोहण), सामाजिक (रोस) संप्रादायिक (पातोळयाचें, नागर पंचेमि). लोकवेदिक (कणस बांद्चे), जात्रो (गांव्चो या स्थळीय देव तेंप्लाचो)
2. **प्रादेशिकतेचा आधारार:** कुट्माचिं (नवें जेंव्चे), स्थळीय (ओड्लें फेस्त), प्रादेशिक (ओनं), राष्ट्रीय (दीवाळि) या जागतिक (नताल).
3. **वेळाचा आधारार:** जल्माचिं (नताल, अष्टमि), जुव्लेवाचिं (जल्मोत्सव) वा स्मरणाचिं (तारिके फेस्त)
4. **काळाचा आधारार:** ऋतुमानाचिं (पुन्वेचें, संक्रांत) वा वार्षिक (पिर्गज फेस्त), विशेस काळांचि (कुंभ मेळ)
5. **इतर फेस्तां:** सार्वत्रिक (स्वतंत्राचो दीस), मांस्थिक (वार्षिकोत्सव), मांधर्विक (जीक या इनाम आण्णायल्ल्या वेळार) सांस्कृतिक (नाटकोत्सव), साहितिक (कवि गोष्टि) खेळां फेस्त (ओलिंपिक्स)

## 2. फेस्तांचो उद्देश

फेस्तां खंर्चाय जांव्चिन. हांचो मूळ उद्देश आणं पात्येल्ल्या देवाक या दैविक वा सकतेक वा वस्तुक, जिविक आराधान कर्चो. अशें मागणें, पुजा, आराधन मुकांत्र आप्लि भक्त व्यक्त कर्चि. आणं पात्येल्ल्या देवाचि या सक्तेचि महिमा वाखाणिचं फेस्ता संदर्भि दिसोन येता। सनिस (रन्नां) देवाक (रन्नारक) स्तुति करून, आप्लें उपकारि मन आटाव्न, अर्गां पाटव्न, देवाकडेन आप्लो संभंद पाचाचो आनि घट कर्चो फेस्ताचा आचरणाचो एक उद्देश म्हण्येत। धार्मिक रीत रिवाज्यां पाळुंक आनि सांप्रादाय मुकार्सुन व्हरूंक फेस्तां आदार जाव्नासात। प्रस्तुत जनांगान मुकल्या जनांगाक रिति रिवाजि विश्यांत, धार्मिक शिकोव्ण आनि पात्येणि, सामाजिक, सांस्कृतिक पात्येणि आनि आचरणा विशि शिकिशत कर्चे भारिच प्रभाविक माध्यम फेस्त। तशेंच मन्शांचा लौकिक (संसारि) आनि आध्यात्मिक जिणियेचो गांच जाव्नयि फेस्तां उपकार्तात। भासायिल्लि जिणि (सर्ग) आण्णांव्क आनि धार्मिक भावाड्त जिवो दव्रुंक आनि चडोंव्कयि फेस्तां गर्जेचि।

## 3. फेस्तां आनि कुट्मा जीवन

मागणें, आराधन आनि धार्मिक रीत रिवाज्यो पाळुंक वयक्तिक थरनयि साद्य आसा। पुण फेस्त आचरण कर्जि तर कुट्माचो, समुदायचो वा समाजेचो वांटो गर्ज आसा। फेस्ताचा संदर्भार कुट्माचे चडावत सांदे विविध कारणां निमित्तिं परगांवांत या विंगड आसल्ले साल्गड्या घरा सांगाता मेळचें सामान्य। फेस्ताचा आचरणांत भाग घेव्न हर्येक्लो व्यक्ति आपुण पलाण्या कुट्माचो, परसडाचो आनि समाजेचो वांटो म्हण ओळकोन घेता। सामाजिक अंतस्त, संप्रदाय आनि पात्येणेचें सेक्ळेपण विस्रोन, कुट्मा सदलो एक्वट बांदुन हाडुंक आनि सांबाळुंक फेस्तां कुमोक जातात।

## 4. फेस्त एक उत्सव

फेस्ताचा दिसांनि पळेंव्क मेळचो जेरल मनोभाव उत्सव, हुमेद, गुड्गुडाय आनि तयाराय, घर आनि घरा भंव्तोंणि नितळाय कर्चि, घर्चा वोणोंदिक रंग काड्चो, घराक विविद थरांचो श्रंगार आनि अलंकार, कुट्माचा सांद्याक नवें वस्तुर, साद्य तर भांगार, घराक नव्यो वस्तु, देव तेस्लाचि निताळाय आनि श्रंगार, देव तेस्लाक भेट, सग्रयां दुस्र्यांक फेस्ताचा आचरणांत भाग घेंव्क आपोवणें, विशेष आनि नमुन्यावार रांदप, अशें सदांचा जीवन शैलेचाकी वेगळ्याच थरन

ुखाचें जीवन फेस्ताचा दिसांनि आमि जियेतांव। तशेंच मढांचा गटावळे आनि ाव्रा थाव्र रजा घेतांव। विविद आचरणांनि मेतेर जाव्न, सुख-दुख अदल वदल र्न, एकामेकाचे पांय वोड्न, खुशालाय उलोव्न, आगमायेन आनि गम्मतायेन स्ताचे दीस पाशार कर्तात। ओट्टारे फेस्ताचा दिसानिं खंत वेजारायेक आव्कास णो म्हण्येत।

फेस्त एका व्यक्ति थंय आसल्लिं देणिं आनि क्रियात्मक सकत उरतांव्क आव्कास लावाय्ता। फेस्ता संदर्भिं नाच, नाटक, खेळ, पदां, गाणांचे प्रदर्शन आस्ता। विविद स्पर्दे चलोव्न वर्तात। चडावत जानपदिय खेळ, कला आनि साहित्य फेस्ता संदर्भिं रुता जाल्लें, परत जीव जाल्लें आनि जीव उरल्लें दाक्ले आसात। देकुन फेस्तां सांस्कृतिक अन्वोग दिंव्विं हातेरां म्हण्येत।

## 5. फेस्त आनि नवेसांव

पेस्ताचा आचरणा मारिफात मन्शां थंय संसारिक, दैहिक, आत्मिक, मानसिक आनि धार्मिक संगिंतिंनि नवि सुर्वात आरंभ करुंक आव्कास लावाय्ता। संसारिक रितिन पळोंव्वें तर फेस्ता संदर्भिं घराक नवो रंग दिंव्वो, घरांत्ल्यो गर्जेच्यो दुरुस्ति, निताळाय, नवें वस्तुर आनि वस्तु, भांगार आनि घरांत हेर नवि आस्त (Assets) आण्णांव्क आव्कास कर्न दिता। मानसिक आनि दैहिक थरान फेस्ताचा दिसांनि आस्चि खुशालाय आनि सदांचा वाव्रा थाव्न विराम करुन घेंव्वो सुशेग, मतिचि आनि कुडिचि भलाय्कि सांबाळुंक, नव्या हुमेदिन परत वाव्राक लागोंक बळ दिता। धार्मिक रितिन फेस्तां आम्चो भावाड्त आनि पात्येणि नव्यान रुता करुंक आनि जिवो दव्रुंक आव्कास लाभाय्ता। फेस्ताचे दीस पवित्र। फेस्ताचिं आचरणां पवित्र घडितां जाव्नासात आनि फेस्त चलोव्न वर्चे जागे पवित्र या यात्रिक जाव्नासात। फेस्ताक तयाराय जाव्न प्राजित, उपास आनि दंडव्नि कर्तात। देवाचा महिमे विशिं, दार्मिक पात्येणि, रीत रिवाज विशिं गूंड शिकोव्ण दीव्न चडित सम्जोणि आण्णाव्न आप्लो भावार्थ घट करुंक आव्कास लाव्ता।

## 6. फेस्तांचिं जेराल लक्षणां

फेस्तां तिं खंचिंय जांव्दित, हर्येका फेस्तांक थोडि मुळाविं लक्षणां आसोन तिं जेराल आनि सामान्य जाव्नासात। पय्ल्यान, फेस्ताचा आचरणा वेळार देव आम्चे मदें हाजर आस्ता म्हळ्ळया पात्येणेन एकामेकाक वांटुन घेंव्वो मनोवाव। दुस्रें, फेस्ताच्या आचरणा वेळार पृक्रतेच्या सामरस्यक दिंव्वें महत्व, नव्या

जिवितांक येवकार मारचो फेस्ताचा आचरणांत पळोंवक मेळचें आनयेक सामान्य लक्षण। नवें वस्तुर, नवें जेंव्चें हाका दाखले जावनासात। कुटुंबाचें आनि समुदायाचें चितार्थीय फेस्ताचा आचरणांत प्रामुख्यता घेता। काळोका थाव्न उज्वाड, मरणा थाव्न जिवित, वायटा थाव्न बरें, मत्वणे थाव्न जीक, असता थाव्न सताक अशें अनिष्ट सक्त वय्र बयां सक्तींच जीक फेस्ताचा आचरणांनि पळोंवक मेळचो सामान्य आनि सार्वजनिक संकेत जावनासा। सवार फेस्तां, प्रत्येक जाव्न विविद धर्माचा घड्नागंच्या जल्माचिं फेस्तां, दैविक सक्तेन मन्शा रूप घेव्न, आशाश्वात संसारि जिण्यं थाव्न शाश्वत सर्गिं जिणियेक भर्वसो दिंव्चे संकेत जाव्नयि आसि लेक्यंत।

## 7. क्रिस्तांव फेस्तां

क्रिस्तांव फेस्तां जेजुच्या जिवंत्पणाचा सता सवें केंद्रिकृत जाव्नासात। पास्कांचें फेस्त क्रिस्तांवांचें प्रमुख फेस्त जाव्नासोन, हेर सर्व फेस्तां जेजुच्या जिवंत्पणाचा आचरणा वोंवांरि आसात म्हण्येत।

**क्रिस्तांव फेस्ताचिं प्रमुक लक्षणां ह्या परिं आसातः**

* क्रिस्तांव फेस्तां - उग्डासाचिं घटनां: क्रिस्तांवांचिं फेस्तां सांतांचा मर्णाच्या वार्षिक स्मरण (तारिके फेस्त), पास्काचें स्मरण, आय्तारचें स्मरण, अशें सोड्व्णेचिं घडितां उग्डासाक हाड्तात।
* क्रिस्तांव फेस्तां - पवित्र एव्करिस्ताचें आचरण: पवित्र एव्करिस्ताचें आचरण क्रिस्तांव फेस्तांचो शिखर। पवित्र एव्करिस्ताचें आचरण नास्ताना क्रिस्तांव फेस्तां संपूर्ण जाय्नांत।
* क्रिस्तांव फेस्तां - समुदायचें आचरण: क्रिस्तांव फेस्तां समुदायन सांगाता मेळोन एक्चाटित मनोभावन कर्चें।
* क्रिस्तांव फेस्तां - भर्वस्याचें मूळ: क्रिस्तांव फेस्तां भक्तिकां थंय भर्वसो उब्जोंवक प्रेरक जाव्नासात। तशें हिं फेस्तां सासण जिणियेंच खात्रि दितात।

## 8. क्रिस्तांव फेस्तां पाट्लि तत्वां

क्रिस्तांव फेस्तांचा वाडावळ आनि आचरणां पाट्ल्यान आस्चिं तत्वां ह्या परिं आसातः

1 सुवार्ता प्रसारचें तत्व: सर्व क्रिस्तांव फेस्तांचें मूळ जेजुचें मरण आनि

जिवंत्पण। तशें तर फेस्तां आमि जेजुच्या जिवंत्पणाचि वरि खवर हेरांक प्रचार करुंक, क्रिस्तांवपणाचि ओळोक दींव्क आनि सुवार्ता प्रगट करुंक एक माध्यम जाव्नासा। क्रिस्तांव फेस्तांचं आचरण जेजुच्या मर्णाक आनि जिवंत्पणाक साक्स जाल्ल्यान, तिं क्रिस्तांव जिण्येक प्रेरण दितात।

. दृडिकरणाचें तत्व: क्रिस्तांव फेस्तां भावार्थ आनि पात्येणि दृढ करुंक आव्काम देकुन क्रिस्तांव मौल्यांचे दृडिकरणयि फेस्ता संदर्भि जाता।

. सहभागित्वाचें तत्व: क्रिस्तांव फेस्तां पवित्र सभेन लोकाचा बरेपणा खातिर, देवाचें भेसांव माग्चा खातिर कर्चें आचरण। कामेल्यां खातिर सां जुजेचें फेस्त, नव्या वर्साचें आचरण ह्या तत्वाक पूरक।

. संवादाचें तत्व: आय्ल्यावार्चा दिसांनि क्रिस्तांव फेस्तां स्थळीय संस्कृते प्रकार आचरण कर्तात। क्रिस्तांवांनि अक्रिस्तांव फेस्तां, राष्ट्रीय फेस्तां आचरण कर्चें ह्या दिशेंत काडल्लें वळादिक मेट म्हण्येत।

**समाप्तिः** आजकाल वाव्राचो ओत्तड, वेळाचो अभाव, खर्चाचो भार, सामुदायिक जेणिये थंय ना वोड्नि आनि वयुक्तिक स्वातंत्रायेक दिंव्चि प्रामुख्यताय, फेस्ताचा आचरणा थंय मन्शाचें आकर्पण उणें करुंक सक्लां। तरि फेस्तां वर्विं मन्श्याक संपूर्णताय आण्णांव्क भलाय्केभरित जीवन सारुंक, समाज आनि कुट्माचो बांद जिवाळ दव्रुंक साद जाता म्हळें सत आमि जाणा जांव्वें। फेस्ताचा आचरणांनि समाजेक जीव भर्ता, आमि क्रियाळ जातांव। हें चारित्रिक सत। देकुन हें सत मांदुन घेव्न, फेस्ताचें अर्थाभरित आचरण कर्यां। अशें देवाचा आनि एकामेकाचा सहवासांत जियेंव्क मन कर्यां। ह्या वर्विं स्थळीय संस्कृति वाड्ता आनि एकामेकाचा फेस्तांनि वांटो घेंव्क सलीस जाता।

(आभार: मा| दो| रोनाल्ड सेरावो, दिरेक्तोर, मंगळज्योति हांणि, गर्जेचें आधार साहित्य ओदग्सुन दीव्न, फेस्तां विशिं गर्जेचि माहेत म्हजे संगि वांटुन घेत्ल्या। तांकां हांव ऋणि जाव्नासां।

आधार साहित्य: जीवन धारा, नेमाळें आनि सवार विविध नेमाळिं, तांचि पट्टि लांव आसल्ल्यान नांवां हांगामर दींव्क नांत।)



# देव मातेचें जनन - समृद्धेचो संकेत



**सोनिया देकोस्ता**

ऱ्हाऱ वापऱाचि दागळाय किल्लि ऊंच्लि म्हण कळाजाय तर सप्टेंबर महिन्याचेर एक दीष्ट लाय्जाय पड्ना। एकें कुशिन गाद्यांनि पिकोन येंव्चें पाच्वें येनेल तर अन्येंक कुशिन तांटा भाटांनि भगेन वाम्रांचि, मेजाक तयार जाल्लि गंद्धोय आनि फळवस्तु। माडां न्हंसोन, फुला भांगारचा जडायेन तक्लि वागाव्न रवल्ल्या होक्लंचा सोभायेक लजेक घाल्चि सोभाय ह्या महिन्याचि। मोवाळ वायांत, फुलांचा पर्मळाचि जडाय आनि भंव्र्यांचो नाद। ताचे सांगाता पिसोळयांचो नाच। संसारचा कलाकारान आप्लि सग्ळि कलामकता वापार्न संसारचा कोन्शा कोन्शार रंग भर्लासो दिस्ता। सुंदर सुकण्यांचा ताळयांनि मधुर गितांचो व्हाळो। पाव्साचा उदकांत भिजल्ल्या धर्तेक पांगुर्लेल्या मोव पाच्व्या तणाचा इड्यां इड्यांनि, सुर्याचा किर्णांचो पर्जळ। खाणाचि वाट्लि हातिं घेव्न नेंट्या बाळाक लांब्क आयिल्ल्या माये तितिलच मोगाळ दिस्ता पृथ्वि सग्ळयांनि संतोस, सग्ळयांनि उल्लास। प्रकृतेचा शिरां शिरांनि फेस्ताचो वैवव। असलि दागळाय, असलि सोभाय आनि असलो वैभव पळय्तां पळय्तां, सांगान आनि उप्कारि मनोभावान सुजुल्लें मन्शाचें काळिज प्रकृति मायेक मान वागांव्चांत कर्सलिच चूक ना। तिचा संतोसांत तोयि वांटेलि जाता आनि विविध रितिंनि, विविध जाग्यांनि, विविध नांवांनि लुंव्गें फेस्तां आचरण कर्ता। प्रकृतेचि दादोस्काय चाक्तां चाक्तां तिका रचल्ल्या देवाक अर्गां पाटय्ता। तमिळ नाडांत हाका पोंगाल म्हण्तात आनि केरळांत ओनम। आमि जल्मोन वाडल्ल्या मंग्ळुरांत हाका मोंति साय्बिणिचें फेस्त म्हण्तात।

लुव्गें फेस्त आचरण कर्चि संस्कृति संसारभर विस्ताल्र्या। प्रकृतेचि दागळाय हांगांळिसनानल्लें जनांरच ना। पुण जायितें कडेन धार्मिक फेस्तांक संस्कृतेचो रंग लाय्ला। धार्मिक महत्व आसल्ल्या दिसा, लुंव्गें फेस्त आचरण कर्चें सामान्य जालां। दाकल्याक, ओनम केरळाचो लुंव्गें फेस्ताचो दीस। पुण ह्या दिसा सहावाल संसारक पाटि येंव्चो दीर्मयि आचरण कर्तात। हिंदू भाव आप्लिं लुव्गें फेस्ता आचरण कर्तांना पाळच्यो थोड्यो रिवाजि आर्मियि आणाय्ल्यात। समड्त

ग्लि तरि संस्कृति एक जाल्ल्यान, आमि आनि गांव्चो हेर समड्तेचो लोक एक हळ्ळो मनोभाव लुंव्गे फेस्त आचरण कर्चे द्वारिं जल्माता। हेर समड्तिचा नावांनि लुंव्गे फेस्त आचरण कर्न प्रकृते थंय उपकारि मन दाकंव्चे वरि आमिंयि प्टेंबराचे आट तार्केर, जेजुचा मायेचा जाल्ल्या दिसा, लुव्गें फेस्त आचरण कर्ताव। मोरि जेजुचि मोगाळि मांय। हेरांचे कष्ट सम्जोंचे तसलें मोवाळ मन तेचे थंय आसा। काना श्हेरांत घडल्लें घडित हाका साक्स जावृनासा। असल्या मायेक, दाराळ माफान दीव्र मन्शाकुळाक पोस्चा प्रकृति मायेक सरि कर्न, तिचा जल्मा दिसा लुव्गे फेस्त आचरण कर्चांत मस्त अर्थ आसा।

मंग्ळुर्चो कोंक्णि क्रिस्तंव लोक सप्टेंवर आट तार्केचा फेस्ताक मोंति साय्विणिचें फेस्त म्हण्ता। पुण 'मोंति' म्हळ्ळया सब्दाचो अर्थ कितें आनि तो खंय थाव्न उब्जाला म्हळ्ळें सामान्य कोंक्णि क्रिस्तांवांक कळित ना। मवयेचा बळान मोंति फेस्त म्हण्तात। 'मोंति' म्हळ्ळो सब्द 'मोंते' म्हळ्ळया लातेन सब्दा थाव्न उब्जाल्लो। 'मोंते' म्हळयार दोंगोर। आमृचे पूर्वज, मंग्ळुराक पोळने येंव्चे आदिं गोंयांत आस्ताना, सेप्टेंवराचे आट तार्केर, मोरि मायेचा जल्मा दिसा, दोंग्राचा साय्विणिचें फेस्त आचरण कर्ताले तेद्नां ह्या फेस्ताक मोंति फेस्त म्हण नांव पड्लें। मंग्ळुर आय्ल्या मागिर फेस्ताचें नांव उरल्लें तरि, आचरण कर्चि रीत वदल्लि। सगळया संसारार सेप्टेंवराचे आट तार्केर बाळोक मोर्येचें फेस्त आचरण कर्तात। पुण मंग्ळुरांत कर्चेवरि विशिष्ट रितिन, धार्मिक तशें सांस्कृतिक फेस्त जाव्न आचरण कर्नांत। गोंयांत आनि वेंड्रांत ह्या दिसा दोंग्राचा साय्विणिचें फेस्त तर, तमिळ नाडांत भलाय्केचा साय्विणिचें फेस्त।

मोर्येचो जल्मा दिवस सेप्टेंवराचे आट तार्केरच कर्चि रिवाज कशि उब्जालि म्हळ्ळयाक कसलिच माहेत ना। पुण फ्रान्साचा आंगार्साचे इगर्जेचा दस्तावेजां पर्माणें क्रि.श. 430 इस्वेंत घडल्ल्या एका घडिता वर्वि, सां. मोग्लियसान ह्या फेस्ताचें आचरण आरंभ केलें। सेप्टेंबराचे आट तार्केचे रांतिं एका दादल्याक भङ्च्यांचें गायन आय्कालें खंय कारण विचारल्ल्याक, तो दीस मोरि मायेचो जल्मा दिवस जाल्ल्यान, तिका उल्लासुन गायन कर्ताव म्हण भङ्च्यांनि जाप दिलि खंय। ह्या काणियेक मात्र कसलिच ऐतिहासिक रुज्वात ना।

सिरियांत व पालेस्तिनांत ह्या फेस्ताचें आचरण आरंभ जाल्लें। पांच्व्या व सव्या शेक्ड्यांत बेत्सादाचा तळया लागिं मोर्येचा मांय बाबाचा मानाक एक

देवतेच्ल स्थापन केल्लें आनि थथ्मर मार्येचा जल्मा दिसाचि पर्व आचरण कर्चि रिवाज आरंभ जाल्लि म्हण दस्तावेजां आसात। सां जेम्साचा एपोक्रिफल वांजेलाचा आधारार, सिरियाचा सां रेमोनमान एक केतार लिखल्लें। मार्येचा जल्मा दिसाचि कथा एपिक्रोफल वांजेलांनि मात्र वाचुंक मेळता जाल्ल्यान, रोमाचि इगजमाता मार्येचा जल्मा दिसाचें हें फेस्त मांडुन घेंव्क दाकर्शेलि। सात्व्या शेकड्याचा आखेरि पर्यांत, ह्या फेस्ताचें आचरण रोमांत सुरु जांव्क ना। मागिर हें फेस्त पाश्चात्य गांवांनि विस्तार्लें आनि पाश्चात्य मिश्यनरि मुखांत्र आम्चा गांवाक आय्लें।

सोसाइटेंत क्रिस्तांव तरि, भारतीय संस्कृतेच्यो थोड्यो सांडावळयो संग्ळुर्चो क्रिस्तांव लोक आजूनि मांडुन घेता। दाकल्याक, जोड्तें कुटाम आनि जात पद्दत। फेस्तांचा आचरणेंत प्रत्येक जाव्न मोंति फेस्ताचा आचरणेंत अक्रिस्तांव भावांच्यो थोड्यो रिति रिवाजि आर्मियि पाळतांव। येनेलाचि लुग्णि सेप्टेंबर नात्ल्यार अक्टोबर महिन्यांत जांव्चि आस्ता। आम्चे हिंदू भाव भाताच्यो कणशो कात्रुन घरा भितर व्हर्तात। ह्याकार्याक 'घर भर्चें' म्हण्तात। आर्मियि भाताच्यो कणशो इगर्जेक व्हर्न त्यो बेंजार कर्तांव आनि ताका 'नोवें' म्हस्तांव। "घर भर्चा" दिसा अक्रिस्तांव भाव भुमिचेर धराळ माफान मेळल्ल्या गंद्रोयेंचं गड्द जेवाण कर्तात। आर्मिय गंद्रोयेंचं जेवाण जेव्तांव। भारतीय संस्कृतेंत दोनांत भागुंक जाय्नात्ले तसले संख्ये भाव पवित्र आनि बोरे। त्याच पर्माणें मोंतिचा फेस्ताचा दिसा आर्मि दोनांत भाग्गुंक जाय्नात्ल्या तसल्या संख्यांनि निग्ति कर्तांव। पिकोन येंव्चें भात मोल्येंयि असल्याच संख्यांनि जाव्नासा।

मोंति मार्खिणिचा फेस्ताक तयारय जाव्न नोव दिसांचें नोवेन चल्ता। वाळोक मार्येचि मुर्गार्गियल्लि इमाज आल्लारि लागिं दवर्तात। भुर्ग्यांक हे भाव संतोसाचे आनि उमेदिचे दीस। सेप्टेंबर महिन्यांत धर्तेर भरोन बोम्नोंचि फुलांचि रास येक्टांय कर्चें मुखच विशिष्ट। व्हड्लें हिताल नातल्लिं भुर्गि बोश्यो आनि नाप्लिं काण्घव्न निर्जाकि 'बोड्तां हित्लांनि भंव्तात' आनि 'फुलां येक्टांय कर्तात' जिंड्डि, ग्लासफुलां, शिव्विं, आवोलि, गुलाब, डांग्रोज आनि दोर्म्मिचि फुलां आपाप्ल्या झड्डां थाव्न वेंग्ळि जाव्न भुर्ग्यांचा बोश्यांनि पड्नात। एकामेका चा बोश्यांल्लं फुलां - प्रत्येक जाव्न पर्मोळन तांव्डे गुलाब - चोर्चि भुर्ग्यांपणाल्लि मजा

ग्रंचो/खंचि मंगळुरि क्रिस्तांव मनिस विस्रात? नोवेनाचा मिसाचा वेळा पर्माणे, इस्कोलाक वेचे पय्लें व मागिर, वोशिभर फुलां काण्घेव्न इगर्जेक वेचा भुर्ग्यांचें एक रंगाळ आनि आकर्षक दृश्य जाव्नासा। वाळोक मोर्येचें पिंतुर हर्येक्ल्याचा हतिंत खंचोन आस्ता तें खरें तरि मीस आनि नोवेन जातेच "सक्कड सांगाता मळोन" मोर्येक होगोळ्मुंचिं गितां गावुन, तिचा पायांथळिं फुलां अर्पण कर्ताना, थोड्या पोंक्रि भुर्ग्यांनि इष्टांचा कानाक व नाकाक जोकुन फुल मार्चें मामान्य जाव्नासा। फुलां उडंव्चि ति मजा खंचें भुर्गेंयि चुकय्नां आनि वाळपण उत्राल्लो खंचो मनिसयि विसर्नां।

फेस्ताचो दीस भोव संभ्रमाचो। ताचें विशेष आकर्षण पुर्शांव। फिर्गजेचो सर्व लोक नव्या फळा सांगाता इगर्जे थाव्न थोडे पय्स जम्ता। मोर्येक उल्लासुन गितां गाय्तात। माग्ण्या संगिं नोवें (भाताच्यो कण्शो, फळ, रांव्वोयो) वेंजार कर्तात। व्हडां तशें भुर्गिं भोव शिस्तेन पुर्शांवार इगर्जे कुशिन चम्कातात। भुर्ग्यांचा हातांनि फुलांच्यो वाट्ल्यो आस्तात आनि मोर्येक होगोळ्सुंचिं गितां गायित्त, फुलां समर्पित चल्तात। कंतारांचा मधुर नादा संगिं गर्नाळिंचि वोवाट आनि पुर्शांव इगर्जेलागिं पाव्ताना घांटिचो नाद; वारें भर फुलांचो पर्मळ आनि वाटभर मोर्येक अर्पिल्ल्या फुलांचि रास - हो पुर्शांव एक मन पिस्वोंचे तसलें दृश्य।

मिसाचो संभ्रम जाल्या मागिर फिर्गजेचा लोकाक नोवें (भाताचि कण्शि) वांट्तात। इगर्जेचा संघ संस्थ्यांनि प्रमुख हुद्द्यार आसल्ल्याक, गुर्कारांक आनि फेस्ताक मुड्दोम रावल्ल्यांक मान दीव्न पय्लें नोवें वांट्तात। मगिर फिर्गजेंल्या हर्येक्ल्याक नोवें मेळता। फुलां समर्पिल्ल्या भुर्ग्यांनि तांचे जिवा प्रास व्हड कोवु घरा व्हर्चें पळय्ताना मन उल्लास्ता। रांव्वोयेचें आनि फळांचें ओक्शन पळेव्न ल्हानां तशें व्हडां कान दोळे सोड्न राव्तात।

हें फेस्त धादोस्कायेचें फेस्त। सर्वांक धादोशि लाव्ता। ह्या फेस्ताक ग्रेस्त आनि दुव्ळया मद्लो फरक कळित ना। विविध थरांचा आर्थिक परिगतेंत आसल्ल्यांचा घरांनिं एकाच थराचें जेवाण। प्रमुख निस्तें जाव्न पाव्साचा बळान गशिंनि वाडल्ल्या आळुं देंट्याचि कडि। कोणाय्चाय तोटांत दाराळ माफान मेळता तर, तो संतोसान नातल्ल्याक वांटुन दिता जाल्ल्यान हर्येक्ल्याचाय घरा

गंद्रांयेचें गंदप आस्नाच। आण्णाक धादोशि लावल्लें उदार मनान नातल्ल्याक व उणें लावल्ल्याक दान दीव्र आष्लि आनि हेरांचि धादोस्काय वाडंव्चें धादोस्कायेचें फेस्त हें जाव्रासा। उदार मनान दीव्र, उदार मनान दिल्ल्या ख्रार बापाक अगां दिव्चि हि रीत जाव्रासा। दिल्ल्या हाताक चड आनि चड लाब्ता म्हळ्ळया पात्येणेनयि दिव्चें आस्ता। इत्लेंच न्हय, फुडेंयि देव असलिच दागळ वेसांवां वोत्तोलो म्हळ्ळो थिर भर्वसो ह्या दिसा किर्लांता।

सेप्टेंबराचि आट तारीक लुव्णे फेस्त आनि मोग्मिायेचो जाल्लो दीस मात्र न्हय, तें एक कुटूा फेस्तयि जाव्रासा। माल्घड्या घरांत कुटूाचे सर्व सांदे सांगाता मेळतात। थोंडे पाव्टिं माल्घड्या घर वोचानास्तां आप्ल्याच घरांत आवय बापय भुर्ग्यांनि फेस्त कर्चें आस्ता। घर्चो माल्घडो सनिस भात सोल्ता आनि पिकोन येंव्चो तांदु पिटो कर्ता। तो पिटो वोर्नांत, व नार्लां रोसांत व दूधांत भर्शितात। घर्चा आत्मांवां पासोत, घर थाव्र पय्स आसल्ल्या मोगाचा सन्शां पासोत आनि घरांत मेळल्ल्या सर्व कुटूा सांद्यां पासोत मार्गणें आस्ता। घरांत शांति, समाधान, संतोस आनि धादोस्काय सदांच आसोंदि म्हण मारतात। उप्रांत कुटूांल्ल्या सर्व सांद्यांक दूधांत व रोसांत व वोर्नांत भर्शिल्लो नोव्या तांदळाचो पिटो दितात। आवय्चा हातांल्ल्या वाळशाक समेत एक थेंबो मेळता। हाका नोवें जेंव्चें म्हणतात। नोवें जेंव्ल्या मागिर गंद्रोयेचें गड्द जेवाण आस्ता।

आय्लेवार थोड्या वर्सां थाव्र सेप्टेंबराचि आट तारीक चेड्डुं भुर्ग्यांचो दीस म्हणोनयि आचरण कर्तात। मोरि एक चेड्डुं। तिणे आप्ल्या सोड्रोण्दाराक पय्लें आप्ल्या काळजांत आनि सतिंत आनि मागिर आप्ल्या कुडिंन स्वीकार केलो। माल्वार जांव्च्याक सन्शान ओप्वाजाय पड्ता आनि देवाचि कुर्पा आस्ल्यार मात्र तो ओप्वोंक सक्ता। मोरि देवाचा योजनाक ओपल्लि आनि माल्वार जाल्लि प्रथम सनिस मात्र न्हय, देवाचे खुशे पर्माणे जेजुक प्रसूत जांव्क ओंसाना, सर्व सन्शाकुळाचा माल्वारचे उदेंतिक कारण जालि। असल्या महत्वाचि मोरि एक चलि म्हळ्ळें उग्डासाक हाड्चो दीस हो जाव्रासा। ह्या समाजेंत चेड्डुं म्हळ्ळया एकाच कारणा खातिर कष्टांचा सर्व स्त्रीयां पासोत मागोन, स्त्रीयांचे उदरगते विश्यांत गंभीरायेन चिंतुंक सेप्टेंबर आट तारीक एक आव्कास।

आजकाल ह्या फेस्ताचें रूप बद्लोन वेचें आस्कां दिस्ता। ह्या फेस्ताचो

सांस्कृतिक महत्व क्रमेण पुसोन येंव्वो तो धग्धग म्हण दिस्ता। हें एक लुव्णे फेस्त, म्हण्जे गैतांचें - शेतां भाटांनि वावुर्तेल्यांचें फेस्त। आदिं चड्ताव लोक शेता भाटांनि वावुर्न आस्तालो। आतां चड्ताव लोक महिन्याचा पागाक दफ्तरांनि काम कर्न आसा। मात्र न्हय, इताल, तोट, शेत, गादो, बेट, वोय्ल इत्यादिंचो अर्थ कळितनातल्लिं ल्हानां तशें व्हडां फ्लेटांनि जियेतात। आदिं मोंति फेस्त म्हण्ताना, तोटांनि भरल्लि रांद्वोय आनि पाच्च्या गाद्यांनि मोव वार्याक धल्च्या भाताच्या कण्श्यांचें चित्रण मतिक येतालें, मन धादोस जातालें आनि प्रकृते थंय मोग उब्जातलो। फुलां येक्टांय कर्चि मजा सुमार भुर्ग्यांक आतां कळित ना। आतां मोंति साव्विणिचें फेस्त म्हण्ताना मतिक रांद्वोयेनि भरुल्ल्यो मार्केट्यो आनि गंद्वोयेचा मोलांचें चित्रण येता आनि हात पाय कांप्तात। भांगाराचें मोल दिव्न गंद्वोय घेंव्चाकि, मास घेव्न फेस्त कर्चें बरें म्हण थोड्यांचो मनोभाव जाल्यार थोडिं जणां सोगे आनि मास नातल्लें फेस्त कसलें म्हळया मनोभावान मासाचि मूर कळित नातल्ल्या ह्या फेस्ता दिसा चार थरांचें मास रांद्तांत आनि लुव्णे फेस्ताचो महत्वच सत्त्यानास कर्तात।

आदिल संस्कृति सागोळेचि जाव्न आसल्लि। आतांचि नोव थाव्न पांच म्हणासर दफ्तरांनि घोळिचं। आदिं गर्जेचें धर्ते थाव्न मेळतालें तर आतां मार्केटे थाव्न मोलाक मेळता। आद्ल्या संस्कृतेंत प्रकृतेचो मोग करुंक अव्कास आनि वेळ मेळतालो तर आतां प्रकृतेचि वोळक उणि जाल्या आनि ह्यो बद्लावण्यो मोंति साव्विणिचा फेस्ताचा आचरणेंत दिस्तात। मोंति फेस्ताचो अर्थ कळित आसल्लिं सिंतिमेंताळ मन्शां, दिस्पोड्त्या ग्रासा पासोत पय्स पावल्ल्या मोगाचांक तप्पालार नोवें धाड्ड्यारि हिं पय्स पावल्लिं मोगाचिं, गांवांत्ल्या मन्शांबरि फेस्त करुंक सकानांत। हळळेंनि संभ्रमान हें फेस्त आचरण कर्ताना, श्हेरांत्ल्यांक हें मोर्या मासाचें फेस्त जालां। फेस्ताचो धार्मिक अर्थ आमिं विसर्चिं नांव। ताचो सांस्कृतिक महत्व विसर्तेल्यांव। श्हेरांत्लें वारें बळ जाताना हें फेस्त एक लुव्णे फेस्त म्हण दोन कडेन मात्र जीव उर्तेलें - एक, परिपूर्ण थरान आचरण कर्न कळित आसल्ल्यांचा काळजां मनांनि आनि दोन, बूकांचा पानांनि।



# कुड्म्यांलि शिगम्या पुनव


यं. गोपाल गौड

ह्या जगत्ताचि सृष्टि दाव्न भुंय वय्र मनिस जल्माताना ताका थोड्यो विशेस संग्ति देहेल्यो। पृथ्वि वय्ले दय्त गात्राचे रूक झाडां, फातर, दोंगोर, रात्तिक पोड्चेलें चांद्नें, झळचेलो सुर्यो, येळचेलें वारें, व्हाळचेलें उदिक, विशाल म्होळव, अगाध सोम्दिर, मोड, पाव्स, झग्लाणे, घड्घडो - इत्यादि आप्ल्या आलोचना सक्तेच्या भाय्ल्या संग्तिंक भयभग्ति आनि पवित्र दिर्ष्टिन सुय्लो। आण्णान कित्लें प्रयत्न केल्यारयी ह्या विशेष सक्त्यांचा प्रभावान चकव्न बद्काचाक असाध्य दाव्न भियेव्न चल्चाक सुरु केलें। त्या संग्तिंक देवत्व, दैवत्व आवाहन करुन आराधनीय भावान सुव्चाक लाग्लो। आराधना क्रमाक एक धार्मिक चौकट्ट तयार केलो। आराधना रिति रिवाजि कर्चाक आड्कळ नाहाल्लो एक प्रशस्त तीथ, दीस नमियार्लो। आण्णान उप्योग कर्चेलि हर्येक वस्तु देवाक समर्पण कर्चाक सुरु केलें। हें आराधना क्रम सुकार सुधारण दाव्न धार्मिक क्रिया, पर्वो आचरण कर्चेलें क्रम सुरुदालें। आर्लें प्राकृतिक रूप सुधारित दाव्न संस्कृतिचें रूप घेव्न पर्वांच्या आचरणाक एक निर्दिष्ट चौकट्ट निर्माण दालो।

'परब' हो सब्द संस्कृताचा 'पर्व' सब्दाचो तद्भव रूप। परब सुन्ल्यार संतोस। पुन्वेचा रात्ति चंद्रिमाक सुव्चें दोळयांक परब। फुलांचो पोर्मळ सेव्चो जिवाक उल्लास दायाक। विविध रुचिचें रांदाप जिबेक परब। पर्वांच्या संदर्भार दाव्चेले विविध समारंभ, दिस्चेल्यो विविध दृश्यावळि घड्चेले विविध लौकिक व्यवहार आम्चेल्या जीवनांत हुरुप आनि उत्साह भर्ता। पर्वांक बंधु बांधव, कुटांब संसार सांगता मेळटाना कौटुंबिक आनि सामाजिक भावनां अभिवृद्धि जाता। पर्वांच्या संभ्रमांनि सांघिक जीवनाक उत्तेजन मेळटा। परब सुन्ल्यार आनंददायक म्हण अर्थ।

आम्चेल्या सोंना संतोसाक आमि परंपरेंत्ल्यो पुंजायिल्ल्यों कित्ल्योगी संग्तिनि, रिति रिवाजिनि मनोशास्त्र घोळटा। साहलि उद्कांत आहाल्यारयी आपुण उद्कांत आहा म्हण साहळेक कळित आवाना। ह्या प्रकारत्त आमि मनोशास्त्राकयि आम्कां कळितनास्तानांत उप्योग कर्ता। दाल्यारयी, येहेल्या नडर्वाळकेन मन हळू दाता, आतंक पय्स दाता म्हणचेल्याक काय संसावुना। संप्रदायांत इव्चेल्यो सगळयो संग्ति मूढनंबिके म्हण वग्लेक दवर्चाक दास्ना। खंय्चेयी एका सितिर आस्ताना, कर्चेल्या कार्यांच्या फाट्लो उद्देस कळित

आस्ताना केल्लें आचरण मूढनंबिके दाय्ना। खंय्चेयी एका मितिर आस्ताना, कर्चेल्या कार्याच्या फाट्लो उद्देश कळित आस्ताना केल्लें आचरण मूढनंबिके दाय्ना। वद्लाक गाढविश्वास दाता। दिव्ळांत देवा मुकार आड पड्चें, आरत कर्चें, इत्यादि एका सामान्य आचरणा फाट्ल्यान, आधुनिक मनःशास्त्रानयी कर्चाक दाय्नाहाल्लि एक कार्यव्याप्त आहा मुन्ल्यार कांय विशेस ना। देवा मुकार दोळे धापुन, आमि नोम्पोल्ल्या देवालें रूप आम्घेल्या आम्घेल्या अंतरदिष्टिनँ चोव्न आम्घेल्या कष्ट परिहाराक प्रार्थन कर्ताना शांति समाधानाचे तरंग उब्जोन, कष्ट परिहार दाता मुन्चेलो आत्मविश्वास जल्मोता। आत्म विश्वास ईल्यार आपापिं समाधान मेळटा। कार्यें फल्साता आनि जीवनांत उल्लास भरोन आनंद भोग्ता। आमि आचरण कर्चेल्यो, त्या त्या तिथिंक दाव्चेल्यो पर्वोयी आम्कां कळितनास्तानांत मन्शाल्या जीवनाक एका रितिचें शक्तिवर्धक (Tonic) दाव्न, उल्लास प्रेरक दाव्न वावुर्ता।

आम्घेल्या घांवांनि अनेक जातकातिचो लोक आहा। हेंगा आहाल्यांल्या वय्र ईल्यांलो प्रभाव, ईल्स्यांल्या वय्र आहल्ल्यांलो प्रभाव पडुन एकामेका मतांत, धर्मांत एका रितिचि संकीर्ण परिस्थिति उब्जाल्या। ह्या जगत्तांत सरळया समाजांतयी कुड्ण्यांहिले गिरिजन पंग्डाचे मनिस आहा। नागरीक समाजाकयी पय्स, प्रत्येक दाल्लें जीवन क्रम रूढि करून घेव्न, तिंग्ले विशिष्ट सांस्कृतिक मौल्यांक जिवित दोरून, तिंग्ल्यात्त प्रपंचांत जीवन कर्न, आप्ल्या समाजाच्यो प्राचीन धार्मिक रितिरिवाजि कुड्ण्यांनि उर्वोन हाड्ल्या। एका समुदायाच्यो रति रिवाजि आनियेका समुदायाचांक गोड्डु संप्रदाय म्हण दिसात। कुड्ण्यांलो संप्रदाय हेर पंग्डाचांक 'काट संस्कृति' म्हण देहेल्यार कांय विशेस ना। गुड्डगाडु जनांग दाल्ल्यान कुड्णि एकिडे व्यवस्थित रितिन नेलेरावुन जीवन सार्चे प्रवृत्तिचे नू। कुड्णि रानां मोल्यांनि स्वच्छंद रितिन भोंवांत, कंदमूलं, फळांपाळां, म्होंव, आलोपालो उप्योग करित्त, वेट आम्दुन, सारवळि कृषि जारयाच्यान जारयाक बद्लित्त दीस काड्चेले मनिस। चडावत भविषत्ताचें सपण येक्षिनासि, संपंत संग्रह करिनासि, वर्तमान कालाचा जीवनाक चड श्रम वहिसुचेलो अल्पतृप्त समाज। आप्ल्यात्त देवु दैवांक नोम्पोन, आप्ल्यात्त रितिन आराधन कर्न, गांव्न वाजव्न नाचुन, पर्वो आचरण करित्त, तिंग्ल्या मुखेल्यांलो निर्देश सवालांविणे पालन करित्त, तिंग्लेंत्त माहित्य, कला सृष्टि करित्त, आप्ल्या समाजांत विविध कुटुंबाकडे परस्पर सहकार, संबंध सौहार्द वाडव्न, अन्योन्य रितिन बोदकत्त आस्चेले जनांग कुड्णि।

गोंयां आसपास्चे मूळ निवासि दाव्न आहाल्ले कुड्णि तेरव्या शतमाना लागुन सत्राव्या शतमाना पर्यांत दुकोळ, मतांतर, विविध अन्वारां निमित्त गोंया लागुन देसांतर येव्न कर्नाटकांत्ल्या करवळिच्या विविंगड जारयांनि वस्ति गल्ले। इत्ल्या वर्सां आदिंत देसांतर

इल्ल्यं दाल्याग्यी कुड्म्यांनि माल्घड्यांल्यो रितिरिवाजि, धार्मिक संप्रदाय, नक्लेन तक्लि व्हाळोन इल्ल्या पर्वांचि आचरणां आजिकी सांबाळून जिवाळ दवल्यां।

इट्टि वसा कर्नाटकांत गव्ल्याग्यी आजिकी कुड्मि आप्लि आवयभास कोंक्णि उलय्ता। कुड्मि, गावांत दांवल्यो सग्ळयो हिंदु पर्वो आचरण कर्ता दाल्याग्यी, कुड्मि आचरण कर्चेल्या 'सिग्म्या पुन्वेक' विशेस महत्व आहा। कुड्म्यांलि सिग्म्या पुन्वेचें आचरण तिंकां 'कुड्मि' म्हण प्रत्यक्षपणान गुर्तु कर्चाक एक कारणयी दालां। कुड्म्यांक बुडकट्टु जनांगाचें हरयेक लक्षण आहाल्याग्यी सर्कारगचा कुड्डया दिष्टिंत - अधिकृत दाव्र कुड्मि बुडकट्टु जनांग नू। नागरिक समाजान कुड्म्यांक दुरुपयोग कर्न तिग्ल्या स्वार्थाक उप्योग केल्लयान, सुधारित समाजाचे सवलत्त कुड्म्यांक मेळानाहाल्ल्यान कुड्मि आज कष्टांचा परिस्थितिर दीस सार्ता। प्रस्तुत पाट्टुचाक आनि फांग्रचाक दुर्बळपणत्त आहाल्याग्यी आप्ल्या जनांगाचि प्रामुख्य पर्व 'शिग्मो' कुड्मि भारि संतोसान, उल्लासान आनि गद्दळायेन आचरण कर्ता।

माघ चतुर्दशि लागुन फाल्गुण पुनव भितर्ल्या आव्देक 'शिग्मो मास' म्हण्ता। श्री बस्ति पुंडलीक वेंकटेश शेणैल्या 'कोंकणि मत्तु मराठि - इबुगळ तुलनात्मक विमर्शे' मुन्चेल्या पुस्तकांत इहि विवरण आहा - फाल्गुण पुन्वेक शियांचो वाय्दो सुरदोन वसंतकाल सुरुदाता। वसंत कालाक संभ्रम, संतोसान आनि भारी उल्लासान सांकेतिक रितिन स्वागत कर्चेलि पर्व शिग्मो या होळि। संस्कृतांत शीदगमना पूर्णिमा = कोंक्णेंत शिगमेचि पुनव। शीं उर्च्चेलि पर्व म्हण अर्थ। शिग्म्या पुन्वेचा रात्ति कुड्मि होळि आचरण कर्ता। शिवालो तिस्रो दोळो ज्ञानाचो दोळो। काम मुन्चेल्यो वाय्ट आशा आकांक्षे सग्ळे ज्ञान मुन्चेल्या सूर्या मुखांतर ल्हासुन गोबोर कर्न, नेव्या जीवनाचो संकेत कामदहन या होळि।

'वेळार वेळ शिग्म्यांत खेळ' म्हण एक गाद आहा। हि गाद कुड्म्याल्या शिग्म्या पर्वेक लागु दाता। सिग्म्या मासांत कुड्मि गानिं गांव्र, गुम्टां व्हाजव्र तोणियो खेळुन, नाचुन सिग्म्याचि पारंपरिक कला प्रदर्शन करुन शिग्म्या पर्व भारि संतोसान आचरण कर्ता। 'चतुरर निजदिं, कुरितांददेयुं काव्य प्रयोग परिणत मतिगळ' मुन्चेल्या नृपतुंगाल्या उत्राब्दिरिं बोरोप वाचप नाहाल्याग्यी कुड्मि साहित्य तयार कर्चेल्या इट्टि बुद्धंत आहाल्ले। अनादि कालार घोडांव्र तोंडा उत्रार उर्वोन हाड्डेलिं कुड्म्यांलिं गुम्टां तोणियांचिं गानिंत्त ह्याका साक्स। आतान संसारांत आधुनिक्पण मित सिर्वाल्याग्यी कोंक्णेचे मूळ मनिस दाव्र आहाल्ल्या कुड्म्यांनि शिग्म्या खेळाचि सादर कला सांबाळुन हाड्डुन, संस्कृति जिवि दांवल्यां। खंचियी एक विषय मेळ्ळयार कुड्मि ताच्या वय्र एक गानें घड्टा। हिं गानिं घड्डेलें कुड्मि पाडिनयी नू। आंड्डे नांवांगल्ले कवियी नू। रानांल्या फुलाब्दिरिं कांनाल्यायो

गोचरक ईनाहाल्ल्ये अविद्यावंत। गानिं घड्लेलिंयी कोनाल्यार्यी वशीलि या शिफारसाक नू। सगळो दीस घोळुन दाल्ल्या तिंग्ल्या आयास परिहारक, दुर्वळपणान ईल्ल्या मोनांत्ल्या वेजारांचा परिहारक आनि आत्मसंतोसाक। सान सान गान्यांनि वोड्लो अर्थ मिस्ळोन, पुराणांत्ल्या घड्पाचिं, प्रादेशिक वैशिष्ठतेचिं, स्थळीय पव्स, वेळें, खाणजेवाण, रग मोग, विरह वैराग्य, दैवभग्त, हास्य, व्यंग्य, सुख कष्ट, हव्यास अभ्यास आनि नित्य जीवनाचि सांमारिक झळक दिस्ता। कुडुंवि शास्त्रीय रितिर ताळ ताळो अभ्यास केल्ले नूं दाल्यार्यी हिंनिं घड्लेलिं गानिं अविद्यावंतांकयी अर्थ दाव्वेल्याव्हिरिं आहा। गान्यांनि प्रास, निर्दिष्ट ताळ आनि ताका सरिदाल्ल्या रितिचो नाच आहा। 'फुलनास्तां पर्मळ ना' मुन्चेल्याव्हिरिं गानें नाहाल्लो कुड्ब्यांलो शिग्म्या खेळ ना।

गोंया लागुन देसांतर ईल्ल्ये कुड्बि थोड्ये उडुपि, कुंदापुर तालूकांत्ल्या गांवांनि फास्ळाल्यार आनि थोडे कोडियाळचा गांवांक पाव्ले। कोडियाळ पावुल्ले कुड्बि कुत्तार लाग्गिं परियेगळ मुन्चेल्या गांवांत राव्ले। परियेगळ कुड्बि माडि ल्हासुन शिग्म्या पुनव आचरण कर्ताल्ये। परियगळचा गुर्कारक चेडे भुर्गिं नाहल्ल्यान, ताणिं 'रामजि' नांवाच्या कुड्ब्याक शिग्म्या पुनव आचरणाचो अधिकार सोडुन दिव्का दालो। कालांतरांत रामजि गुर्कार कोडियाळ तालूकाच्या 'कोंपदवु' (कोंवत) गांवांत येव्न राव्लो। प्रस्तुत सिग्म्या पर्वेचें आचरण कोंवत गांवांत्लो गुर्कार करता आनि कोंवत वाडो सगळया वाड्यांकयी मुख्य वाडो दाव्न आहा।

वहुशः कर्नाटकांत शिग्म्या पर्वेक माडि ल्हासुन होळि कर्चेलो गांव कोंवत मात्र आनि हें आचरण कर्चेलो कोंक्णि जनांग कुड्बि मात्र म्हण म्हजि अभिप्राय। त्या दीस रात्ति कोंवत मांडार वाड्यागार सगळे मेळटा आनि गुम्टां, तोणियां खेळु खेळटा। खेळु दाव्न गुर्कार आनि पांयंदान सांधे फळाहाराक उय्ता। फळाहार दाव्न साधार्न वारा घंट्यांक भटाक (पुरोहिताक) आपव्न घेव्न, वेंड व्हाज्पान माडि हाड्चा उय्ता।

माडि, गांवांत्ल्या आनियेका पोंताय्ल्या गुर्कारल्या कुटुंवांत्ल्या तोटांत्लि हाड्चि। थंय पावुल्ल्या गुर्कार आनि वाड्यागारांक, सव्र्या धव्र्यांक फळाहार दिता। फळाहार दाल्लेंत माडियेकडे उय्ता। भिंगार घल्लेलि (पोस्वोल्लि) माडि दाव्का। माडियेक भोंट 'कामचक्रेश्वर पूजा' कर्ता। खेळगाडि माडिये भोंवारि गुम्टां व्हाजव्न नोमोन गांय्ता। वेंड व्हाजप दातेस्ताना प्रथमार भोट माडियेक एक पेट कातर्ता। कात्रिल्लि कुय्ति फाटि काड्चाक ना। ताच्या फाट्ल्यान गुर्कार आनि पांयंदान सांदे एकेक पेट कातर्ता। अखेरिक 'सरंगिगार' मुन्चेलो माडि पूर्ति कातर्ता। धार्मिक अदिकारा प्रमाणे तो माडि

कायुन आड घाल्ता। आड पडूॅल माडि, मेळळेल्यं वाड्यागार धर्णिक पड्चाक मोडिनीग वता। माडि एपाना थांड 'एपया' मुन्नाना आनि थांड 'होग्या' मुन नाग्क स्वगत गाघ्ता। एपल्लि माडि धर्णिर दोवनीम माडियेंच्या तुदियेक पताको, फुलां झेले वांधुन सुन्गार कर्ता। एपया, होग्या मुन्चेलो स्वर नाग्क ताळयार आहाल्लाव्हिरित्त माडि वेंगेत धलय्ता आनि धांवांत्त माडि हाइटा।

हेगा लागुन एक फालार पूज्स गांवांत्लें मुख्य देवस्थान आहा। माडि हाड्डुन प्रथमार थंय दोवोता आनि गुम्टां, धोल व्हाजव्न थार मार्ता। माडियेक नार्ले भेतुन सग्ळे पायां पड्ता। पोतुन, माडि उक्लुन अल्यां क्रमाग्त्त वोर्ता। माडियेंच्या पाट्ल्यान वेंड, व्हाजप, कोंव, धोल, गुम्टां आस्ता। माडि हाड्टाना वाटेर मेळचेल्या गुत्तांचा, मोर्यादिच्या घकांड्ये माडियेक नार्ल भेतुन गौरव दिता।

माडि हाड्डुन गुकागल्या घरा मुकार आस्चा वाकंगेत दोवोर्ता। माडि लाव्चेल्या जाग्यालागिं आंव्याचो, कवो आहाल्लो एक खांवो घाल्ता। हाका 'रण खांवो' मुन नांव। ह्या खांव्याक धोल वांधुन धोलिचा एका कुमिन 'गुर्कार', आनियेका कुमिन 'सरंगिकार' व्हाजय्ता। धोल व्हाजय्ताना सरंगिकार नोमोन गांय्ता। नोमोन गांय्ताना 'घाडि' आहाल्यार खुव्ळाता। आनि रण खांव्याक हाप्डाच्या उय्ता। खुव्ळाल्ल्यं घाडि रण खांव्याक हाप्डाचा नाजें मुन नंविके आहा। मेळळेल्यं हेर तिकां आड रावुन आडय्ता।

नोमोन गांव्न मुग्दाताना डडी माडियेक कोलु, भातण वांधुन माडि लाय्ता। इट्ले दाताना फाल दाता। लायिल्ल्या माडियें भोंवारिं सिरिं, भातण घाल्ता। भोंट माडियेक पूजा कर्ता। भोंट, गुर्कार, पांयदान सांद, मेळळेलें वाग वाड्यांचे गुर्कार, वाड्यागार माडियेक नार्ल भेत्ता। ताच्या मागिर माडियें भोंवारिं घाल्लेल्या सिर्यांक उजो लाय्ता। वेंड, व्हाजप, कोंव समेत गुम्टांगार सग्ळे गांयित्त, नाचात्त माडियेक पांच भोंवांडे येता। हें क्रम दाव्याक आनि मुट्टा म्होळवार सुर्यो उदेव्याक सोमदाता। माडि ल्हासुन दाताना सूर्यालि सुर्वेचि किर्णां लासल्ल्या माडियेक पोंडाका म्हण लेक। तिल्ल्या भितर माडि ल्हासुन हुल्पाता, सिरि ल्हासुन भस्म दाता। भोंट आनि गुर्कार माडियेंचो भस्म काड्डुन प्रसाद रूपार मेळळेल्या सग्ळयांकी दिता। मेळळेलि सोभा भयभक्तिन ह्यो प्रसाद घेता। गुम्टां खेळगाडि खेळात्त सांड चड्टा। सांडार होलियेचो खेळु खेळुन हें आचरण मुग्दाता।

माडि ल्हासुन होलि कर्चेलें हें शिग्म्याचें आचरण वर्सा पाट्ले वाय्ट सग्ळें ल्हासुन, ह्या वर्स नवें जीवन प्रारंभ कर्चेलें सांकेतिक रूप। त्या रातित्त कुड्न्याल्या सग्ळया घकांघे जागरण आस्ता। शिग्म्या पुन्वेक हरयेका कुड्न्याल्या घकांडे सोवियो संमाचि पोळि कर्ता। दार्ने सग्ळे रात्ति शिग्म्या होलियेक गेल्यार वायनो रात्ति सोवियो कर्चेल्या संभ्रमार आस्ता।

मांडार खेळगाडि खेळु मार्ताना 'काल होळि आजपोळि हाडांगे मागगं (मागगं = मेवियो) मुन गाव्र नाच्ता। किट्ले दुर्वळये दाल्यार्‍यी शिग्म्या पुन्वे टीम मग्ळे कुड्बियी दोन्पागं नांव्र, देवा पुजा करुन, पाय्स गोड्सें करुन भागि मंभ्रमार जेवोण कर्ता। ह्या पर्वेक कुड्बि नेवि लुग्टां घेव्चेलें क्रम आहा।

शिग्म्या पुन्वेचा पांच, सात या नोव दिसांनि खेळाचें अंतिम आचरण करुन मंगळ कैर्ता। ह्या दीस दाव्चेलें खेळाचें क्रम सग्ळें गमायणाचा घटनावळि रूपाचें। गमायण कामदहनाक एक व्हड्लें निदर्शन। गमगज्य सग्ळया गितिर एक समृद्धिचें, तृप्तेचें, सुव्यवस्थित नागरिक जीवन मुन कल्पने केल्यार, ह्याका विरोध दाव्र अनीत, अधर्मान, कामुकतेन सीतेक चोरुन वेल्ल्या रावणालें गज्य अनागरिक जीवन मुन येक्सियेंत। ह्या गवण राज्याक ल्हामुन नाश करुन दुष्ट शिक्षा, शिष्ट रक्षण मुखांतर धर्म स्थापन केल्लें गमायण, शिग्म्या होळियेक एक व्हड्लें निदर्शन। गवणान कामाभिलापेन सीतेक चोरुन वेल्ल्यान राक्सा कुळियेचें निर्नाम दाता। गवण वधेक आनि शिग्म्या होळियेचा कामदहनाक अर्थपूर्ण संबंध आहा। कुड्बि शिग्म्या पर्वेक खेळटाना 'गमुरे लक्षमण आनंद कुळि-लंका ल्हामुन तीनि केल्या होळि' मुन गांय्ता। सीतेक आशेल्लें रावणाल्या दुरंताक कारण। आनियेका दिष्टिन सुय्ल्यार, इंद्रिया निग्रहाचि हतोटिचि संगत हें आचरण समर्थन कर्ता। कुड्बि खेळांत रामायणाच्यो घटनावळि गुम्ट्यांर या तोणियांर, थंय थंय पुगे सांगुन सुकार्मुन वोर्ता। अखेरिक तोणियां खेळार सेतु वांधुन, सीतेक फाटि हाड्चेलें क्रम कर्ता।

माये शक्ति स्वरूपिणि, मायेल्या प्रेरणान मंथरे, गमाक वनवासाक धाड्चाक कैकेक उपादेस दिता। राम वनवासाक गेल्ल्यान गक्सालें संहार दाव्र लोककल्याण दाता। इहि, कुड्बि शिग्म्याच्या होळि पर्वेंत गमायणाचें क्रम करुन, अखेरिक महादेविलि पूजा कर्ता। कामदहनाचें सांकेतिक रूप शिग्म्याचि होळि कुड्बि सुमदायांत्लि ओड्लि परव मुन्येंत।

कोंवत गांवांत कुडुंवि शिग्म्या पर्वेचें आचरण कामदहन रूपार कर्ता दाल्यार थोड्या वाड्यांनि प्रत्येक गितिन आचरण कर्ता। दृष्टांताक 'मैंदेरि' वाड्यांत सिग्म्या पुन्वेक पोळि कर्चेलें क्रम आहा। हें क्रम किहि कर्ता म्हण्चेलें विवरण हेंगा सकय्ल दिलां।

दक्षिण कन्नड जिल्लेंत जैनकाशि मुन नांवाग्गेल्ल्या विद्र्यां (मूडविद्रे) लागुन फड्डा (पश्चिम) 5 कि.मि. पय्स मग्कड सुन्चेलेकडे आम्चेल्या कुड्यांल्या वाड्याक 'मैंदेरि' मुन नांव। सिग्म्या पुन्वेचा दोन देहां आदिं, मांडार खेळु दाल्या मागिर गुर्कारल्या कुटुंवादार मग्ळे मेळुन पोळि कर्चेलि विषय निघंट कर्ता। हि पोळि कर्चेलें क्रम गुर्कारल्या कुटुंवांत भाग्र लागुन हाड्लेल्या मुत्तेस्तानाच्या वाय्ल मन्श्यांनि कोणी एक्ल्यान कर्येत। ओलें सूतक आहाल्ल्यांनि पोळि कर्चाक दाय्ना।

आल्या क्रमा प्रकार पोंळि कर्चेल्यान पुन्वेचा आल्यां दीस उजाड दाव्का दाल्यार नावुन, वाड्याल्या पांच घर्काड्चें ऊद्दू, तिनि दिल्लां तांदुळ हाड्का। हें क्रम आतान गवच्ला। किया मुन्ल्यार वाड्यागार आनि गांवांत्ले 'तिकां तिट्लियी गत ना। पांच घरं मागुन हाड्डुन पोंळि कर्नां' मुन दुर्गोचाक लागल्ले। तिंहि दाल्यान आतान गुर्कार आनि कुटुंबाल्या म्हाल्घड्या घकाड्चे मेळुन मुमार पांच सेर तांदुळ घालुन पोंळि कर्ता। आदल्या कालार मांगळोलां उंडिद दोळुन, दाळ करुन तांदळा ओट्ट वाट्टाले। आतान दाळ मोलाक हाड्टा। पोंळि कर्चेल्यान देवा घर्काड्चे शेण काड्डुन मुद्दु करुन, पोंळियेक 'तांदुळ घाल्नां' मुन यज्मान्याकडे मांगुन, ताग्लि ओप्पिगि घेव्न तांदुळ भिजाचा घाल्का। त्या दीस ताग्लि जेव्णाचि पोड अर्ध सेरु तांदुळ, येकु नार्ल, गंदायेचो मामान ताका दिता। तानि दोन वेळाक घरा भितर गंदुन थंयित्त जेव्का।

पोंळि कर्चेल्या वाय्लेन दोन्पारां नांवुन तांदुळ वाट्चाक वस्ताना 'तांदुळ वाट्चाक वस्नां' मुन येज्मान्याडे या गुर्कागडे मांगुन तिंग्लि ओप्पिगि घेव्न वाट्चाक वोहाका। वाट्चा वस्चा आदिं वागिल घाल्का। वाटुन दाल्या मागिर वागिल काड्का। फोर्तुन फिट दोवोर्ताना 'फीट दोवोर्तां' मुन यज्मान्याकडे या गुर्कागडे मांगुन फीट दोवोर्का। पोंळि कर्चेल्यान तांदुळ भिजाचा घाल्या मागिर देवा घर मोड्डुन आप्राल्या घर्काडे दांव, भाय्र भोंव्चाक दांव उच्चाक ना। कोंकिण मोड्डुन तुळु या हेर भासांनि उलोव्चाक ना।

पुन्वेचा आल्यां दीस गर्त्ति मांडार खेळु कट्ले प्रकार दाता। खेळु भाय्र काड्चेलें या काड्नाहाल्लें त्या दीस निघंट कर्ता। मांडाय्ले सग्ळे गेल्या मागिर जागमाग गवल्या मागिर पोंळि कर्चेल्या वाय्लेन जेवोण कर्का। जेवोण दाव्न घर मुद्दु कर्न नांवुन इव्का। नांवुन धंवेलें मडि लुगाट नेहोन खोळ घालुनु इव्का। ति नांवुन येताना कोणयि मुकाय्ल्यान आड उत्रानेहें। तिचेकडे कोणयी उलय्नाहें। तियेन सीदा देवा घरच्या वाग्ला मुकार येव्नु गवुन 'पड्डान कर्नां' मुन तीन पाव्टिं मांगाका। भितर ऊद्दू वागिल घाल्का। भितर लायिल्लो दिवो वाड्डाचाक ना।

ह्या पोंळियेक कुड्डवि 'सन्नां' मुन्ता। कोंगोल्यांनि वोळलेल्या दाल्तियांनि केळि पानां दवर्न फीट गेकोन उक्ड्चेलि। सग्ळि पोंळि उक्डुन दाव्सेर झेमेचाक ना। लुत्तु गिळचाक ना। उजो फुंक्चाक ना। कोणांकडे उलव्चाक ना। पान्पोड्डु खाव्चाक ना। पोंळि उक्डोन दार्तार 'पोंळि दालि' मुन आपव्न सांग्चाक ना। उक्डोन दातरि साधार्न चार जामां दाता। त्या वेळार तियेन कहोलोयी एकु सब्द करुन सूचन दिल्यार त्या सब्दाक येज्मान गकुन जाग्रण गवोका। त्या वेळार कुटुंबादार सग्ळे ओट्ट मेळटा। सग्ळे वाग्लाडे येव्न गव्लाना

यज्मान्यान वागिल काड्डा। तोवुळिं पोळि केल्ल्ये वाय्लेन भाग्र इव्का। तो दीस शिग्म्या पुन्वेचो दीस।

येज्मान एक नार्ल, एक फोप्ळा वीडो घेव्न कुटुंवादागं सांगाता मग्ळे भितर येता। सन्नाडे वीडो नार्ल दवर्न, पांयां पडुन नार्ल भेत्ता। भेत्लेल्या नार्लाचा काट्लेच्यो शिगे करून (कुड्के कर्चाक ना) एका पोळियेक एक शिग दवर्का। ति पोळि कुटुंवा भाय्ल्या सुवामिनिक एक पोळि, एक शीग, वोवोग दोगांकयि एकेक, कन्याक (चेडुवाक) दोन, कुमाग्क (चेड्याक) एक, ओत्त्या दाल्र्याक एक, ओत्त्या वाय्लेक एक - ह्या लेकान कुटुंवा भाय्ल्यांक दिव्का। अल्र्या ग्विाजि प्रकार वाड्यांत घराक एक मोर्याद दिव्का। आतान हें क्रम ना। उर्लेल्या सन्नांत मेळळेल्या हग्एक्ल्याक एकेक कुड्को प्रमादा रूपार दिव्का। पोळि केल्ल्या वाय्लेक एक सन्न, एक शिग काट्लि दिव्वेलि मोर्याद। मागिग उर्लेलिं सन्नां म्हल्घड्यां घर्काड्चा येज्मान्याक आनि गुर्कागक वाटे कर्ता। हें सग्ळें दाल्या मागिग वीडो काडुन सग्ळयांनि पान्पोड खाव्वें।

पोळि कर्चाक तांदुळ घाल्ल्या मागिर खेळगाडि मांड देंव्ता। फोर्तुन मांडाग येव्न त्ये गेल्या मागिग कहलियी पोळि भाक्रि कर्येत। तेदोळ भितग कहलियी पोळि भाक्रि कर्चाक ना। एका वेळेक हेर घर्काडे पुन्वेचो सेवियो करय्ल्याग्यी, मांडाय्ले खेळगाडि देंवासेग ति पोळि घगंत हाड्चाकयिना। घर्काड्चा मन्शांनि खाव्चाकयी ना। त्या दीस देवकार्ये आहाल्ल्यान साकानिं फळाहार दाल्या मागिर पोळि केल्ले वाय्लेन नांवुन सिताक तांदुळ घाल्का।

चेड्ये खेळगाडि साकानिं उस्के फुलां घेव्न येता। ईल्ल्ये चेड्ये सीदा मांडार इव्चाक ना। ते मोगांट्या भाग्र रावोका। गुर्कार आनि येज्मान त्या वेळार मांडार आवोका। तिनिं चेड्यांक दोन गुम्टां भाग्र दिव्का। चेड्ये तिं गुम्टा व्हाजय्त, खेळात्त मांडार इव्का। येताना हें गानें गांव्का।

पच्यारे पचा पचा,पचा थापिया

पच्यारे पचा पचा, फीट थापिया

इहि ईल्ल्ये चेड्ये तुळमिक दिव्ळाक एकु भोंवांडो खेळुन मांडार पांच गानिं गांव्का। इट्लें दाल्या मागिर चेड्यांक एकु नार्ल, वीडो आनि इल्लें गोड दिल्यार चेड्ये भाग्र थाग मार्चाक उय्ता।

हाच्या मागिर मांडार देवा घगंत गुर्कारान तांदूळाच्या फिटान पांच जिड्यांचा मर्पाचें रूप करून केळिच्या पानांत दवर्का। वोनांत येज्मान्यान नितळ करून रोनिलागिं गोर्या माप्या रुकाचो फाटो लाव्का। गुर्कागन कुटुंवा भाय्ल्या, दोगां दाल्र्यांचे पाये धुव्का। ताचा

मागिर घरा भितर येव्न केळिचा पानांत दवर्लेलें सर्पाचें रूप पान समेत हर्वाणांत दवर्न तुळसि मुकार हाडुन दवकां। आदिं गुर्कारान पूजा करून, नार्ल भेतुन नागारूपाक दूध रकल्या मागिर कुटुंबांत चेडो दाल्लो हर एक्लोयी दूध रकय्ता। वाय्ल मन्श्यांक नागाक दूध रकच्याक धार्मिक पर्वाणिग ना। एक दोन तांवियें दूध नागारूपाक समेत आंग्णांत रकत्ना। ते दूध मुणें हाप्डानाहाल्ल्यावीरि उदिक रेकोव्न अर्पुका। ताच्या मागिर नागा रूप आहाल्लें पान हवाणांत दवर्न वोनांत वांरेका। रेनिड्ये हर्वाण दवर्चाकना पान दवका। पांच वीड्येंयि दवका। नागा रूपाक दूध रेकव्न, रेनिक दूध रेकोव्का। पांच वीड्यांत चार वीड्यें काड्येंत, एक वीडो थयित्त सोड्ढा। तीर्थ नार्ला वोळयांत काड्डुन तांवियात घाल्का। हाचा मागिर गुर्कार आनि माल्घड्या घर्कांड्चा येज्मान्यान रेणित हात घाल्नु प्रसाद (मृत्तिक, रेणिंल्लि मांव मात्ति) काड्ढा। ईहि काड्ढलो मृत्तिक प्रसाद हर्वाणांत घाल्नु मांडार हाडुन तुळसि मुकार दवर्न मेळ्ळेल्या सग्ळयांक बट्टाडे कर्ता। कुटुंबांत कोणाकयी ईस हाप्डाल्यार हो प्रसाद आनि तुळसिंल्लि मृत्तिकेत्त वोकाद दाव्न उप्योग दाता।

देवा घर्कांड्ये देवकार्याचें जेवाण दाव्न, तेल पुसुन, फुलां माळुन दाव्सेर चेड्ये खेळगाडि नांवुन येव्न गुम्टां पूजा करून भाग्र तयार रव्ता। ते दोन गुम्टांनि थोडि काट्टि घाल्न घेव्न येता। तिकां आनियंक गुमाट भितर लागुन दिव्का। मांडार आहाल्ल्ये सग्ळे भाग्र ऊब्ब चेड्यांडा गुम्टां खेळ घेव्न मांडार येता। भितर येताना हें गानें गाय्ता।

सेतु खंडेतो रामु मारगे (2)
रामु मारगानि गेला पारेगे
रामा लागल्यो सागोर खेळों वोडी
रामन मारयाल्यो जळां मोधें वोडी
रामु उतरलो अल्तडि पोल्तडि
ओ रामु उतरलो पुयिल्या तडी

हें गानें गाय्न, गुम्टां वाजय्न, दिव्लाक प्रदक्षिण येव्न तुळसि मुकार काट्टि हुम्तिता। ति काट्टि मेळ्ळेल्या सग्ळयांकयी बट्टाडे कर्ता। इट्ट्यार मेदेरि वाड्यांल्लें शिग्म्या पुन्वेचें क्रम अख्रर दाता। (माहिती: **वावण्ण मेदेरि**)

कोडियाळ नेत्रावतिं नंय पल्लाडि, गणिपुरलाग्गिं 'कुत्तार' नांवांचो कुड्व्यांलो एक वाडो आहा। ह्या वाड्यात शिग्म्या पुन्वेक 'उज्या ओंक्लि' दाता। हेंगा वाड्याचि एक वाय आहा। 'ह्या वायंल्लें उदिक पवित्र। तें नांव्ल्यार उज्याचें भ्यं ना' मन्चेलें नंविके

आसा। शिवरात्रिक सुरु केल्लें खेळमेळाचें अभ्यास पुन्वेचा आल्यां दीस भितर चल्ता। शेम्या पुन्वेचा सांजेर वाड्यागार खेळगाडि सग्ळे त्या वांय्चें उदिक नाव्ता। रत्ति साधार्न नोव घंट्यांक रायभार्यागेर आंगणांत सग्ळे वाड्यागार मेळुन खेळ खेळटा रायभारि तळि करुन खेळगाड्यांक गौरव दिता। तळि कर्ताना पात्रि खुव्ळाचेलें वाडिके आसा। खेळुन झाल्लेंत खेळगाडि देंवुन गुर्कारगल्या सांडार खेळु घेव्न येता। यथा प्रकार हेंगा गुम्टांर खेळु सुरु दाता। तळि करुन गुम्टां खेळ गवय्ता आनि तोणियां खेळु सुरु कर्ता। विविध प्रकारंचो तोणियां खेळ वाड्याचे खेळगाडि आनि सग्रे खेळगाडि खेळटा। ह्या वाड्यांत खेळगाडि सुरुंगार करिना। फुलां झेले घाल्न तुळसिक सुरुंगार कर्ता।

साधार्न बारा घंट्या वेळार तुळसिलागिं पोन्साचिं लांक्डां दाळुन उजो लाय्ता। ताचे इंग्ळे दाव्सेर कट्टकट्ट्या प्रकार तोणियां खेळ खेळतेत आस्ता। सेतु वांध्चेलें गानें सुरु कर्ताना तीरदान पात्रि खुव्ळाता। तेदोळ लांक्डां जळोन इंग्ळयांचि रास जाता। ह्या इंग्ळयांचे रासिर आद्दिं पात्रि उड्टा। पाट्ल्या हरएक्लो तोणियां खेळगाडि खेळात खेळात त्या इंग्ळयां रासिर उड्टा। हि एका लेकान इंग्ळयांचि ओकुळि सुन्येंत। पांच भोंवांड्ये इंग्ळयांत खेळळया मागिर 'उजापोट' गांव्न तोणियां खेळ गवय्ता। इंग्ळयांचि रास फिटो दाव्न करि दाता। गुर्कार पात्रि ती करि आनि तुळसिंत्लिं फुलां, प्रसादा रुपार सग्ळयांकी दिता।

आम्घेल्यो पुरातन परंपरेच्यो विधिविधानां, नंविके, संप्रदाय, नडवळिके पूर्ति दाव्न श्रद्धेक मात्र सीमित दाय्नासि ताजा फाट्ल्यान वैज्ञानिक दृष्टिकोन आसा। आय्चें आधुनिक जनांग आम्घेल्यो रितिरिवाजि, पर्वो, नंविके नडवळिके, आचार विचार सग्ळे मूढनंविके या रोड्डु संप्रदाय म्हण कोन्श्याक लोकुचें आनि तिरस्कार कर्चें वेजारायेचि संगत। हाच्या बद्लाक ताच्या फाट्ल्यान वैज्ञानिक निज कांय आसारी म्हण संशोधक दिष्टिन चिंतन कर्चें बरें। एक दोन दृष्टांत दिव्चें दाल्यार - दिष्ट काड्चेलें क्रम। हें एक मूढनंविके म्हण सुल्याक लोकोव्चेल्याव्यिरिं ना। हातिंत सीट मिर्सांग घेव्न, सग्ळया आंगाक निवाळुन। त्या सुखांतर वाय्ट दीष्ट, वारें या खंच्येंयी दूख पय्स कर्चेल्या क्रियांतयी सोन विशेस रितिन वाव्र कर्ता। इट्लें मात्र नू। देवालें किरिट मात्याक लाव्चें, तीर्थ घेव्चें, गंध निड्ळेक लाव्चें, भस्म पुस्चें, आंगोव्ण कर्चें - हें सग्ळें सोनाक शांति समाधानाचे संकेत धाड्ता। बरें दाता म्हण्चेलो विश्वास आद्दिं दाव्का - उर्लेलें आपापिं दाता। ह्या आत्मविश्वासाक, सोनाच्या संतोसाक, जीवनाचा शांति समाधानाक - पर्वो, पोलि आचरणांत ईल्यो म्हण्येत। पर्वो आचरणान सुकाय्ल्या जीवनाक स्फूर्त मेळटा।

# कुड्ति बोलिचि सब्दांवळ

दाव्र - जाव्र
देहेल्यो - दिस्ल्यो
दख्त - जख्त
पोड्चेलें - पड्चेलें
येळचेलं - व्हाळचें
मोंम्दिर - दर्यो
मुख्लो - पळय्लो
वद्काचाक - जियेंव्क
मुव्वाक - पळेंव्क
दाव्का - जाव्का
विधिक - गितिक
नाहाल्लो - नातल्लो
दालो - जालो
मुन्त्यार - म्हळयार
पोर्मळ - पर्मळ
जीवाक - कुडिक
दाव्वंले - जाव्वे
दिस्चेल्यो - दिस्चो
आम्घेल्या - आम्चा
मोंना संतोसाक - मना संतोसाक
पुंदायिल्ल्यो - पुंजायिल्ल्यो
माहळि - मासळि
येहेल्या - असल्या
म्हण्चेल्याक - म्हण्चाक
इव्जेल्यो - इव्वो
कर्चेल्या - कर्चा
दाग्जाहाल्लि - जाग्जासल्लि
आहा - आसा
धापुन - धांपुन
नोम्गोल्या - पात्यल्ल्या

देवालें रूप - देवाचें रूप
जीवनांत - जिण्येंत
उर्वोन - उरव्र
देहेल्यार - दिस्ल्यार
दाल्ल्यान - जाल्ल्यान
प्रवृत्तिचे नू - प्रवृत्तिचे नैं
वेट - वोंट
बोद्कत्त - जियेत्त
दाव्र आहाल्ले - जाव्र आसल्ले
आहाल्ले - आसल्ले
लागुन - थाव्र
इहि - असें
उख्चेलि - वेचि
नेव्या - नव्या
गानिं - पदां
वोगेप - वरप
घोडोव्र - घडव्र
दोवर्ल्या - दवर्ल्या
खच्चियी - खंच्चियर्यी
नू - नैं
दाल्ल्या - जाल्ल्या
मोनांल्ल्या - मनांल्ल्या
मानमान - ल्हानल्हान
सर्गिदाल्ल्या - सर्गि जाल्ल्या
नाहाल्लो - नातल्लो
लागुन - थाव्र
नाहल्ल्यान - नातल्ल्यान
उख्ता - वेंता
मुन्चेलो - म्हळ्ळो
धलख्ना - जलख्ना

| | | | | | |
|---|---|---|---|---|---|
| थाग | - | गुम्टा पदांचो एक थर | भिजाच्या | - | भिजात |
| गुत्तांचा | - | मानाचा (गुत्तु-तुळु) | उय्चाक | - | वेचाक |
| वाकेरांत | - | विशाल गाद्यांत | धेवेलें | - | धोवें |
| कवो | - | Y आकाराचो खांदो | नेहोन | - | नेसोन |
| घाडि | - | Magician | मुकाय्ल्यान | - | मुक्त्यान |
| हाप्डाच्या | - | हाप्डोंक | उत्रानेहें | - | उत्रोंक नजो |
| नाजें | - | नजो | उलय्हाहें | - | उलंव्क नजो |
| भोट | - | पुरोहित | उलय्नाहें | - | उलंव्क नजो |
| मुड्डा | - | उदेंति | ऊह्लु | - | वचोन |
| म्होळबार | - | म्ळळबार | लायिल्लो | - | पेटयल्लो |
| खेळगाडि | - | गुम्टांगार | वाड्डचाकना | - | पाल्वंव्चाक ना |
| मुग्दाता | - | संप्ता | कहोलोयी | - | कस्लोयी |
| दार्ले | - | दाद्ले | तोवुळिं | - | त्या वेळा |
| दुर्वोळये | - | दुब्ळे | इव्का | - | येंव्कजाय |
| जेवोण | - | जेवाण | वोवोर | - | घोव बाय्ल |
| नेविं लुग्टां | - | नविं वस्तुरां | मोर्याद | - | मान |
| येक्षियेंत | - | चिंत्येंत | कहलियी | - | कसलियी |
| मुय्ल्यार | - | पलेय्ल्यार | थेदोळ | - | त्या वरेग |
| किहि | - | कशें? | आहाल्ल्यान | - | आसल्ल्यान |
| पूय्स | - | पय्स | साकानिं | - | साकाळिं |
| देहां | - | दिसां | उस्के फुलां | - | एका तराचिं रानफुलां |
| ओलें | - | अशुद्ध | रावोका | - | रावोंक जाय |
| आर्ल्या | - | आद्ल्या | आवोका | - | आसोंक जाय |
| ऊह्न | - | वचोन | जिड्यांचा | - | तक्ल्यांचा |
| किया | - | कित्या | बोनांत | - | नागबनांत |
| तिहि | - | तशें | रोनिलागिं | - | रोळिणलागिं |
| सोग्ळोलो | - | सग्ळोलो | गोर्यासाप्या | - | गोर्या चांप्या |
| दोळुन | - | दाळ करुन | फाटो | - | फांटो |
| वोहाका | - | बसाजाय | रकय्ल्या | - | ओत्ल्या |
| घाल्का | - | घालुंक जाय | बट्ठाडे | - | वांट्चें |
| काड्का | - | काडिजाय | ईस | - | वीक |



# चूडिपूज महत्व


अनुपम शेणै

प्रति एक समाजाक अपण्याले जाव्नासल्लि एक संस्कृति अस्स। संस्कृति आनिक समाज ओट्टूची मेळनु अस्स। एक समाजाचि कीर्ति, अभिवृद्धि या सुसंस्कृति कोळका जाल्यारि त्या समाजानुले जनांगले रीति रिवाज, आचार विचार पृगय अथुं कोनु रब्का। समाजाचे रिति रिवाज, संप्रदायु मनुष्याले जीवनांक एक अर्थ दित्त। सन्मार्गचे चौकट दित्त। गौड सारस्वत ब्राह्मण समाज तांगले जाल्लले विशिष्ट रीति-रिवाज, आचरम, आहार-विहार, देवु-धर्मु आनि विचारांतु संपन्न जाव्नस्स। मुख्य जाव्नु आचरण कोर्चे धार्मिक संप्रदाय पैकि चूडिपूजा, वायुण पूजा, तुळसि पूजा, अष्टमि, चौति, नोंपि, नवरात्रि मुख्य जाव्नास्सति।

सारस्वत समाजांतु विशेष जाव्नु चूडि पूजेचि महत्व विशिष्ट जाव्नस्स। पुरुष प्रधान समाज जाव्नु आस्ल्यारिय स्त्रीयांक लक्ष्मीले स्थानमान गौरव दिल्लां। देवु-धर्म आचरण कोर्च्याक, संप्रदायु वोरुनु हाड्च्यांतु सारस्वत स्त्रीयांगेलो पात्रु भारि प्रधान जाव्नस्स। श्रावणाचे चूडिपूजा संप्रदायु सारस्वत स्त्रीयानि अनादिदाक्नु आचरण कोर्नु वोरेनु गेल्लां।

वरुषांतुले बार मासंचे पैकि श्रावण मासुचि सर्वश्रेष्ट म्हण्ताति। श्रावण मासु कृष्णालो मासु जाव्नस्स। प्रकृतितु वर्ष ऋतुचे जडत्व ऊणे जत्ताचि चेतन्य मय जाव्चेक प्रारंभ जात्ता। भूंय्चेरि सृष्टिचे चित्रविचित्र रिनिचे सस्य संकुल चिरुर्ताति। श्रावण मासांतु मात्र सृष्टिचे हें विचित्र रम्य कलासृष्टि पोळोच्याक मेळता। जेष्ट आनि आषाडांतु आकाशारि गर्जन कोर्चे गुड्डुगुड्डु सिंचु श्रावणांतु ऊणे जात्त। काळे मोड कर्गुनु आकाशांतु पुल्लांचि मोड वोव्ताति। धरंदरि पाव्सु ऊणे जाव्नु पुल्लां पाव्सु मनांक आनंद दित्ता।

श्रावण मासचे ओट्टूचि पर्वाचि सरमाळ सुरु जात्त। नागर पंचमि, सुत्त पुन्नव, वरमहालक्ष्मि वृत, अष्टमि, मंगळगौरि वृत इत्यादि। अशिचि श्रावणाचे प्रति एकु दिवसूय पुण्यप्रद जाव्नस्स, श्रेष्ट जाव्नस्स। सारस्वत संस्कृति प्रकार श्रावणांतुले शुक्रवार लक्ष्मिदेविक आनि आय्तारु महालस नारायणिक सांगु चूडि पूजे समर्पण कर्ताति। श्रावण शनिवार तिरुपति वेंकटरमणांक अर्पण कोनु दाले मनिष 'श्रावण शनिवार' वृत कर्ताति।

जि.एस्.बि. समाजाचे सुहासिनि बाय्ल मन्शांक महत्व जल्लले एक रिवाज चूडिपूज। सुहासिनि तिरगेल्या अय्यपणांक, आरोग्य, चड्डुवाले वरपण आनि कुटुंबाचे सुख समृद्धि खातिर चूडिपूजेचे आचरण कर्ताति। चूडि पूज मुख्य जाव्नु सूर्यदेवु आनि भूदेविले उपासन कोर्चे। हे उपासनें निमित्त सूर्याले, तरगेले चड्डुव शनि आनि यमधर्माले अनुग्रह मेळता सांगु जनांक नंबिक अस्स।

श्रावणाचे हि चूडि पूजा सारस्वत आनि गौड सारस्वत लोकाले विशिष्ट आनिक श्रीमंत संस्कृति। चूडि पूज रीतीरि प्रकृति पूजा केल्लले सणक जत्ता। शिलामय जाव्नाशिले, या मृत्तिकेनु केल्लेल्ल तुळसिचे पूज कोनु, तांशीच विविध फुल ओट्टू कोनु चूडि बंदुनु पुजुंचे प्रकृतिक

...न्नत दाकोचे एक संकेत, विधान। प्रकृतिचे संभ्रमंतु मनुष्यनि मेळनु आनंद आचरण कोर्चेचि श्रावणांतु।

चूडि पूजेंतु तुळसि पूजेक मस्त महत्व अस्स। औषधीय गुण अश्चे तुळसि जड्डाक गौरव दिव्चे रीति हें। क्रिमिनाशक गुण अश्चे निमित्त तुळसी पल्लो तीर्थांतै गल्तातिं। तुळसी पूजेक सुर्वेरि तुळसि सुत्तु रंगोलि गाल्का। पाव्साडि पूर्ति सुग्दनात्तिले निमित्त रंगोलि शास्त्राक मात्र गाल्चे जात्त। सुमंगलिन पट्टे काप्पड नेस्सुनु, वंगार-शिंगार कोर्नु तुळसि कट्या मुखारि चूडि पूजुंकु रव्चे पोळोचेंचि चंदय। प्रायेचि वाय्ल मनिश जाल्ल्यारि आट्राति काप्पड नेस्सुनु कासु मर्तात (आर्तांचि शास्त्र अनुकूल प्रकार कोर्चे निमित्त वेप भूषणांचे प्राधान्य ऊणे जल्लां। भक्ति प्रधान जाव्नशिले हें तुळसि पूजा कार्यक्रम कर्तव्य मोणु लेक्कुनु पूजे कर्तलेय अस्सति। यांत्रिक जीवनाचे आय्चे दिवसांतुय 'पूल नंय पूल्ला पकळि' म्हण्ताचि संप्रदाय वोगेनु हाड्तातिं)

घरंतु वार्डिक कोर्नु हाळळले नवि वोकल आस्ल्यारि त्या घरंतु तुळसि पूजे संभ्रमु विंगडु। कुटुंबेच्या सल्गाडिं, इष्टमित्र सर्व मेळनु तुळसिक चूडि पूज कर्तातिं। नवि वोक्लेक सोगान आस्गेले संप्रदायु शिक्कोनु संभ्रम पाव्चे चंद रीति रिवाज हि चूडि पूजा। अस्सले रीति संप्रदाय जीवनांतु विशेष प्रभाव कर्ता।

चूडि बांदुचेय एक कला मोण्येत। पांच दिरवकोरु, ताज़े सुत्तांतु लायेमड्डो, गांट्ये मड्डो आरति, मन्नानांकुट, काय्ळेदोळु पूगय दोवोर्नु ताज़ि सुत्तांतु रत्नगंधि, दासवाळ, रथपूला, सुगंधि, सुगंधराज, शेवंते, जीन्या, केदकि, चंपे, शंखपुष्प, करवीर, नाना रितिचि परमळ पुष्प ओट्टु कोर्नु वायानि गट्टि गांटि गाल्चेंचि चूडि। नाना नमूनेंचि पुष्पंचे नाना बण्ण, परमळु मनांक आनंद दित्त। चूडि पुजेताना पोवा पंच्कदायि, लायि पंच्कदायि, नार्लुकेंळें, शीरा इत्यादि शक्त्यानुसार नेवेद्याक कोर्येत।

चूडिपूजेक सामाजिक महत्व अस्स। मनुष्य संघजीवि। बांधव्य वोगेनु गेल्यारि मात्र बांधव्य वर्ता आनि वड्ता। संप्रदाय वोर्नु येव्का जाल्यारि ताक्क एक रीति क्रमु खंडित जाव्का। मोणुंचि आस्गेले सल्गाड्यांनि श्रावणांतु अय्यपणा गृहिणिनि तुळसि पूजा कोर्का, चूडि पुजुक मोणु केल्लां। पूज जात्तरि कुटुंबेचा सल्गाड्यांक दीव्नु पाय दोर्नु आशीर्वाद घेत्ता तिं। समाजाचे सामरस्य जीवनांक अस्सलो क्रमु एकु वरदानु। सन्नानि सल्गाड्यांक गौरव दिंव्चो सल्गाड्यानि सन्नांक आशीर्वाद कोर्चे हे मधुर संबंध अनुभव मात्रेन अर्थु जात्त। परस्थळेरि अशिल्या सोयऱ्यांक, आत्मीयांक पूगय पोस्टारि पेटोन दीव्नुय आस्गेले संबंध वाड्डोयेत। कुटुंब कल्पन आस्गेले संस्कृतिचि आनि आस्गेले देशाचे अति सुंदर अंश जाव्नस्स।

देवु-धर्मु, प्रकृति-पुरुष, आचार-विचार, रीति-रिवाजेन समृद्ध जाव्नाशिले सारस्वत समाजांतु चूडि पूजेक विसिष्ट स्तान अस्स। आनिक हें एक समाजाक वरदान जाव्नस्स। चूडि पूजा मळयारि केवल एक रीति जाव्नस्सनशि, जीवनांतर्गत धर्मु जाव्नस्स। स्नेह, वात्सल्य, अभिमान, सोगु-भाय्पासु सर्वभावकय आधारु जाव्नस्स। पीळिगे दाक्कुनु पीलिगेक अंतर बांदुनु दिव्चे 'सौहार्द सेतुवें' जाव्नस्स हें चूडि पूजा।

(हें लेखन तयार कर्चाक सर्व रितिन मार्गदर्शन दिल्लेले श्रीमति चंद्रमति एस.राव, हांकां हृत्पूर्वक कृतज्ञता अर्पण)



# मरियेचिं पेस्तां


फा। यूजिन लोबो

आम्चे संस्कृतेक आनि धार्मिक रितिरिवाजिक एकामेकांचो लागिशलो संबंध आसा। कोंक्णि क्रिस्तांव समाजेन आचरण कर्चा फेस्तां पैकि मरियेचिं फेस्तां चड प्रमुख जाव्न आसात।

पवित्र सभेच्या आरंभा थाव्न मरियेक, आंक्वार मायेक एक घनाचें स्थान दिलां। ती जाव्नासा जेजुचि आवय आनि पवित्र सभेचि माता। जेजु देवाचो पूत जाव्नास्ताना ती देवाचि आवय म्हण प्रत्येक मान तिका दितात। सांगाताच तिचे थंय संस्वाचें पाप नातल्लें आनि ति पापाविण गर्भ संभव्लि आनि निमाणे कुडि आत्म्या समेत सर्गार चडल्लि म्हण इगर्ज माता आम्कां शिकय्ता। ती पात्येणि आम्च्या काळजानिं दवर्तांव। ह्याच मरियेक आमि सवार रितिनि मान कर्तांव। तिका हर्मितांव। तिचि महिमा गातांव। त्या देकुन आम्च्या माय भाशेचिं गायनां आसात।

"सगळया सक्तेन तुज्या उचार आत्म्या म्हज्या
आनंद मरियेचो तुज्या मायेचो
नमान नमान नमान मरिये, राणिये"

पवित्र सभेचो भावाडूत मरियेथंय अपरिमित। ती देवाचि माय देकुन आम्कां देवालागिंचि कुर्पा जोडुन दींव्क सक्ता म्हण आमि पात्येतांव। देकुंनच विशेस देवास्पण मरिये थंय जिवें जाता। आदिं थाव्न मरि मन्शा कुळाक मजत दिता। आम्चिं मागिणं आनि तेमांवां आय्काता आनि गर्ज आम्चो वस्तु देवालागच्यो मगोन दिता म्हळिळ पात्येणि आसा। देकुन मरियेच्या नोवेना वेळार जांव्दि, विशेस भेट कर्ताना तिचे लागिंचि कुर्पा मागतांव जेजु मुकांत्र आम्कां जोडुन दिंव्याक।

पवित्र पुस्तकांत मरिये विश्यांत आमि अशें वाच्तांव- ती जाव्नासल्लि आंक्वार चलि आनि हेरां जुदेव स्त्रीयां वरि मोड्डोण्दारक राकोन रावल्लि। आंज भड्डो गाब्रियेलान तिका इज्वि हाडल्लिच तिचि जिणि संपूर्ण बदल्ता। आपुण जाव्नासा म्हण देवाचि सेवकि। ताचें उतार आण्णा थंय निज जांव्दि म्हण ती मागता। ह्या उप्रांत तिचि जिणि देवाक समर्पिल्लि आनि थंय्सर देवाचें प्रतिरूप ती वांटुन दिता। एलिजबेतिच्या घरा ती पावल्लि आनि थंय्सर जुवांव बाव्तिस्ताचें संस्थाचें पाताक निनळ जाता। उप्रांत बेत्लेहेमाक वेताना आनि थंय्सर जेजु जल्मानाना, संसारचेर समाधान ती हाड्ता।

"शांति वर्या मनाच्या मन्शांक संसारिं"

म्हण देवदूत पर्गट कर्तात। हेरोद राय जेजुक नाश करुंक पळय्ताना ती वाळकाचि राक्वण कर्ता। उप्रांत देवाळांत जेजुक समर्पिता। ताका देवाक पाटिं दिता।

मरियेचें संपूर्ण समर्पण जाता खुर्सामुळिं। थंय्सर ती उबि राव्ता आनि आप्ल्या पुताक संसाराचे सोड्वोणेक समर्पुन दिता। थंय्सर जेजु तिका शिमां मुकांत्र आम्च्या समाजेक समर्पुन दिता। ताचे उप्रांत तिचें स्थान ऊंच जाव्नासा। सेनेक्लांत स्पिरित मांत देंव्ताना थंय्सर ती आस्ता। आनि थंय्सर आरंभ जाता पवित्र सभा। हाचे उप्रांत मरियेक प्रत्येक स्थान इगर्ज मातेन दिलां। तिच्या नांवान सवार फेस्तां मांडुन हाड्ल्यांत। ह्या थोड्या फेस्तांचो विवर आमि पळव्यां।

**1. मरियेचें जनन - सप्टेंबर 8:**

पवित्र सभेंत तीन जल्मा दीस मात्र आमि आचर्सितांव। जेजु, मरि आनि जुवांव बाव्तिस्त। देवान तांकां संय्वाच्या पात्का थाव्न विशेस थरान राकल्लिं। सत्तेंवराच्या आट तारिकेर दवाजान हें फेस्त आचर्सितांव। देकुन आम्च्या माय भाशेंत हें कंतार आसा।

"नवाल वर्तोवालां, सर्ग उज्वाडाला

सांत आन्नाचे उदरिं, माणिक जल्मालां"

मरि खंय्सर जल्माल्लि म्हण सार्कें कळित ना। जेरुसलेमाच्या शहरांत जल्माल्लि म्हण्णि पात्येणि आदिं थाव्न आय्ल्या। हें फेस्त सव्या शतमानांत सिरिया गांवांत प्रारंभ जालें। उप्रांत सग्ळया इगर्जमातेक पर्गट केलें।

आम्कां मंग्ळुरगारांक मरियेचें फेस्त संप्रदायिक आनि महत्वाचें जाव्नासा। ह्या दिसाक आमि 'नवें जेंव्वें' फेस्त म्हण्तांव। भाताचि कण्शि पुर्शांवार इगर्जेक व्हरुन मिसा वेळार बेंजार कर्तांव आनि भक्तेन घरा हाडुन कुट्माच्या सर्व सांद्या सांगाता एक्वोटाचें जेवाण जेव्तांव। त्या दिसा रांद्वयेचें जेवाण आनि दूदांत व नार्लाच्या रोसांत भर्मिल्लें नवें सेव्तांव। सांगाताच इगर्जेंत भुर्गिं फुलां उडव्न मरियेक मान कर्तात। ह्या दिसा कोंवु वांट्चि रिवाज चलोन आय्ल्या। ह्या वर्विं मरियेक आनि प्रथ्वेक आमि मान कर्तांव।

**2. मरि देवाचि माय - जनेर 1:**

नव्या वर्सा दिसा आंक्वार सांय्बिण- "मरि देवाचि आवय" फेस्त आमि आचर्सितांव। ती जाव्नासा जेजुचि आवय। जेजु जाव्नासा देवाचो पूत। त्या देकुन ती देवाचि आवय जाव्नासा म्हण इगर्ज माता पात्येता। ह्या वर्विं जेजुच्या देव्पणाक मरियेन जल्म दिलो म्हण आमि पात्येतांव। सास्णाचो देव मन्शापण घेताना मरियेच्या उदरिं ताणे मन्शापण घेत्लें। देवपण आनि मन्शापण ताचे थंय एक जालें।

... इस्वेत जनेराच्या वावीस तारिकेर एफेज गांवांत मरियेक हो मान पावित जालो। ह्याला चलल्लि महासभा मरियेचें मायपण पाचार्ता आनि मरि देवाचि आवय म्हण सगारक काळत कर्ता। त्या काळार नेस्टोरियस म्हळ्ळ्या हेरेतिकान मरि देवाचि आवय न्हंय म्हण उचाल्लें। त्या रातिं दिवे आनि वाति घेव्न लोकान मरियेचो मान पाचारल्लो। दुसिर वातिकान सभा हें मत पत्यांन उचार्ता आनि मरियेक वर्तो मान दिता।

**3. मरियेन जेजुक तेंप्लांत भेटयिल्लें फेस्त - फेब्रेर 2:**

मोय्जेच्या नियमा प्रमाणे मरि जेरुसलेमाच्या तेंप्लाक चाळिसाव्या दिसा वेता आनि थंयसर जेजु बाळकाक देवाक समर्पिता। सांगाताच नियमा प्रमाणे मरियेक शुद्धीकरण करुंक आसल्लें। आंक्वार मरि हो काय्दो संपूर्ण थरान पाळता। हें फेस्त पवित्र सभेंत चोव्या शतमानांत आचरण करुंक सुरु केल्लें। 526 इस्वेंत कानस्टांटिनोपलांत (Constantinople) आयिल्लि प्लेग पिडा मरियेचा दयेन गूण जाल्ल्या वेळार सगळ्या संसाराक तें विस्तारल्लें। इक्राव्या शतमानांत वाति बेंजार कर्चि रिवाज आरंभ जालि। त्या दीस पेटयिल्ल्यो वाति घेव्न, पुर्शांव काडुन क्रिस्तांव लोक-

"जेजु संसारचो उज्वाड आनि देवाळांत महिमेन रिगल्लो दीस" म्हण उचार्तलो। पुर्शांवार इगर्जेक पाटिं येताना, बाळका जेजुक हातिं घेव्न याजक तांकां स्वागत कर्तालो।

**4. मरियेक इज्वि हाडल्लें फेस्त - मार्च 25:**

गाब्रियेल भड्डो मरियेक इज्वि हाडुन, ति देवाच्या पुताचि आवय जार्तलि म्हण उग्डापण केल्लो दीस हो। संसार रकोन आसल्लो दीस हो। 'नमान कुर्पेन भरल्लें' म्हण तिका तो नमान कर्ता आनि मरि देवाक जवाव दिता- आपुण जाव्रासां देवाचि चाकर्न आनि ताचें उत्तार आप्णा थंय ज्यारि जांव्दि म्हण ति खाल्लि जाता। क्रिस्तांव ससोड्तिंत हें फेस्त आचरण करुंक सुरु केल्लें।

"देवाच्या उग्डापणाचें फेस्त" म्हण हाका सांग्ताले। 431 इस्वेंत एफेजाच्या सभेंत हें फेस्त सगळ्या संसारांत आचरण करुंक सांग्लें आनि मरियेचें स्थान मन्शा कुळाच्या मोड्डाणेंत वर्ते म्हण ठवर्ले। आजयी इगर्ज माता होच मान तिका दिता। आंक्वार मायेन सांत जेत्रुदाक आपुण दिश्टिक पडल्ल्या वेळार सांगल्लें। "कोण तरी भक्तिन आनि रतोमान म्हजो उग्डास काड्ता आनि हांव जाव्रासां सोंसियाचि चाकर्न/ चाकोर म्हण्ता" ताचि तीज आवय हांव जार्तलिं आनि तांच्या सर्व गर्जाक हांव पाव्र्तलिं।

(मुंदरुंक आसा)



# रांद्पा कूड आनि साहेत

## मन्शाचो इतिहास आनि भुके खाणाचो उगम



ग्लेडिस रेगो

मन्श्याचो इतिहास पळेल्यार केदाळा मन्श्यान उजो ोदुन काड्लो, तवळ थाव्न जेवाण-खाण शिजव्न खांव्क ताणे आरंभ केलें। माट्यांनि, रुकाचा मुळांनि, मन्जातिंवरि जियेंव्च्या मन्श्यान, मन्जातिं आनि हेर जीविं थाव्न वोरेविंगड - झडां-पालो, मोड्लां-तङ्यो, क्रमेण मातियेच्यो वोण्ति, रुकाचिं फोळिं। ह्या सर्व माहेतिंनि आडोस कर्न जियेंव्क लाग्लो मनिस।

डार्विनाच्या तत्वां पर्माणे भुमिच्या वय्र आसल्ल्यो मन्जाति विकास जायित्त, अभिवृद्धि जाव्न, परिवर्तन जातां, कालांतरंत मनिस म्हळिळ जीवि विकासित जालि। तशेंच फात्रा थाव्न फात्रा वडय्ताना, उज्याचिं किटां उसाळतालिं। रानां वोलिं जळोन वेताना, तांत्ल्यान शिर्काल्ल्या मन्जांतिंचें वाजलें, शिजल्लें मास, दाड्यांनि वोड्न खांव्च्या जिव्या घट नार्कुट मासाप्रास रुचीक आनि चावोंक सलीस म्हण भग्ताना, सव्कास शिजयिल्ल्या मासा-खाणांचि रूच मन्श्याक लाग्लि।

उजो फकत्त मास शिजंव्क न्हय। उजो म्हळयार उन्माणेचो संकेत। हिंव थंडियेक मार्न धांव्डांव्वें साधन म्हण। मन्श्याक कळित जालें। क्रमेण जिवे खांदे-गेड्डे आहार जाव्न उपयोग्सिल्ल्या ताका सांगाता शिकारि करुंक, वेवसायि-वेसाय करुंक, गुड्मुलां वांदुन जियेंव्क लाग्लो मनिस।

मन्श्यान जिवें मास-गेड्डे खाताना आसल्ले ताचे व्हड्ले व्हड्ले दाडे। शिजयिल्लें खाण खांव्क धर्ताना, ल्हान ल्हान जायित्त आय्ले। आप्ल्यो अभिप्रायो हेरांक सांगोंक अवश्य पड्ताना, मनिस उलंव्क शिक्लो। कोड्किं, गुड्सुलां वांदुन, फातर सफाय कर्न धर्ण, धर्तेक मन्जातिंचें चाम्डें हांतुळन उव्साणेंत जियेंव्क धर्ताना, ताचें चिंताप वृद्धि जायित्त विकासित जालें।

मन्जातिं सांगाता जियेल्लो मनिस संस्कृतिक जायित्त वेताना, आप्ल्या विडागंत ताणे कुडां घड्लि। मोपो, गुडामोपो, चाव्दि, साल, रांद्पा कूड, नाणि, काकुस, झाल-आंगण, उप्रांत कुडांनिय प्रतेकता, निद्चें कूड, जेंव्चें कूड, शिक्चें कूड, सय्र्यांचें कूड, अशें मन्श्याचि नागरिकता वृद्धि जाल्ले वरिच्च, ताचें बिडार विस्तार्लें।

आम्च्या पुर्वज जनांच्या समुदायाचें सुख- दूख, फेस्तां - पर्वेंचे उल्लास, भगेन

आमल्ल्या निर्धिस्ट जीवनाचो मुख्य वांटो जाव्नामा खाण-जेवाण। हें तयार कर्च्यांक गंदाप म्हणतात। गंदाप तयार कर्च्यां कुडाक गंद्पाचें कूड म्हणतात। मन्श्याच्या महज आशा-आपेक्ष्यांनि भुक मूळवून जाव्नामा। भुक म्हळिळ वांड तृप्ति करुंक, मन्श्यान वापर्चि वस्त आहार जाव्नामा। आहार तयामुंक वापर्चि माहेत गंद्पा कुडांत्लि माहेत, जिंद्रि, सामाग्रि।

गंद्पाचें कूड मन्श्या विडागंत प्रमुक स्थान घेता। थोड्या घरांनि गंद्पाकूड आद्ल्या काळार भाग्र, घर थाव्न विंगड आस्तालें। गंद्चें कूड तें भाग्र वा भितर, खंय्सरी आसां, बरें उज्वाड, वारें, भितर मार्कें गुंवोन भाग्र गेल्यार चड बरें।

गंद्पाकुडाचें थळ हेर कुडां प्राम एक दार्वोंत। एक मेट चडोंक उबार आस्ता। गंद्पा कुडाक पय्लो मान म्हळ्ळो हाचो अर्त। गंद्पाकुडा थाव्न हेरं कुडांक एक मेट देवोंक शिवाय, चडोंक आसानात्लें।

"गंद्पाकूड आनि माहेत" प्रबंध तयार कर्तांना हांवें चड कर्न दक्षिण कन्नडाच्या "क्रिस्तांव कोंक्णि" समाजेंत्ले गंद्पाकूड विंच्लां। पूण? हांगाचे क्रिस्तांव मूलंत हिंदू जाव्नामल्ले। पयिल्ल्या शतमानांत, म्हळयार पांच्व्या दशमानांत, क्रिस्ताचो शिस सां तोमास भारताक येतच्च, क्रिस्तांव समोड्तेक मतांतर जाल्यारयी आद्लो संप्रदाय, आचरण, संस्कृति ताणि उरव्न घेल्लि आनि थोडि थोडि बद्लावण, बद्लाल्ल्या समोड्तिचो थर रूढ कर्तांना, वास्तुशास्त्रिग पर्माणे घरं बांद्ताना, कुडां घड्ताना, प्रतेक जाव्न गंद्पाकुडाचि वांटावळ सम्मिश्र संस्कृतेचो उजार जालो।

कोंक्णि माय भास जाव्नास्च्या आदिं हिंदू क्रिस्तांवाचि चरित्रा, इशिल्या तेंपार हरप्पा मोहेंजोधारांच्या खोंड्फांत भाग्र उस्पाल्लिं पुरातन निर्माणां पळेल्यार, सिंदू खंद्कांनि नागरिकतेच्या वास्तुशास्त्रिगचें चिंताप वारिच्च चड्तिक माफान आसल्लें म्हळयाक रूप रूप रुज्वात्यो लाव्ल्यात।

वेदकाळाच्यार्को आदिं आर्यवर्तांत वास्तुशास्त्र अभिवृद्धि जाल्लें म्हळयाक, हाचे वर्ति रुज्वात दुस्रि ना। चोव्दाव्या शतमानांत, पोर्चुगीस भारताक येतच्च, आस्चि संस्कृति, आचार, संप्रदाय, बद्लोंक लाग्ले जाल्यारि, हिंदू आर्यांन संस्कृतेचे आनि वास्तु शास्त्रिगचे विचार आसि सांड्ना।

## घरांत गंद्पा कूड

ह्या पर्माणे-गंद्पाचें कूड घर भितर रिग्ताना, दाव्या कुशिक साला थाव्न एक धार्वोंत उबार कर्न बांदचें, मुड्डा-नेन्काच्या मदेगात्त (Midle of South-East) आग्नेया दिक्काक गद्ण्यो घाल्च्यो, आग्न म्हळयार उजो। हिंदू संस्कृतेंत आग्निक चड महत्व आसा। वास्तु शास्त्रिग पर्माणे आग्नेया भलार्य्केक मूळ म्हण्तात। आग्नेया दिक्क आग्निक साक्स दिता। देकुन घर भितर रिग्ताना, आग्नेया कुशिक कूड्न, कुडाच्या आग्नेयाक गंद्दिण घाल्च्यो,

उत्तम पद्धत आम्चे मधें आसा।

उदेंति सुर्यो उदेव्न येंव्चे कुशि थाव्न कूव्न आसोंक जाय। कुव्नाथाव्न हरएक चलन-वलन सुर्याबरि प्रजळोन, भरोनंच्च, अंत्यनास्ताना, आसोंक म्हळ्ळो हाचो अर्त।

## रांद्पा कुडांत रांद्रिण

कूव्न-रांद्पाकुडांत रांदुण पड्लाक मुक कर्न, रांदाप कर्तेल्यांनि मुड्लाक मुक कर्न वस्थ्यावरि आम्चे वांद्पा मेस्त्रि रांद्ण्यो बांद्तात। सकाळिं आदेसाक सुर्याचो तर्नो प्रकास, रांद्पा कुडाक मार्न, पड्लाच्यान भाग्र व्हाळताना, रांद्पा कुडांत्लि क्रिमि - किटां, वाय्ट दळिदरां, जळोव्न पड्लाचान भाग्र वेतात म्हळ्ळें, आम्च्या पुर्वजांचें चिंताप, पात्येणि।

शास्तिरा प्रकार सकाळिं फुडें पयिल्लें उटल्ल्या स्त्रीयेन, रांद्पाक आरंभ कर्च्या आदिं, रांद्पाचें कूड नितळ कर्न, म्हळयार? पयिल्लें गोर्वांच्या शेणान रांद्रिण, रांद्रिणचो खुर, रांद्रिणचें पोर्ल आनि वोंव्तोणि शेण पुसुन, धाव्या रांद्रिणंत भरल्लो गोबोर कस्ताळ, भाग्र व्हर्न, उज्व्या रांद्रिणंत्लो गोवोर धाव्या रांद्रिणंत उस्फोन, उप्रांतच उज्व्या रांद्रिणक उजो पेटंव्चो घर्चा स्त्रियेचें लक्षण। तिचि संस्कृति, तिचें शास्तिर पुरुश प्रदान भारतीय संस्कृतेंत, स्त्रीयेचो दीस रांद्पाकुडांत आरंभ जांव्चो।

## रांद्पा कुडांत बांदुन हाडल्लि साहेत

रांद्पाचें कूड म्हळयार? एक म्यूझियमाक सरि कर्येत। एक कलात्मक कलेचि कृति। एक रास ल्हान व्हड वस्तुंचें संगम। एका लान्श्या कुडांत, रांद्पाक जेव्णाक संबंध जाल्ल्यो इत्ल्यो वस्तु त्या त्या जाग्यार दवर्चिंच्च एक कला जाव्नासा। त्या एदेश्या कुडांत इत्ल्यो वस्तु एकामेकाक आद्ळानास्ताना दवर्न, इत्लें रांद्पाचें काम कर्चें, भरल्ल्या घरांत्ल्या पंच्विस तीस जणांक, तांचि तान भुक, वेळा वेळार थांबव्न आटापुंचें म्हळयार? कांय ससराचें न्हय। स्त्रीयेचि कला आनि बुद्वोत्काय हांतुन आटापुन आसा।

रांद्पाचें कूड वांदुन हाड्तानांच्च, एक दोन जनेलां पड्लाक एक, मुड्लाक एक, चड कर्न दोन धारां। पाट्लें धार, मुक्लें धार, वांदुन घडव्न हाड्तात। घराचें पाट्लें धार म्हळयार रांद्पाकुडाक लागिं आस्ता। रांद्ताना धुल्लें, शिंदल्लें, तासल्लें, विंचल्लें, सर्व मेळें, शीदा पाट्ल्या धारांत्ल्यान भाग्र व्हर्चें। देकुन रांद्पा कुडाक पाट्लें धार गर्जेचें।

## रांद्पाकुडांत जनेलां

आदिं घरां थप्काट आनि धारां-जनेलां लान्शिं आस्तालिं। घराचें मुक्लें-मुख्य धार सय्त भितर रिग्ताना- बाग्वोन, जाग्रुत्कायेन रिग्चेबरि आस्तालो मुक्लो धार्वाटो। खाल्तो जा, वेसांव घे, म्हळिळ निशानि म्हण्तालिं माल्गडिं। हळळयां-नाडांनि मातियेचे मुदे दवर्न, घराच्यो वोण्ति वांद्ताना, वोण्तिंक वातेणाचो- येंट्याचो, चोम्डो कर्न दवर्न, ताचे वय्ल्यान

पल्या मातियें मुदं वमव्र वव्र चड़ताना. वोण्तिचि माति मुकांन येताना. तो चोम्डो वोड़्न काड़ताले। आनि त्या पोंकांनेक, माति मफाय कर्न, दोन वाॅडियें कुड्ढं आड उवे चेपुन खांवायल्याग जालें। तेंच्च गंदपाकुडाचें जनेल, मुग्या किणां, वाॅर दिव्वों पोंकाॅग।

## रांद्पा कुडांत कंत्राळां

अशेंच्च वोण्तिक मातियेंचे गुळं वा अच्चयांनि माति वोतुन तयार केल्ले इटे वमय्ताना, ल्हान ल्हान पोंकोंग उग्व्र. कंत्राळां घड़ताले। कंत्राळां पय्कि मालांल्ले (मध्लें कूड) आल्यागिच्या कंत्राळाक पय्लें स्थान जाल्यार दुस्रें गंद्पा कुडांल्त्या चिम्णंच्या कंत्राळाक। चिम्णि कंत्राळा भितर दवरुंक प्रमुख कारणां आसात। तांतुन पय्लें: वार्याक चिम्णि पाल्वना। दुस्रें: हेणे-तेणे चिम्णि दवर्न, मक्ला पड्ल्यार, तेल खाणा-जेव्णांत मिम्ळोन, पोटाक बाधक हाड्येत। तेलाक उजो पेटोन आदल्या कोल्वाच्या घरांक उजो पेटोन जळोव्र नाश कर्गिन, अपाय हाडित। हांचे मदें आन्येक लाभादायाक विशय आदिं दिवो चिम्णि मुर्गेल तेलान जळय्ताले। चिम्णि पेटव्र कंत्राळा भितर दवर्ताना, पेट्च्या वार्तिचि कर्गि वय्ल्यान कालि कालि मांड़ना। ति वोव उप्कार्तो।

ह्या मुर्गेल तेलाच्या कर्गियेन माल्गडिं काजळ तयार कर्तालिं। मुर्गि फळ वक्ताळ आनि अपाय रहित जाव्रामल्लें। जिव्या वांळितक: दोळयां बोंव्रयांक आनि आम्ड्या मुळांक काजाळ पुस्चो वक्नाळ संप्रादाय। तशेंच वाळश्याच्या दोळयांक आनि आयिल्ल्या गेल्ल्यांचि दीश्ट लागानाशि, गालां खाड्ड्यार, खपालार तिळे घालुंक हिच्च चिम्णंचि कर्गि, मुर्गेल तेलान किग्व्र तयार कर्न वापर्तालिं।

**दुस्रें:** घरं - बिड़ारांचि धरण मानियेंचि आस्तालि। धर्तेंक शुद्दाक आनि माति उक्लाना जांव्च्याक, घटायेक-सोवायेक, गाय्चें शेण पुस्तालि। तवळ शेणाचि वोवांमाण, घाण, रंग, आकर्शक करुंक, शेणाक चिम्णेचि कर्गि भर्गितालिं। कर्गियेंत तेलांल्लो आनि उज्यांल्लो वग्नागूण (क्रिमिनाशक) आमल्ल्यान, शेणाक चिम्णेचि कर्गि भर्गुन धरण सोवय्ताले। देकुन मदां सांजेर चिम्णि पेटंव्च्या आदिं कय्ले कुड्क्यान ति कर्गि खर्वटाव्र काड़न, पुट्क्र बुड्कल्यांत वा डब्व्यांत भर्न दवर्तालिं।

आदिं मातियेंच्या घरांच्या वोण्तिंकर्यी कर्गि भर्मिल्लें शेण पुसुन, वोण्तिर चर्च्या क्रिमि-किटां थाव्र जाग्रुत्काय घेतालि आनि वोण्ति निनळ, सपाय उरय्नालिं।

## रांद्पा कुडांत रांद्रिण, रांदुणि

मन्श्याच्या मूळभूत गजां पय्कि अर्थ्याधिक गर्जेचो जागो। गंद्पा कुडाच्या निर्माणांयेंचेर हांव्रोन, एक पुट वा चड़ितक जाय पुर्तो उवार सोंपो बांदुन ताका मुक्ल्यान दोन रांद्रिण आनि दोनी रांद्रिणच्या मदेंगात्त, वय्ल्या कुंशिक एक बुराक दवर्न, दोनी

गंदि्णंच्या भितर्ल्यान सुरंग रचुन, दोनां भितर्ल्या खंच्याय एका गंदि्णक उजो पेटय्ल्यारी, ह्या मद्ल्या रांदि्णक पाशार जांव्वेवरि कर्तात। ह्या बुगकाक मदि्ल गंदि्ण वा वोय्ल म्हणतात।

दोन रांदि्णंकः उज्वि गंदि्ण आनि दावि रांदि्ण म्हण वळकातात।

**रांदि्णच्या पाठ्ल्या कुशिक "खुर"** म्हण वळकतात। रांदि्णच्या खुरार मिटाचि मोर्गि, काडियां पेट, सोलांचें मोर्गुल, सांवार्चो, नार्लाचें वोळें, गोडाचें गुमाट्टें (गुमाट्टें) गर्जेक पेटंव्वि चिम्णि, पुनेल दुंपेल, काप्ये पिट्याचो कंर्डो, धुव्र तापात घाल्लिं रांद्पाचिं मात्येचिं आय्दानां, ह्या सर्व साहितिं सांगाता एका जिव्या जीवि माव्राचो हो कायाम जागो जाव्रासा रांदि्णचो खुर।

## रांदि्णचें पोर्ल

दोनी रांदि्णंच्या मुक्ल्यान वारीक सोप्याबरि एक शिर जागो सोड्न, बारीक पेंटाळि बांदुन आस्चो जागो "रांदि्णचें पोर्ल" भितर्ल्या रांदि्णंक उजो पेटय्ताना रांदि्णक दवर्लेलिं लांक्डां ह्या पोर्ल्याच्या पेंटाळे पर्यांत मात्र येतात। ताचे वर्नि लांब आस्त्यार, रांद्पा कुडांत तेणे हेणे गुंव्ताना अड्कळता म्हण्तात। रांदि्णच्या पोर्लांतः "उजो पुंक्चि नळि" बाण्शिरें "कोलित" आनि उज्याक घालुंक तयार दवर्लेल्यो सोव्ल्यो, जोळोव आस्ता।

## रांदि्णचो कोन्सो

गंद्पा कुडाक चार कोन्से आस्ल्यारी जोळवाचो कोन्सो हांगासर पय्लें स्थान आनि सारोणेचो कोन्सो दुस्रें स्थान घेता। जोळवाचो कोन्सो रांदि्णच्या उज्व्या कुशिक आस्ता। हांगासर उज्याक जोळोव जाव्र गळसुंचिः लांक्डां, शिर्पुटां, सोव्ल्यो, सोंटे, पिडे, पोडियो, पिसोंव्र्यो, कोंब, चुडेत्यो, सेणियो, सांप्ळे, वोडियो, आडारां, सोण्णां, बरिं कर्न धाळल्लिं आस्तात।

## रांद्र्चा कुडांत उतोव

गंदि्ण-खुराच्या सार्कें वय्र, वोण्तिक दोन आड्याचे कुड्के मारुन, ताचे वय्ल्यान फळिं, वा रिपां आड्याच्यो शिरे आड निदाव्र, तयार कर्चि आट्टोळिग जाव्रासा उतोव। मात्येच्या वोण्तिक आडिं रिगंव्क साध्य नातल्ल्या थंय माळयाच्या आड्यांक दोन कुशिंनि दोरियो बांदुन, ताचे भितर्ल्यान फळें रिगव्र उतोव घड्तात। उतोव रांदि्णच्या सार्को वय्ल्या कुशिक आसल्ल्यान, उज्याचि धाव आनि धुंवोर लाग्ता देकुन, पाव्सिल्या दिसांक दास्तान कर्चे गोडां पेळे। गोडां मोड्क्यो, सुकि मास्ळि, सोलां, मोड्क्यांनि भर्न मूक बांदुन दवर्तात। हांतुन धाक्टो उतोव, व्हड्डो उतोव, अशें आसात।

## रांद्‌पा कुडांत माळो

उन्हाच्या वयल्यान, थोड्या गंद्‌पा कुडांनि मग्ळ्या कुडाक, थोड्यांक अर्द्यार, वोण्ति वांदुन वग्र चड्तानांच माळो घडुन हाड्तात। वोण्तिच्या भितर्ल्यान आडिं-वासे ग्गिव्र, आड उंबि फळं, ग्पिं वसव्र माळो तयार कर्तात। तांद्‌ळाचें मुडे, मुके नार्ल, वियाळो, वियाचं भात, हेर दानि, गंद्वांयचो वियाळो मुडियो वांदुन आनि कांट-कांटि फेम्तां पर्वेक गळमुंचि व्हड्लि व्हड्लि आय्दानां, तांव्या तांवाण माळयार धाळतात।

माळयार थाव्र देंव्ताना पयिल्लें मेळता शिकें। मुंवा दोग्गियांनि वा वोण्तिच्या नागन शिकें वांदुन तयार कर्तात। धयांचो बुड्डलो, पोळियेचि दालि, मुक्या मार्ल्लेचि पोट्लि, निम्म्याचें कुंड्लें, माव्राच्या, भुग्र्यांच्या हातांत्लें तोंडांत्लें गकोंक शिक्यार दवर्तात।

**रांद्‌पा कुडांत मांक्डि 1:** मांक्डि दोन नमुन्यांचि आसा। पयिल: लेंक्रिर वा वांसेक वासो, घट्ट वाळनार येंव्चि वोडि, वा मोट्टि वाल। माळयाच्या ग्पिंक, आड्यांक दोनी पोंतांनि दोग्गियो वांदुन, तांच्या पासा भितर वोडि आड ग्गिव्र वांदि्च। ह्या नमुन्याच्या मांक्डेक: पियावाचे घांस, आम्स्ताणे गुळो, मांगि, कुवाळे, दुदिं अशें वियाळयाक आनि पाव्सिल्या दिसांनि गंद्‌पाक जगव्र दवर्चि गंद्वांय। केंळ्याचो मुक्या दोंगचे पास कर्न, मांक्डेक उस्काळाय्तात। दोंगचे पास, मोगें आनि मांगात्यांच्या पोटार पाट्यावरि सोव्ताना, मालान शिम्तेन उस्कोळच्या शिपायांवरि पळेंव्क मोवित्त दिस्ता।

**रांद्‌पा कुडांत मांक्डि 2:** गंद्‌पा कुडांत मांक्डि दोन थर्गाचि आसा। वग्र उल्लेक केल्लि वोडि/ लेंक्रिर दोग्गियांनि उस्काळांव्चि एक जाल्यार, दुस्रि: लेंक्रिरें वा वास्याचो कुड्को, मदेंच चीर्न, ताच्या दोनी पोंतांनि मुंवान वांदुन, मद्‌लें इडें खर्वटाव्र माल्सें व्हड कर्न, वोण्तिक दोन कुड्यां= मदनिके मार्न। हि मांक्डि त्या दोनी कुशिच्या कुड्यांक वांदि्च आनि ताचे भितर्ल्यान खांचित गंद्‌पाक गळमुंच्यां दोय, दाय, कोव्लो, हातो, काय्लातो, चाळन, कुलेगं, वोर्न चाळिच दोय, शिर्ताचि, निम्म्याचि दोय अशें हाताळयांचि साहेत खवव्र दवर्तात।

गंद्‌पा कुडांत अंक्डि म्हळळ्या नांवार तिस्र्या नमुन्याचि मांक्डि तयार कर्तात। माडियेच्या, वास्याच्या वा लेंक्रिंच्या वांसेक पातळ कांवींनि हि रच्तात। अन्कूलवोंतांच्या घर्गांन रुकाडाच्या पातळ ग्पिंनि हि अंक्डि कर्तात। एकद्य माळयाच्या आड्यांक उस्काळाय्तात वा वय्ल्या मांक्डेवरि किळयांक वांद्‌तात। हाचे भितर्ल्यान कोय्ति, कोय्तो, कोय्तुल, युग्यो आनि हेर कार्ताचें, धार्गेच साहेत हांल्यान खवोव्र दवर्तात। असल्यो अंक्ड्या व्हड्ड कुटास अस्लल्या घरांच्या गंद्‌पा कुडांनि एका प्रास चड्तिक पळेंव्क मेळ्नाल्यां।

## रांद्पा कुडांत कंत्राळां

वांदुन हाडल्ल्या कंत्राळां पय्कि चिम्णि दवर्चें कंत्राळ पय्लें जाल्यार, ताचे प्रास तिक्केशे व्हड जेव्णाच्यो वाट्ल्यो, पिरि, लोटे, माल्त्यो, माल्तुलां दवर्चें कंत्राळ, टिन्नां, डब्बे, दवर्चें कंत्राळ, अशें गंद्पा कुडांत अंतम्त आनि गर्जे पर्माणे कंत्राळां चड्तात। कंत्राळां नातल्ल्या घरांनि, सुंवांचेर उम्कोळच्या फोळयांनि हि सर्व साहेत मांड्तात।

**रांद्पा कुडांत कोकर्न/ पोकोर्नि** म्हळळें एक ल्हान्शें कंत्राळ, बाग्ला/ धाराच्या दार्वोंता वय्ल्या कुशिन आस्ता। हांतुन सदां गर्जेचें नाणें, नग आनि चड जाग्रुत्कायेन सांवाळचा तसल्यो वस्तु, रांद्पाकुडांत, उज्या रांद्णि मुकार, आळेन वाट्ताना, कात्राप शिंदाप कर्ताना, स्त्रीयांनि निक्ळाव्न दवर्च्यो। स्त्रीयेलागिं नाणिं दुडु: एकच्च पेंक्टार पोतिथेंत न्हय तर कोकर्नेर दवर्तात।

मन्श्याच्या नागरिकतेच्या आरंवार थाव्न, मन्श्या गर्जेचि वस्त, मात्येंत, फात्रांनि, क्रमेण रुकाडान तयार्सिताले। वर्सांचिं वर्सा पाशार जाल्यागी आतांच्या युगांनि भुमिच्या आंगार मन्श्या किड्याक जियेंव्क मात्र आव्कास म्हळळया इत्ल्या गर्वान आनि स्वार्तान मनिस मन्जातिं, रुका-झडांचो नाश कर्त्ति आय्ला। मन्श्याचि संपत्ति म्हळयार आप्ल्या घरा भितर, आप्ल्या कुज्ना/रांद्पा कुडा भितर भरुन चेपुन सोंवोय्ता।

गंद्पाचें कूड म्हळयार? एक म्यूझियम जाव्नासा। एक कलात्मक कलेचि रासच्च। ल्हान्श्या गंद्पाकुडांत तात्कालिक सोड्न, स्थिर साहेत/ वस्तुच्च सुमार दोन्शिं नांवां उल्लेक कर्येत। एदेश्या रांद्पाकुडांत इत्ल्यो वस्तु क्रमप्रकार, त्या त्या जाग्यार दवर्चिच्च एक कला। इत्ल्यो वस्तु आद्ळानास्ताना दवर्न, तेणेंहेणे गुंवोन, रांद्पाचें काम कर्चें, सत्रीयेचि चलाकि आनि हुशार्गाय पाचार्ता।

हेणे इत्ल्या लांक्डांचि रास, हेणे रांद्णिंत्लो उजो, धाव, किटाळां, धुंवोर, दाव्या रांद्णिंत्लो गोवोर, पेट्चि चिम्णि, रांद्णिर खत्कत्वि कडि, वाळणेर वाळल्लि शिताचि मोड्कि, एका कुशिन कुज्नाचि राणि माजार, शिम्टेर तिच्या मात्सो पांय पड्ल्यारी मियांव कर्न धाव्लि वोड्चो अपाय।

रांद्पाकूड नितळ कर्चें एक कला जाव्नासा। सकाळिं उटोन, गोट्यांत्लें शेण हाड्न किरव्न, ताका चिम्णेचि करि भर्सुन, रांद्णिचें पोर्ल, खुर आनि बोंव्तोणिच्यो वस्तु तेणे हेणे दवर्न, खुरा थाव्न शेण पुसुंक आरंभ कर्न, रांद्णिच्यो देगो, पोर्ला बोंव्तिं, कोन्श्या देगांनि शेण कुड्च्यान पुस्ताना, पळेंव्क दोळयांक कलात्मक फेस्त। शेण पुस्तेल्या स्त्री हाचांचि चलाक देख्तां देख्तां मतिक उल्लास दिता।

## रांद्पा कुडांत रांद्णिक उजो

गंद्णिक उजो पेटंव्चि एक कला जाव्नासा। उज्च्या गंद्णिचो गोबोर दायेंत दोयेंत

काड्न, धाव्या गंदिणक घाल्चो। तेणे हेणे दोनी कुर्शिनि दोन लांक्डां लांवायेक दवर्न, तांचे वयल्यान मोव्ल्यो, वांडियो, मांड्न, मुकि खोलि, चुडेंति वा काग्दा कुड्क। चिम्णच्या वातिक पेटव्न, हळू त्या लांक्डांच्या मदेगात्त ग्गिव्न दवर्ल्यार, मव्काम उजो वांडियांक धता, लांक्डांक पेटय्ना, असो उजो क्रमान पेटोन, जळोन, जोळोव मुग्दाताना, हेणे तांदुळ शिज्ता, गंदाप जाता।

गंद्पाकुडांत गंद्रिणच्या उज्या मांगाता किटाळां, दुंवोर, गोवोर, इंग्ळो, कंड आनि कोलितां आस्तात। तशेंच दोळयांक दिमानातल्लि धग-धाव आस्ता।

## गंद्रपाकुडांत तयार जांव्यो वस्तु

खांव्यो, पियेंव्यो, भलाय्केक आनि रुचिक-पोटाक वेच्यो जाल्यान, चडावत पिडा शिडा मुरु जांव्वि, भलाय्कि पाड जांव्वि, खेल्ल्या खाणाचेर आनि गंद्पा कूड दवर्लेल्या स्थितियेचेर होंद्दोन आसा। गंद्पा कूड तें जांव ल्हान वा व्हड, तांतुन मुमार देड्शां वग्र माहेति क्रम प्रकार त्या त्या जाग्यार विशेव घेतात। गंद्पाकूड, फेस्तां फर्वेक चड कर्न नतलां, मोंतिफेस्त आनि हेर संदर्भांनि, मांटिमुल्यांल्लो गोंटो काड्न, नळे माळो झाड्न, धर्तेक शेण पुमुन नितळ कर्तात।

## गंद्रपा कुडांत माजार

गंद्पा कुडांत वग्र पोंदाक चेपुन, माण्मुन, दवर्लेल्या जिंद्रे इड्यांत, खाणा-जेव्णाच्या, वाजल्ल्या-तेलाच्या पर्मोळाक, हुन्साणे आनि उवेक ल्हान ल्हान जीवि, उंदिर, जर्ले, पालि, मूस, मुस्कां, किडि, माळियो, मुयो आनि दोंव्ळे गज कर्तात। हांचि सर्वांचि मुवेधार्न माजार। तांचो मर्णादूत म्हण्येत। ह्या किटांक नियंत्रणार दवर्चि जवाब्दारि माज्राचि। तिचो अमानत जागो गंद्रिण पाट्लो खुर।

## गंद्रपाकुडांत रुकाडाचि साहेत

आम्चे पुर्वज आव्या माति, खड्फि फातर आनि रुकाडान कलात्मक थगन घर्दागक आनि गंद्पाकुडाक जाय जाल्लि साहेत तयार्मिताले। दुव्ळयांच्या घर्गांनि वांक-कदेलां कर्व्क तांक नानल्ले थंय वोण्गिच्या चुडेत्यांनि वोळल्ल्यो मांक्र्यो आनि मणंययो, कशें आप्रुपान आयिल्ल्या मग्र्यांक मणंय बस्का दितालि, तशेंच गंद्रिण पोणांत ति आस्तालि। स इंचा रूंद, वाग इंचां लांव फळयाक, दोनी देगांनि आड फळया कुड्क खर्वाय्लेल्या चाडियांनि बसव्न, ताचेर कुले तेंक्चे म्हळयार? मानाचि, गंभीग्तेचि गजालि। आद्ल्या आम्च्या माल्गड्यांक, नव्या बाळाक तेल पुसुंक, नाणंव्क धर्ल्लें, होक्नेक धार वोतुंक, गुर्वांग्कि बांटि भरुंक, बसंव्वें मण्यंग्च।

तसल्याच मण्यंक (लांब रूंद चड्डुणे आस्येत) मुकार चूप तुदि मुकार हाड्न, ताका

कोयित वमयल्यार, आदाळो जाता। लोंक्डाच्या तग्डा कुड्‌याक कात्र्याचि खर्वणां मार्न वमयल्यार तें नार्ल कांतुंक कांत्नें जाता।

आम्चिं माल्गडिं रुकाडान कोय्ति, कोय्तो, कोय्तुल, मुगि, गाळन, पेस्कति, मुत्तें आनि हेर कात्रापाच्या, दाडांव्च्या लोंक्डा साहेतिचे हाताळे मूट रुकाडान तयार्मिताना हाडां तासांव्क आनि गर्जेक कुल्यां पोंदा चेपुंक मुन्कुटो, धारेचि साहेत पाजुंक वोच्चि, आळेन वाटुंक वसोंक तीन पांयांचो वांक, सांबार्चो, खंळिव, रुकाडान तयार कर्तात।

गंद्पा कुडांत तीन पांयांच्यो दोन माहेति। एक आळेन वाटुंक वस्चो बांक। आन्येक तीन पांयांचो तिक्लो घोडो = गंदिण गंदल्ल्या रांद्पाच्या आय्दानांक धांपुंक, शित वाळताना, कुर्पोणे वयल्यान वळाक दवरुंक आनि हेर गंद्पाच्या, उद्काच्या आय्दानांक धांपुंक मांड, शेव्यो धांवुंक शेवगो, चपाति लाटुंक लाट्णें-लाट्फळें, दाडांव्यो फागांव्यो जिड्डो (कणस नातल्लें मुसाळ) रुकाडान तयार कर्तात आदिं बावाडें आनि बावाडो रुकाडानच तयार्सिताले।

मीट भर्न दवरुंक, चिर्मुटाक घालुंक, मोर्गि-मोर्गुल, शित वाळुंक खोण्फो, माळयार चडोंक निसण अशें गंद्पा कुडांत सवार रुकाडाच्यो वस्तु चलावणेर आसल्ल्यो।

गंद्पा कुडाक आनि हेर मात्येचिं आय्दानां कुंवार आव्या मातियेन तयार कर्तालो। ताच्या पोटाचो ग्रास तो।

## रांद्पा कुडांत मातियेचि साहेत

आम्च्या कुडिचा घटायेक, भलाय्केक आनि भुकेक गर्जेचिं खाणां-पक्वनां, पीवनां-पानकां तयार्सुंक, शिजंव्क, उक्डुंक, वाळुंक, बाजुंक, तोळुंक, विविंगड क्रियांक, विविंगड आय्दानां, आम्चिं पुगतन माल्गडिं तांच्या काळार थाव्न गळसुंनंच्च आय्ल्यांत। रांद्पा कुडांत विविद आय्दानांक विविद जागो अमानत आसा। त्या त्या साहेतिक विविंगड गात्र, रूप आसा। विविंगड मेटलान (लोहान) तें तयार्सितात, विविंगड नांवां त्या साहेतिक आसात।

माति, खडि फातर, आव्या माति, तांवें, पितुळ, काशें, लोंकाड, ग्लास आनि हेर। आतां आव्या मातियेन तयार्सुन, आव्यांत शिजयिल्लिं आय्दानां: मोड्कि, कुंड्लें, मोड्कुल, वुड्कुलो, कुंड्लि, मोड्को, सिधि, कोळसो, माल्ति, माल्तुल, कय्लि, कय्लाड, वाळिण गंदुन आनि हेर।

थोड्या प्रदेशांनि काळया मातियेन आय्दाना तयार्सितात। आय्दानां तिं खंच्याय मातियेन तयार्सिल्लिं जांव्दित घरा हाड्न, तांतुन गंदाप मुरु कर्चे पय्लें, तिं वोळसांव्क आसात। आंव्याचे खोले जळव्न, मोड्कि काळि कर्न निंव्तच्च, पोंग्यार्याचो पालो गंस्टुंचो।

कुंवार आप्ल्या नाजूक कलेन मातियेचिं विविद आकारांचि, नमुन्यांचिं आय्दाना तयामिता। भारतांत मोड्क्यो तयार कर्चि प्राचीन कला जाव्नामा। चरित्रेच्या पुर्वांक हरप्पा मोहेंजोदारांच्या संस्कृतेच्या काळार्यी नागरिकतेंल्या अस्तित्वांल्या संस्कृतेंत मोड्के क प्रमुक स्थान आसल्लें। मातियेन आय्दानां मोड्क्यो मात्र न्हय, मन्जाति आनि मुक्ण्यांचिं वोंव्वि कर्तांले। मन्श्याचि अद्भुत कला, तवळच्या इमाजि मूर्तिंनि पळेव्यंत।

मात्येच्या आय्दानांनि विविद आकृतेचिं, विन्यासांचिं आस्तात। थोड्या प्रदेशांनि मोड्कं च्या भाय्ल्यान चित्रां कांतव्न, तांचि कला प्रदर्शितात।

मात्येचिं आय्दानां तांच्या नांवाक तेकीत संबंदिक पक्वनांत उजार कर्तात। मोड्कि शित करुंक, वुडुलो पेजेक, कुंड्लि तांदुळ नेरांव्क, काफि करुंक कुंड्लि, माल्ति, माल्तुल जेंव्क, भुर्या वाळश्यांक शित गुड्डुन लांव्क, कुंडें निस्तें करुंक अशें विविद आय्दानां, विविद गर्जांक गळिसतात।

## रांद्पा कुडांत तांब्या तांबाण

खाण जेवाण फकत्त पोट भर्चि आनि भुक थांवोंव्चि माहेत जाय्नास्ताना, विविद संदर्भांनि त्या त्या सांप्रादायिक रंद्पाक मन्श्यांनि रूपित केल्लें सांस्कृतिक जीवन जाव्न चलोन आय्लां।

फेस्तां पर्वेक मन्नां उक्डुंक तांव्याचो तोंदोर, गिंड्लां, पिरि, तांदुळ वाटुंक वान, पुगात दवरुंक पिटाचि मोड्कि, तोंड्याक केंळव्याचो खोलो हांतुळन, हुनुनि सन्नां पिरिं समेत त्या खोल्यार वोम्तिं घाल्न, वय्ल्यान विजुल्लो लेस, वग्रास, काप्डा कुड्को पांगुर्न, निव्तच्च मन्नां उक्लाव्न कुर्पाण्यांत दवर्चि, पीट पुगात दवर्लेल्या मोड्केक पांय लागंव्क नोजो। मोड्क च्या वाय्ल्यान पिटानच खुर्सांचो गुर्त काड्चो दय्विक भक्त दाकय्ता।

तांव्या तांवाणाच्या सामाग्रि पय्कि तोंदोर प्रमुक स्थान घेता। कडाय, हांडो, कोळसो, चेंव्वु, चेंव्वु तोप्लें, कुट्टें, कुतियेचें साफ। मोड्कि, कुंड्लि, गंदुन, वाण, अशें गर्जेक आनि सर्जेक वापर्च्यो सवार माहेति आसात।

तांव्या तोंदोर पोळि करुंक, कडाय आय्दानां धुंव्क, हांडो, गंदुन उदाक भर्न दवरुंक, चेंव्वु गंद्नांल्ले उदाक उम्पोंक, चेंव्वु तोप्लें-न्हाताना वाणांल्लें उदाक उम्पोंक, कुति, कुट्टें- दूद सेजुंक, मोड्कि, कुंड्लि-गंद्पाक, हेर गर्जांक गळिसतात। कोळसो-उदाक वांय्तलें हाड्न गंद्नाक भरुंक। अशें।

तांव्याच्या आय्दानांक कलंव मांड्ता जाल्ल्यान, तवळ तवळ कलय काड्चि पड्ता। कलय म्हळयार? पित्ळेच्या नगां वय्ल्यान भांगाराचि वोप, गिल्लीट, काडल्लंवरि। तांव्याच्या आय्दानां वय्ल्यान, तांव्या वोप काड्चि।

अशेंच्च गंद्पा कुडांतः तांबे, पितुळ, काशेंचि आय्दानांय आस्तालिं। घरांनि वांळतेर जांताना, बाळ घरांत पयिल्ले पाव्टिं रडोंक, काश्याचि वाट्लि बडय्तालिं म्हळळें हांगासर उडास कर्येत।

आदिं दुब्ळया घरांनि, तांब्या तांवाणा वरिच्च मातियेचि कडाय, मातियेचो कोळसो आनि हेर कुंवारान मात्येंत तयार केल्लि साहेत आस्तालि।

## रांद्पाकुडांत फात्राचि साहेत

खड्फि फात्राचि वाट्चि, दोळिच, रगड्चि, दाडांव्वि साहेत आसा। रांद्पाक आळेन वाटुंक, खर्गटांव्क, चेंचुंक, झरंव्क, दाडांव्क, दोळुंक आनि हेर गर्जेच्या क्रियांक खड्फि फात्रान घड्न, तासुन, कलात्मक थरान सजयिल्लि साहेत कल्लु कुट्टिमाम नाजूक थरान कर्ता। ह्या कलात्मक चमात्कारेक निजाय्की मांदुन गौरव दिंव्क फावो।

वान, घाट्णो, गुंडो फातोर, धांतें, धांत्यापेड, फातर, फात्रि, रगडो, लांवेटि फातर, पान्फोड दाडांव्वे वान, हळद दाडांव्वो फातर, तिल्लेंच्च न्हय आस्तां, फात्राचि पोळे वाज्चि काय्लयी तयार कर्ताले आदिं।

## रांद्पा कुडांत सारोण

अती गर्जेचि वस्त जाव्नासा। सगळया घरांत वोंव्ता। कोन्श्यांत येव्न बस्ता। कोन्श्यांत्लि आजि म्हणंच्च तिका वळकाल्यारयी, ति गर्जेचि। माडाच्या चुडेत्यांचे इर काड्न, तांचो मूटभर काट कर्न, केंळब्या दोरचो कट घाल्यार सारोण जाता। नव्यार सारोण, झर्तच्च खुंटो जाता। खुंटो जातच्च ति, आंगणांत, हित्लांत वोंवोंक धर्ता आनि घरावाय्लि जाव्न नाणिये कोड्ड्याचो कोन्सो धर्ता। झाड्न उडयिल्लो खुंटोयी गर्जेक पड्ता म्हळळें उतार विस्रोंचें न्हय।

## रांद्पा कुडांत लोंक्डाचि साहेत

मन्श्या अस्तित्वाच्या आरंभार, कात्रापाचि साहेत फात्रानंच्च तयार्सितालो मानव, क्रमेण आदुनिकतेन व्हाळोन येता। लोंकाड म्हळळें लोह सोदुन काड्तच्च, मन्श्या जिवितांत लोंक्डा उप्योग चड्तिक माफान जालो। लोंकाड वाळतारयी जाव्नासा।

लोंक्डान कोय्तो, कोय्ति, कोय्तुल, नळि, उजो फुंकुंक, चिम्णि पेटंव्क, काय्ल, तोवो, बनालो, पारय, बाल्दि, काय्लातो शिग्डि, अशें सबार सामाग्रि लोंक्डाचि रांद्पा कुडांत राज चलय्तात।

धारेचि लोंक्डाचि साहेत आसल्ल्या कुव्नाक, ति पाजुंक, "कणस" म्हळया साहेतिचि गरज आसा। कणस लोंक्डानंच्च तयार कर्तात। कुपाचो फातर पिटो कर्न वोच्चेर घाल्न, कोय्त्यो, सुरियो, पाज्च्या प्रास, कणसान पाजुंक सलीस।

## रांदपा कुडांत चूल शिग्डि

गदिणक थोड्या प्रदेशांनि चूल म्हण वळकतात जाल्यारी, चड कर्न "शिग्डे"क चूल म्हणतात। प्रकृतेचेर रूक-झडां कातुन पाच्च्या वनांचो नाश करित्त, घरां, वांदपां चड्डायित्त वचोन मिर्मोटिचें रान रचित्त वेताना, लांकुड जोळोंव म्हारग जालो। तवळ, रूक चींनं फळि कच्यां मिल्लांनि झडल्ल्या पिट्यान (खांवोतांचो पिटो). रांदप करूंक शिक्लो मनिस। गंदिणक तो पिटो चेपुन, धामागट्टांच वस्च्या प्राम, वुद्धांत मन्श्यान सोदुन काड्लि शिग्डि।

शिग्डि पेटव्चें आकर्शक, कलात्मक काम। लोंक्डाचो उरूट, देड दोन पुट उवार इव्वो, तो वख्ल्यान उरतो। मुळांत ताका गंव्डाकारचो आन्येक वुरक, दोन उरूट मोटें, एक शिग्डेच्या वख्ल्यान उवो दवर्चो, आन्येक पोंदल्यान वख्ल्या मोंट्याच्या मुळाक लागन्न निदांव्चो आनि शिग्डेच्या वख्ल्यान पिटो वोतुन, तिम्रया त्याच्च मार्क्यांच्या मोंट्यान पिटो दाइात्र वमन्न, जानन्न, हळू ते दोनी मोंटे आड उवो हालन्न हालन्न भात्र काड्चें आनि मकख्ल्या वुरकांल्ल्यान एक लांकुड दवर्न उजो पेटख्ल्यार शिग्डेर निम्तें, कापि, शित म्हण मादार्ण मट्टाचें रांदाप तिर्माता।

## रांदपाकुडांत चुडेति, वालिंचि साहेत

गंदपा कुडांत जिल्लि मातियेचि, तांवें तांवाण आमा, तिल्लिच्च माहेत- वालिंनि, चुडेल्यांनि, पिड्यांच्या नारांनि, वेतांनि, मुंवांनि तयारिल्लि ति, गळमोणेर आस्ता।

कुर्फांणो, कुर्वें, कांट, धालि, धालें, तोड्पें, कुर्फोण, किर्गिचिकुर्फोण, तळट्याच्या चुडेल्यांनि आदिं घर्चि मन्श्यांच मंद्रापा पर्माणे धालियो वोळतालि। पोळि, तांदुळ, गव्होय, फळ वस्तु घालुंक आळेन काडुंक नार्ल कांनुंक, ह्यो धालियो उपयोग्मितालि। कण्किच्या चुडेत्यांनि मांद्रि वोळतालिं।

## रांदपा कुडांत येंटो

निग्णें वा खांड्डं म्हण वळकोंचें, ल्हान्शें गैंड आकारचें वातेणाचि मुंवोळ, येंट्यान वा रनांल्ल्या वार्लिनि, शिर्नाळां कर्न उरल्ल्या इर्गानि, निग्णें वोळतात। गंदिणर थाव्र भुंय दवर्च्या आय्दानांचि आडि धर्तेक लागानातल्लेवरि दवरुंक गळिमतात निग्णें।

"निवाक अक निग्णें" म्हळया गादिवरि। कुंड्डि, मोड्डि, कुंड्डं हांच्या गांडि पोंदा एक निग्णें गर्जेचें। निग्ण्याचो जागो गंदिणच्या पोलांत जाल्यारी ताळण्याच्या, खांळाच्या, उदकाच्या, मांड्याच्या आडियेक निवण्याचि गरज आमा।

वस्तुरांचि निव्णिय गळमांणेर आमात। वाळश्यांक उदारें निदाय्ताना, नक्लि कुशिक गुन्दात्र, मांड्डो लांव जाय्नामो गकांक वस्तुरचें मांव निग्ण्या उशें पाळण्यांत आनि मांद्रर वाळश्याच्या मांड्या पोंदाक दवर्नांत।

## ांद्पा कुडांत लोंक्डाक गिलीट काडल्लिं आय्दानां

लोंक्डाच्यो वोशियो वाट्ल्यो, पिरि, कोपां निम्त्याचिं, कोपां काप्येचिं, जेवाण काड्चिं कोपां, आय्दानां धुंव्क गळमुंचि वेसनां, कडाय, अमलिं आय्दानां, लोंक्डा वय्ल्यान धवें-निळशें कोटिंग काड्न, वाग्चि नितळ सोवित्त थगन, गंद्पा कुडांत चलावणेर आमल्लिं हि आय्दानां, वेल्जियामांत तयार जातालि।

## रांद्पा कुडांत मांड

गंद्पा कुडांत मातियेचिं आय्दानां पय्लें आय्लिं? रुकाचें आय्दान पय्लें रिग्लें? निघंट सांगोंक असाध्य जाल्यारी, माति, रूक, झडां, भुमिचि मूळ संपत्त जाल्ल्यान, मन्श्यान आप्ल्या गर्जे आनि मर्जे पर्माणे हिं संपन्मूळां गळिमल्लिं म्हळ्ळयाक, आय्दानांचि जोडि सांगाताच्च दाकव्न दिता।

मोड्कं क धांपुंक मांड, शितामोड्कि वाळुंक कोण्फो, चाळुंक दोय, अशें मातियेच्या साहेतिक, रुकाडाचे सांगाति-सांगातिणिंचो सांगात चुकल्लो ना। आदाळया मणंय, कांत्या मंणय, कोय्ते संततिचे दांडे मूट, लोंक्डाक सांगात रुकाडाचो अशें विविद साहेत जोडि जाव्न सांगाता रांद्पा कुडांत सांगात दिंव्वि आसा।

तांवें, पितळेचे दीस कावार करुंक एल्युमिनियम, स्टील, प्लास्टिक कुव्नांत रिगोंक लाग्लें। विजेच्यो गांद्रिण, गेसाचो स्टोव येताना, हांत्ल्या उज्याक सरि जाव्न विविद मेटलाचिं आय्दानां तयार जाल्यारी, ह्या साहेतिंच्या सोवायेक गिरायक पिस्वोन आप्लें आदुनिक गंद्पाकूड सोवोंक लाग्लो। आदि्ल पुतुळ, तांवें, काशें, लोंकाड, मात्येचिं, रुकाडाचिं आय्दानां, दोन तीन तक्ल्यां पर्यांत वाळतार येतालि। संतत- पिळगेच्या वर्मांच्या सांगातांत पर्निं जाव्नयी, नव्या होक्लेवरि सोव्तालि। वाळतार येतालि। आद्ल्या मन्श्यांबग्चि तिं आय्दानांय घटमूट आनि वाळतार येतालि।

# रांद्पा कुडांत्लि साहेत विविद सुवातेर

**रांद्पा कुडांत चलन वलनः** कडंव्वें, कर्पंव्वें, काड्चें, कातर्चें, खांड्चें, खांव्वें, किचंव्वें, किरंव्वें, कोचांव्वें, उकड्चें, उक्लांव्वें, उडंव्वें, उचंव्वें, ऊब काड्चें, उम्पुंचें, जग्व्वें, जळचें, जेंव्वें, झाड्चें, आमुड्चें, आंबुड्चें, सारंव्वें, मोल्चें, तास्चें, तासांव्वें, थाप्चें, वाट्चें, वाड्चें, वांट्चें, वाळचें, विंच्चें, वोतोंव्वें, दवर्चें, दाडांव्वें, धुंव्वें, दोळचें, धाळचें, तोळचें, वोत्चें, पापुड्चें, थापुड्चें, पात्ळांव्वें, पियेंव्वें, पिळचें, पुंक्चें, पुस्चें, फागंव्वें, पेटंव्वें, भर्चें, वोर्चें, वेळशेंव्वें, वावोंव्वें, शिजंव्वें, शिंद्चें, शिज्चें, चेप्चें, गाळचें, गिळचें, घाल्चें, नेगंव्वें, घास्चें, वाच्चें, विजंव्वें, लाट्चें, लेप्टांव्वें, खत्कतांव्वें, चिर्मुटांव्वें, सुटि कर्चें, काप्चें, साळचें, चाळचें।

**रांद्पा कुडांत बांदुन हाडल्लि साहेतः** गंद्िण, गंद्िणचो खुर, गंद्िणचें पोर्ल, पोर्लांचि पंटाळि, जोंळवाचो कोन्सो, फळें, उत्तव, म्हाळो, धाक्टो म्हाळो, आट्टांळिग, मांक्डि खवंव्चि, मांक्डि वांदुन उम्काळांव्चि धुव्रानांळ, धिव्टांण, कंत्रेल, किळो, गुडामोपो, धार, धावोंत, हुंवार, वागिल, मांकळ, किळ, जनेल, तळमा-तळम, शिंकं।

**रांद्पा कुडांत चर जिद्गि (Movable Goods):** मोड्कि, मांड्कुल, बुड्कुलो, कुंडें, कुंड्कि, वाळिण, निव्णं, मांड, बावाडें, कुर्फोंण, थालि, कडाय, खोण्फो, उदका गंदुन, तांद्ळागंदुन, लोन्च्या बुयांव, मिटावोर्नि, मिटामोर्गि, कय्लि, कय्लाड, काय्ल, कय्लें, कय्लाण, तोप्लें, तोवो, तोब्लि, चेंव्वु, गिंड्कि, चेंव्वु तोप्लें, दाय, दोय, गुळम, गिंडाल, कुट्टं, कोप, चाक्लिन, चाळन, गाळन, तोंदार, पणेर, काय्लातो, आप्पांचि काय्ल, आपांचि काय्ल, पोळयां काय्ल, गूंड काय्ल, वनालो, तोवो, कोय्ति, कोय्तो, कोय्तुल, मुरि, आदाळो, कस्कांति, पेस्कांति, कांत्लें, पाग्य, मांवार्डो, डव्वो, शेव्गो, हातो, कव्लो, मुन्कुटो, वांक तीन पायांचो, वान, ग्डो, धांतें, फातर, फात्रि, तोड्फें, सुप, धालि, धालें, कुर्फांणो, लांवंटि फातर, हळद दाडांव्चो फातर, कट्टि, कट्टुल, माल्लि, माल्लुल, मणंय, मुन्कुटो, गमट्टं, शेर, पाव, शिधें, कोळसो, शिधि, काणम, घाट्णो, चेर्गि, मांड्फात्रि, पाळश्याण-ताळण्या मांडो, मुर्नांळ, हांडो, हर्वांण, मागेण, खुंटो, चिल्फाट, मुसाळ।

**रांद्रिणच्या खुरार आस्वि साहेतः** कांडियांपेट, मिटामोर्गि, नार्लावोळें, मोलांचें मोड्कुल, गुमाट्टं गोडाचें, मांवार्डो, चिम्णि, धुव्र तापात घाल्लिं आय्दानां मोड्क्यो, कुंड्लि, धुंपेल, पुनेल, मुनें आनि माजार।

**पांद्रिणच्या पोर्लांत्लि साहेतः** उजो पुंक्चि नळि, बाण्शिरें, निव्णें, कोलित, पाताळि, कुदाय, मणंय, जोंळवाच्यो कांडियो वोंडियो

**रांद्रिणच्या कोन्श्यांत्लिं साहेतः** जोंळोव, लांकुड, मव्ल्यो, वोंडियो, आडागं, चुडेंति, कड्यो, पिसोंद्रि, पांयो, मोण्णां, शेणियो, शेण्कुटो, सर्लो, फडल्लें लांकुड, सोंटें, शिर्फुटो, पिडें, कोंव, मांप्ळें, बाताचि उमि, खवंताचो पिटो, बाताचि तूस।

**रांद्पा कुडांक उज्वाड दितातः** चिम्णि, वात, दिवो, पोंट्टि लेंप, मोमोय, धिव्टि, लांप्यांव, लामाण दिवो

**रांद्पा कुडांत माळ्यार धाल्चि साहेतः** तांदुळाचे मुडे, सुके नार्ल, भियाळो, मुडियो वांदुन, भात भांच्यों कांटि, व्हड्डं कय्लाड, हांडो, तांव्याच्यो मोड्क्यो, तोंदार आनि गंदपाचिं वोड्कि वोड्कि आय्दानां, काजाग सोवाणांक, फेस्ता पर्वाक गळ्गुन, धुव्र, तापव्र, माळयार वांम्तिं घाल्लात।

**रांद्पा कुडांत उत्वार धाल्चि साहेतः** गोडां पेळ, मुटांवो, गुर्य तांदुळ मोड्कं त भर्न, मिसोंग, भियाळो, सुकि मास्ळि, विक्णां, पाप्डें, आपोंळ, पावसाल्या दिसां खातिर, तयार कर्न, सुकव्र दवलेल्यों जेवणा-खाणाच्यो वस्तु, ओंटि, दागंवे, विड्डांचि सोलां सुकव्र मुडियो वांदुन वा मोड्क्यांत भर्न, सूक बांदुन दवर्नात।

**रांद्पा कुडांत कंत्रळांत दवर्तातः** चिम्णि दवर्च्या कंत्राळांतः चिम्णि

**आय्दाना दवर्चें कंत्राळः** वोशियो, वाट्ल्यो, पिरि, कोपां, तांब्लेर, लोटे, गोव्ळे, चाव्लिन, मग्ग, कुलेरं, तोप्लिं, माल्ति, माल्तुल, गिंड्डि, तांविल, हर्वाण, चिल्फाटां इत्यादि।

**डब्बे दवर्चें कंत्राळः** कंर्डे, तेला सिस्लि, सांवारचे कंर्डे, टिन्नां, वोर्न्यो, वोत्लि आनि हेर।

**रांद्पा कुडांत शिक्यार दवर्तातः** धंयाचो वुड्ढलो, पोळियेचि धालि, मुक्या माम्ळेचि पोट्लि, वाजल्लि माम्ळि, दूद, ताक, शिताचि मोड्कि, निस्त्याचें कुंड्लें, भुग्यांच्या, माज्रांच्या तोंडांत्लें बचाव करुंक सांवाळन दवर्तात।

**रांद्पा कुडांत मांक्डेक खवोव्न दवर्तातः** दाय, दोय, कोव्लो, हातो, काय्लातो, चाळन, कुलेरं, शिताचि दोय, वोर्न चाळिच दोय, निस्त्याचि दोय अशें ल्हान व्हड, कट्टेक, वाम्याचो दांडो रिगियिल्ल्यो दोयो क्रमप्रकार रिगव्न दवर्तात।

**रांद्पा कुडांत मांक्डेक उम्काळास्तातः** आम्टाणेचो गुळो, वियाळयाच्यो पोट्ल्यो, सोलांच्यो मुट्ट्यो, पियावाचे घोस, मोगिं, कुवाळे, दुदें इत्यादि पाव्सिल्या दिसां खातिर सांवाळन दवर्ता।

**रांद्पा कुडांत आंक्डेक खवोव्न दवर्तातः** सुरियो, कोय्ति, कोय्तो, कोय्तुल, धांत्रेकोय्ति

**रांद्पा कुडाचा कोन्श्यांत बस्वि साहेतः** सारोण, खुंटो, आदाळो, कांत्लें, मुसाळ, कोदांट्टि, कुगड, जेव्णाक वस्व्या मांद्रेचो खोव्ळो।

**रांद्पा कुडांत बसोंक गळ्सितातः** मणंय, मुन्कुटो, तीन पायांचो वांक, मांद्रि स्टूल, कांत्या मणंय, जेव्णाक थप्काल मार्न बस्वें, गंद्णिच्या पोलांत उकाडें वस्वें।

**रांद्पाच्या आय्दानांक आडियेक दवर्तातः** निव्णें, कांट्फागे, मोड्केचो कांट, वाळिण, फळें, बाण्शिर्यांचो चोम्डो, धावि गंदुण, वोय्ल=पाट्लि रांदुण।

**रांदणिच्या वय्र शिज्ता, उकोड्ता, खत्कत्ताः** ताप्च्या उद्काचि कुंड्लि, शिता-पेजेचि मोड्कि, कसायाचो वुड्ढलो, निस्त्याचें कुंड्लें, ताळन्याचि मोड्कि, पोळियेचो तोंदोर, दुदाचें तोप्लें

**रांद्पा कुडांत चाळुंक गळ्सितातः** दोय, दाय, दांडो, कुलेर, इंदाद/ इंदादि दोव्लो, काय्लातो,कोव्लो

**रांद्पा कुडांत कात्रुंक गळ्सुंचिं हातेरांः** कोय्ति, सुरि, आदाळो, कांत्लें, कोय्तो, कोय्तुल, मांड्डो कोय्तो, कस्कति, पेस्कति

**रांद्पा कुडांत दाडांव्क गळ्सितातः** पारय, कोदांटि, फातर हळद दाडांव्चो, कोय्तेचि मूट, कट्टेचि पाट, दोयेचि कट्टि, लाट्णें, मुसाळ, गुर्दोण, मुन्कुटो, मोड्तेल, मुत्तें, वलाय, लांवेटि फातर।

**रांद्पा कुडांत गाळुंक पाग्ळांव्क गळ्सितातः** गाळनें, चाळन, पेणेर, बाय्रास, धव्या वस्तुरचो कुड्को, कुर्पोण, धालि

**रांद्पा कुडांत वाळुंक गळ्सितातः** वाळिण, कुंड्लि, कोण्फो/ खोण्फो, तोप्लें, मांड कुर्पोण गंद्पाक वाटुंक, खर्गटांव्क, चेंचुंक, जरंव्क, गळिसतातः वान, घाट्णो, गुंडो फातर, धांतें,

धाल्यांपड, फातर, फात्रि, रगडो, लांबोटि फातर।

**रांदल्ले रांदाप/ जेवाण उस्कुन काडुंक, वाडुंक, वापार्तातः** तोप्लें, कोप, माल्लि, ताट, हवांण, कुंड्लि, वुड्डलो, वाट्लि, उतळ वाट्लि, बोल, थालि

**रांदल्लिं आय्दानां धुंव्क, नितळ करुंक गळ्सुंचि साहेतः** कडाय, वाळिण, बाल्दि, पीप, चाट्टि, उतळ व्हड्या तोंडाचें कुंड्लें, तांब्याचें स्टील एल्यूमेनियम बेसिन वा तळया दगड।

**रांदूपाच्यो हेर वस्तु भर्न दवरुंक उपयोग्सितातः** मांवाढों, बोर्नि, वुयांव, कोंड्डो डब्बो, बोल्ल, सिम्लि, मांडो, मोड्कि, खंळिव, मोर्गुल, मोर्गि, वुड्डलो, कोळमुलो, धालि, धालें, कुर्फोणो, कांट, कुवें, कांटागे, वुड्डो, वुड्डि, माड्को वोळें (मुक्या वोव्कयाचें कर्ल) दुदें (तशेंच) वातेणाचि मुडि, कल्फाडो

**रांदल्ले जेवाण-खाण, वाडुंक, जेंव्क गळ्सितातः** वाट्लि, बोशि, पीर, शिगेति (केंळव्याचो खोलो) हवाण, थालि, माल्लि, माल्नुल, फाळेत, रुकाचो व्हड्डो खोलो।

**पानियां पियेंव्क, सेंव्क गळ्सितातः** कट्टि, कट्टुल, चाव्लिन, मग्ग, ताट्टें, कोप, चेंव्वु, गोव्ळो, लोटो, ग्लास, माल्लि, चाचें कोप, सुपाचें कोप

**रांदल्ल्या रांदूपाक खाण जेवाण धांपुंक गळ्सितातः** मांड, कुर्फोण, थालि, पीर, प्लेट, बोशि, वस्तुग कुड्को, धांण्णें, वावाडें, फळें, वाट्लि, कोप, चाळन, गुड्डि, दांक्णें, कुंड्लि, कुंड्लें।

**रांदूपा कुडांत उदाक भरुंक, उस्कुंक, भर्न दवरुंकः** गंदुण/ गंदुन, गुर्गुलेत, मांडो, मोड्कि, हांडो, वाण, मोड्को, कोळसो, कोळगुळो, सिदि, तांवियो, चेंव्वु, तोप्लें, वोणोक, कट्टि, चाव्लिन, कट्टि, हानाचो पोमो, लोटो, गोव्ळो, तांब्येर, ताट्टें।

**झाडुंक, पाड्डुंक, पुसुंक, गोंटो काडुंक, घासुंक गळ्सितातः** मागेण, खुंटो, वाण्शिरें, पन्र्यो वस्तुगचो कुड्को, गोणि, चुडेति, आय्दाना पुस्चो कुड्को, शेण पुस्चो कुड्को, हात पुस्चो कुड्को, नार्लो कातो, सोण्णां।

**आस्डुंक, विंचुंक, सुकंव्क, उजार कर्तातः** तोड्फें, सुप, धालि, धालें, गेर्मि, कुर्फोण, कुवें, कुर्फोणो, पेणेर, हर्वाण, थालि आनि हेर।

**तांदुळ, धानि, हेर, तुकुंक, मेजुंक, मापुंक, वापर्तातः** शेर, अर्दो शेर, पाव, कळिस, कुट्टि, चेंव्वु, कुर्नियं चेंव्वु, गिड्डि, माप, पोमो, चिम्टि, मूट, टिन्न, शिधें = तीन कुट्टि, एक शिधें

**रांदाप शिजंव्क, उजो पेटंव्क, वापर्चि उपकरणांः** गंदि्ण, गंदुण, शिग्डि, स्टांव, गेस चूल, चूल, विद्युत चूल।

**गंदि्णर चडंव्चिं आय्दानां, उक्डुंक, शिजंव्क, खत्कतांव्कः** मोड्कि, कुंड्लें, कुंड्लि, तोप्लें, तोंदोर, कय्नाड, कय्नाण, कुक्कर, सुर्नें, वुड्डलो, हांडो।

**गंदि्णर वाजुंक गळ्सुंचि साहेतः** कय्ल, कय्लि, काय्ल, तोवो, वनालो, गूंड काय्ल, आपांचि काय्ल, पोण्णांचि काय्ल, आप्यांचि काय्ल, खडियें काय्लु।

**मोड्कि, वुड्डलो, मोड्डलांत शिजंव्चिं पक्वनांः** शित, पेज, आंवल, वोर्न, किर, किजरि,

पुलाव, मेतियं पेज, नाल्याचो आट्टोळ, कसाय, कापि, उदाक तापंव्वें।
**कुंड्यांत शिजंव्वें, खत्कतांव्वें पक्वनः** कडि, निम्तें, निवोळ, सुकें कर्चें, जिरें मिरिं, वग्र पांदा उजो, सार, कन्फिर मिरिं, इंदाद, दाडाव्र घाल्न गंद्चें, काल्द, वाफाद, मोलि, लोमुण मिरिं, स्टू, मूफ, सांवार वाजुन कडि, मास मुकें, सर्फतेल, मास्ळे कडि, माम्ळि मुर्मुरंव्चि इत्यादि इत्यादि।
**कय्लाण, कण्फारोंत्लिं पक्वनांः** व्हड्ल्या तोंद्रा गात्राचिं कुंड्लि हिं। कुव्या मुट्लि, पात्राड्या कडि, आंव्वाड्यांचि गोड कडि, काळिज आन्किटि, आळुं धेंटो, मोंति फेम्ताक, फेम्तां पर्वेक मास, चणे मुके, केळिं सुकिं, गुज्रो गंद्चो इत्यादि।
**कुंड्लेंत, बुड्ड्ल्यांत, शिजंव्वे द्रव्य-पक्वनः** काफि, कसाय, शेवियांक गेस, वार्लि शिजंव्वि अरूट कडंव्वें, कुंड्लि तांद्ळाचें ताळनें काडुंक, तांदुळ नेगंव्क, उदाक खत्कतांव्क बुड्ड्ल्यांत पेज, कसाय, ताक चालुंक।
**तोंद्रांत उकोड्चि पोळि आनि हेरः** सन्नां, इड्ल्यो, मांडास, मुट्लि, इट्टु, पातोळि, पात्राडे, लताड, पुर्नासन्नां, गेमा सन्नां, पोण्सा पातोळि, गंदो, वांळिटक, फेस्तां पर्वेक मास गंद्चें, विग्यिानि, पुलाव, तोंद्रांत शिजय्तात।
**उतळ काय्लिर बाज्वें खाण, पोळिः** पोळे, पान्फाळे, आपे, वाक्रि, माम्ळि, काट्लिसां, तांत्या पोळो, प्यानकेक इत्यादि।
**बनालो, गूंड काय्लिंत बाज्वें, तोळ्वेंः** पोण्सा गाग्यिो, नेव्र्यो, आपे, आपोळ, कोक्किसां, गुळियो, चाक्ल्यो, भजे, पातेकां, आंवाडे, पियावाचे भजे, जिलेवि, सजि, सुकुरूंडे इत्यादि।
**कय्लेर बाज्वि पोळि - सांबारः** कय्लोळि, वाक्रि, सांवार, तांदुळ, धानि, शेकुंक गेंव, ओंवों, कसाय करूंक. नार्ल, गांत्वि, सुकिं सुंक्टां इत्यादि।
**रांद्णिंत्ल्या इंग्ळ्यांनि, गसर्यांत मुर्मुरांव्वें बाज्वेंः** विक्णां, कण्ग्यो, कुल्र्यो, पियाव, सुकि मास्ळि, खारें, काजुच्यो बियो
**वानार वाट्तात, खांड्तात, दाडास्तात, फारस्तातः** आळेन, चेट्णि तांदुळ, गोंव, नाल्लो, नार्ल रोसाक, मिसांगे पिटो, सांवारा पिटो, लोन्च्या पिटो, तांदुळ पारांव्वो, तांद्ळाचि पिटि आनि हेर
**धांत्या फेडार दोळ्तातः** तांदुळ, गोंव, नाल्लो, दाळ, धानि
**बुयांवांत भर्न दवर्तातः** लोन्चें, आल्याचि दोस, खोळाचे आंबे, मीट, पाल्फोणोम उकड्लेले। पोण्सा चार्कांड, गरे, शिट्टां, कर्टां, आवाळे इत्यादि मिटाच्या खोळाक घाल्तात। कोच्राचें, पोडिंचें, आंव्वाडो पोपाय भर्मिक लोन्चें इत्यादि भर्न दवर्तात।
**आड खाणांच्यो आच्यो नक्ष्याः** शेवगो, चित कांत्लें, लाट्फोळें, लाट्णें, चाक्लेचि आच्चि, नेव्र्यांचि आच्चि, कोक्किसांचि आच्चि
**रांद्पा कुडांत्लि मन्जात आनि किटांः** माजार, उंदिर, जर्लो, चिव्ळें, चिचोंद्रि, मूय, माळियो, मूस, मुस्कां, वोगेड, कीड, दोंव्ळे, पाल, दिव्या पिमोळिं।

## गंद्पा कुडांत्लि साहेत, खाणा जेव्णाच्यो वस्तु, हांचो अर्थ

**अन** = पोटाक वेचो आहार, शित नीस, पेजेचो खण

**अर्कड** = अर्दे कुरें, गंद जाव्नाल्लें अळिन

**आळ्नि** = मीट उणे जाल्लें चाप्पें पक्वन खाण

**आंक्डि** = मांडियेच्यो, वाम्याच्यो दोन कांवि वोम्यो सांगाता बांदुन, दोयो-कोय्यो दवरूंक केल्लि चडि दोयो-कोय्यो दवरूंक केल्लि चडि

**आच्चि** = चाकल्यो, नेव्र्यो, कर्चि रूकाडाचि पित्ळिचि वा तांब्याचि नक्ष्या

**आग** = उजो, ऊव

**आग्टें** = जळोन आम्चो उजो, जळोव, केंडां, गोवोर इत्यादि

**आटय** = नापव्न उदाक उणे जांव्क मुकय

**आट्टोळ** = तांदुळ आनि नाल्या पिटाचि पेज, आंविल

**आडार** = वोंडि, वेत, जोळुंक आनि मारूंक उप्कार्चें

**आडांवो** = आड खांवो, वाळश्यांनि गंद्पा कुडाक ग्गिनाशें, धार्वोताक आड मार्चि ग्पिां

**आडि** = पोंद, थळ, उदाः कुंड्ल्याचा आडियेक लागल्लि कडि

**आदान** = शिनाक तांदुळ घालुंक, मोड्कं त, वुड्डल्यांत गंदिणर दवर्चें, जाय पुर्ते उदाक

**आदाळो** = मण्येक वर्मयिल्लि कोय्ति। गंद्पा कुडांत मुटि करूंक उजार कर्तात

**आप** = तांदळाचा पुग्लेल्या पिटाचि, काय्लिर वाज्चि पोळि

**आपुट** = कांय्च भर्मिनातल्लो उदाः नार्लाचो आपुट गेम

**आपो** = आप्यांचा काय्लिर, वाड्ळया उरूट खणांनि पीट वोतुन वाज्चि पोळि

**आम्टाण** = आंवोट, आम्माण, चिंच खर्लाव्न गंद्पाक तयार केल्लि

**आय्दांन** = गंद्पाक गळर्मुचि, मार्त्यचि, लोहचि साहेत

**आय्द** = गंद्पा कुडांत शिदुंक, कात्रुंक, तामुंक, गळिमतात आदाळो, मुरि, कोय्ति,

**आराय** = शिपल्लें लार्गि कर, शिपड्लें ओड्ड कर

**आल्मार** = कवाट, कंत्राळांक धागं वर्मयिल्लें शेल्फ

**आल्मांदो** = एका थर्गचि गंद्वांयं मांग (लांव वीण्म)

**आवो** = मार्त्याचें आय्दानां उक्ड्ंक नयार केल्लो गुड

**आव्यामाति** = गंद्पाचि आय्दानां नयार्गुंक वार्पर्चि, फातर नातल्लि आंट मांति

**आहार** = खाण, जेवाण, कुंडचा भलार्यकक गेंव्चां आन

**आळुं** = तेरें जातिचें रूंद पानांचें झड, हाचिं पानां, धेंटे, गंद्पाक उपयोग्सितात
**आळेन** = सर्व नमुन्यांचो सांवार, मसालो, वाटुन तयार केल्लें पीट
**आंगाण** = घरा मुक्लो वा पाट्लो सफाय केल्लो जागो
**आंबाडो** = आंवट फळ वा चण्या पिटाचें, तेलांत वाजल्लें खाण
**आंबुड** = समा खा, गीळ, बोखाय
**आंबोडि** = आंव्याचिं तर्नि तोरां, चिर्मुटाव्न लोन्च्याक तयार केल्लिं
**इटु** = तांद्ळा पीट पुगव्न, केंळव्याच्या वा पोण्साच्या खोल्यांनि भर्न तोंद्रांत उकड्लेलि पोळि
**इडि** = पुगय्नातल्ल्या पिटाचि पोण्साचा खोल्यांत कोवोळन तोंद्रांत उकड्लेलि पोळि
**इडें** = दोंप्ळो, खांच, संद, बुराक
**इड्लि** = तांदुळ आनि उड्दाचि दाळ वाटुन, पुगल्ल्या पिटान, तोंद्रांत उकड्लेलि पोळि
**इर** = माडाचा - मोड्लाचा मद्याच आस्चि वारीक शिर। सारोण करुंक उपयोग्सितात
**इंग्लो** = जळ्ळेल्या लांक्डाचो कुड्को, पाल्वाल्लें केंड, पेटोन कर्पाल्लो
**उकड** = शिजय, उद्कांत घाल्न, उज्यार शिजय
**उक्डो** = शिजयिल्ल्या भाताचो उक्डो तांदुळ
**उक्लाय** = थळाक लागल्लें सोडव्न काड। काय्लि वय्लि पोळि, काय्लात्यान उक्लाय
**उगड** = उसय, उग्तें कर, सोडय, धार उग्तें कर
**उडिद** = पोळि करुंक पुगेक गर्जेचि दानि
**उति** = उतव, वोण्तिक खुंट मार्न, खवयिल्लें फळें
**उत्रें** = तांदुळ शिज्ताना, खत्कत्चें उदाक
**उपचार** = सत्कार, घर्च्या मन्श्यांनि - सग्र्यांक सुदार्सुचें
**उप्करि** = रांद्णिर शिजय्नास्ताना, नार्ल कांतुन, भर्सुन केल्लें खाण
**उम्काळाय** = किळयाक, कोक्ष्याक वा किराक शिर्काय
**उस्टें** = पोस्ण्यांत जेव्न सोडल्लें खाण
**उंडि** = जेव्ताना हातान वोळचो शिताचो पोसो, मुदो
**उंडो** = गोंवाचा पुग्लेल्या पिटान खव्नांत उकड्न तयार केल्लि पोळि
**ऊब** = गरम, हुन्साण, धुंव्रा रुपार आवि जांव्चि धाव
**कजो** = तांदुळ सार्को कुंडो काडिनास्ताना, काव चड जडानातल्लो तांदुळ
**कट्टि** = नार्लाचा वोळयाचें बाय्लें कवच
**कड** = विशेशु हुन जा, खर्गोन वच, मोव जा, फातळ पड
**कडाय** = अरद्या गोलाकाराचें तांब्याचें आय्दान, जेव्णाचिं हेर आय्दानां तांतुन दुतात

**कडि** = नालं मांवार वाटुन आळंन कत्कनो काडल्लें द्रावण
**कडो** = विशेश हुन, खत्कांतो उदाक
**कणि** = वार्गक कुड्क जाल्लो तांदुळ, तूम
**कन्फो** = शिन वाळुंक, लोन्चें घालुंक, रुकाडाचें दोणि आकारचें आय्दान
**कप्ल** = मातियेचा आय्दानाचो कुड्को, वाक्रि, मांवार वाजुंक उपयोग्मितात
**कप्लि** = मातियेचो तोवो, काय्ल
**कप्लोळि** = कय्लेर वा तोव्यार वाज्चि, पुगानातल्ल्या पिटाचि पोळि
**करंब** = तोव्श्याचिं कापां कर्न पियाव मिर्सांग घाल्न केल्लो मालाद
**करि** = घस, धुंव्रा उज्या वर्वि मांड्चि काळि पिटि
**कर्फालें** = उजो चड जाव्न, आय्दानाचा आडियेक लागोन लास्चें/जळचें
**कलय** = तांव्याचा आय्दानाक काड्चि, तव्याचि वोप
**कसाय** = वक्ताचिं पाळां, पानां, उकोड्न कर्चें वोकात। उदा: कसायाचो वुड्कलो
**कळिस** = तांदुळ, दानि, मेज्चें चोव्दा शेरांचें माप। उदा: चोव्दा शेर, एक कळिस
**कंत्रेल** = कंत्राळ, वोण्तिंत पोकोर्न केल्लें शेल्फ, वस्तु, चिम्णि दवर्चो जागो
**कंडों** = डव्वो, लोहचा तग्डाचि उरूट वोर्नि
**काडियां पेट** = उजो पेटंव्चा काडियांचि लान्शि पेट, म्याचस वा पोस्को
**काणेकाण** = केंळव्याचा कांडियेचिं पातळ कापां कर्न, मिटा उद्काक घाल्चिं
**काय्लातो** = काय्लि वय्ल्यो वस्तु उक्लांव्चें हातेर, लोहचें वा रुकाडाचें
**काल्द** = सुप, हाडांचें गंद्वोयेचें, उकड्न काडल्लें उदाक
**कांट** = मोड्केचो, कुंड्ल्याचो गळो
**कांट** = कुर्वें, वोड्लि वाटि, नार्ल, तांदुळ वा हेर माहेत भरुंक गळिसतात
**कांत** = नार्लाचें वोळें, कांत्याचा धाग्क धर्न, वार्गक चून कांत्चें
**कांत्नें** = मण्यंक आदाळयावर्गिच, कात्र्याचें हातेर वसव्न, नार्लाचें चून कांत्चें हातेर
**कांत्लि** = नार्लावोळया विनल्र्या धाट सायेचो लान्सो कुड्को, भुर्ग्यांक कांत्लि दीव्न फटय्तात
**किटाळ** = किसर, उज्याचें दाक्टें पेट्चें कीट
**किडाय** = गंदिणंल्लें उज्याचें गसारें, कांलितान, वांडियेन, वग्र पांदा कर्चें
**किळो** = गंद्पा कुडांत सोलांचि पोट्लि उस्काळांव्क, वोण्तिक मार्तात, रुकाडाचि कुट्टि
**कुट्टें** = दृढ मेज्चें, हाताळयाचें नट्टें, माप, एक कुनि नाव कुट्टिं
**कुडार** = लाकुड वेत्चें, पांड्चें, लांक्डाचें, मिलावाचें हातेर - मोडु
**कुर्मुगय** = हुन्याणंक पुल, तापल्ल्या काय्लिर भात उडव्न, चिर्मुल्यो कुर्मुगय्तात

**कुलेर** = लोहाचि लान्शि दोय

**कुंड्ले** = निस्तें कर्चें, आव्या मातियेन तयार्सिल्लें, उतळ तोंडाचें आय्दान

**कुंबार** = मातियेचिं आय्दानां तयार कर्चो वाव्राडि

**कोचोर** = वारीक तासाव्न कर्चो पिटो। कोच्राचें लोन्चें घालुंक, तोर कोचाय्तात

**कोदांटि** = मोण्कुटो, दाडांव्क वापर्चो रुकाडाचो कुड्को

**कोय्ति** = रुकाडाचें थोरुं आसोन, अर्द्या चंद्राकाराचें बागायिल्लें लोंक्डाचें हातेर

**कोलित** = अर्दें जळोनंच आस्चें लांकुड वा बोडि

**कुळ्सुलो** = तेल वोर्न दवर्चें आव्या मातियेचे, कोळश्या आकाराचें लान्शें आय्दान

**कोळ्सो** = वांय्चें उदाक काडुंक, वोडुंक, हाडुंक वापर्चें, मात्येचें, लोहाचं आय्दान

**कोंप्रो** = उदाक, दानि, इत्यादि वोर्न दवर्चें, लान्शें मात्येचें वाण

**खत्कत** = सळसळचें, खत्कतो येंव्चो, विशेश हुन जाव्न उवेंव्चें, नाच्चें

**खर** = हुन जांव्चें, गरम जांव्चें उदा: उदाक तापोन खर कोट्टु जालां

**खार** = मिटाचि रूच उदा: मीट चड जाल्यार खार जाता

**खिरय** = भर्सि उद्कांत भर्सुन चाळ

**खुर** = गंदि्णचि पाट्लि कूस वा सोपो

**खुंटो** = इर जरोन मट्टि जाल्लि सारोण

**खोव्लो** = ताक चाळचें, गोलाकाराचें, खर्वणां आसोन, लांब दांड्याचें उपकरण

**गाळ्ण** = कापि, कसाय आनि हेर द्रावण गाळचें, जाळिचें उपकरण

**गिंड्ले** = गिंड्लि, पितुळचें लान्शें, दूद मेजुन, घरांक बट्वाड करुंक व्हर्चें आय्दान

**गुड्दि** = वोत्लिचें तोंड, हेर दोंप्ळो, बंध करुंक चेप्चो चोम्डो

**गोबोर** = रांदि्णंत लांक्डां, हेर जळोव, जळोन उर्चो पिटो, घर जळोन गोबोर जालें

**घस** = रांध्पिर, उज्यार दवर्न शिजय्ताना आय्दानांच्या पोंद्ल्यान मांड्चि करि

**घसारें** = गंदि्ण भितर, जळोन उरल्लो हुन हुन गोबोर इंग्ळे

**घाट्णो** = वानांत वाटुंक वापर्चो, गोलाकाराचो, तासल्लो लांव्सो, खड्फि फातर

**घास** = तोंडांत सोंव्ता तित्लें खाण, शिताचो पोसो, दोन घास जेव्न व्हच

**घास** = घस्टि, नितळ कर, गोवोर-कातो काण्गेव्न, आय्दानां घास

**चाक** = रूच पळे। जिवेक लागोव्न, चाकोन पले, चाकोन जेव

**चाचाय** = तासाय, कोय्तेन, कोय्त्यान, मुन्कुट्यार दवर्न, चाचाय, कोचोर कर

**चाळ्न** = खोव्ल्यान चोव्काटांत, आड उब्यो सरियो बसव्न केल्लें, गाळचें हातेर

**चिम्णि** = दिवो, सिम्या तेलान वा मुंर्गि तेलान जळंव्चो धिवो

**चेट्रिण** = नालें. मीट मिर्सांग वाटुन. तयार केल्लें तोंड्डांव्चें पक्वन

**चेंब्बु** = तांवें वा हेर लोहाचो लान्मो कोळमुलो

**जांब्लि** = वोण्णिचा चुडंत्यांनि वोळळेलि वास्केट. आदिं मार्केटंक व्हरांक गळिमनालि

**जिड्डो** = कणम नातल्लें. लान्शें मुमाळ

**जेवाण** = गंद्फा कुडांत तयार्मुचें. मांगाता वमोन जेंव्चें. मेंव्चें

**झाड** = मागेणेन. सार्णि खुंट्यान. कोग्र लागिं कर्चो. आगंव्चो. झाड्न नितळ कर्चें

**तट्टें** = हर्वाण. फळहार दवर्चि लोहचि पीर. ताट. थालि

**तवाक** = हर्वाण. थाट. पान्फोडिचि वोशि

**तर्न** = नीस पेज सांगाता

**तस्त** = लोहाचें उरूट आय्दान, कडाय

**तळस** = वाग्लाचा वयल्यान केल्लें लान्शें कंत्राळ. मेल्फ (वाग्लाचो धार्वोंत) आनि वोणोदिचा मधें आसता।

**ताट** = व्हड्डें तट्टें, वाट्लि, जेव्णाच्यो वस्तु दवर्चें हर्वाण

**तापय** = हुन कर, उज्यार दवर्न हुन कर

**तास** = कोय्तेन, मुर्ग्येन, माल काड, मफाय कर

**ताळ्णें** = तांदुळ धुल्लें उदाक

**तीक** = तिक्माण, मिरिं, मिर्सांर्गचि रूच

**तेल** = गंद्पाक उपयोग्मुचें द्रव्य, वनस्पतिचि पातळ चगव या वोस

**तोडो** = कुड्का. केप्टि. मोव्लि. मात्येचा आय्दानांचि उकल्लेलि मोव्लि, केप्टि

**तोंड्डाय** = तोंडाक लाय. थोडें थोडें खा

**तोंदोर** = पोळि, मन्नां, हेर उकड्चें, वंध आय्दान

**तोंव** = शेळग्र उदाक जांव्चें, गोड तोव्ना

**तोळ** = वाज, कय्लेर तापग्र बाज

**थोरुं** = हाताळो. कोय्तेचो हाताळो

**दाय** = उनळ टोय, वार्गिक वुगक आनि हाताळो आस्चें हातेर

**धालि** = तळट्याचा चुडंत्यांनि वोळळेलें कुर्वे

**धांडाय** = चाळ. टोयेचा धांड्यान. गंदिणर शिज्चिं पक्वनां चाळिचं

**धांडारा** = केळव्याचा. कामाळुचा. खोल्याचो दंट. काय्लिक तेल तूप मार्ग्क गळिमतात

**धांडो** = हाताळो. टोय. दाय. हांकां हातांत धरूंक वसंव्चो कोल

**धांतें** = उरूट. मफाय फात्रांक. मटं कुट्टि वगग्र. पीट टोळुंक केल्लें माधन

**धेळें** = निसण, माळयाक, पाक्याक चडोंक, आंकणां वांदुन तयार केल्लि निसण

**दोय** = कट्टेक दांडो वसव्न केल्लें व्हड्डें कुलेर

**दोळ** = दोळचें, धांत्याचेर मुकि धानि, तांदुळ, गोंव घाल्न पिटो कर्चो।

**धाडाय** = खांड, पिटो कर, वानार फात्रान पार्येन हळद, घट वस्त दाडांव्चि

**धांण्णें** = धांप्चें, उग्तें आय्दान, कंर्डो, मोड्कि हेर आय्दानांक धांप्चें, वंध कर्चें, मांड, थालि, थाट इत्यादि

**धुरो** = धुंवोर, उजो जळताना,वग्र चड्चो वाय, वारें, आवि

**नळि** = उजो पुंक्चि, वुरूट आकाराचि, लांव, मधें वुगक आसोन, वास्यावरि पोकोळ वोडि

**निवय** = उन्साण उणि कर। निंवोय, थंड कर

**निण्णें** = आय्दानां भुंय दवरुंक आडि धर्तेक लागनातल्लेवरि दवर्चें उरूट खोंड्डें चुंवोळ

**निंस्तें** = शिता सांगाता तोंडाक लांव्क गंदल्लें परात, चाक्णें उः शित निस्तें

**नीस** = शिजल्ल्या पेजेंत्लें उदाक उः नीस पेज

**नेराय** = सव्कास हालव्न हालव्न उद्का सांगाता फातर रेंव आडियेक वसय। उः तांदुळ धानि नेरव्न फातर काड

**पक्वन** = रुचिक गंद्पाचो फरात, कडि निस्तें, वाजल्लें

**परत** = गंद्वोयेच्या विविद नमुन्याचिं गंद्पां

**पाग्ळाय** = गंद्पाचा वस्तुंत्लें उदाक गाळ, देंवोव्न खालि कर

**पातोळि** = तांदूळाचें पीट खोल्यार पात्ळाव्न, दोड्न, तोंद्रांत उकोड्चि पोळि

**पात्ळाय** = धाट आसल्लें, पातळ जाय्शें, थापुन विस्ताराय, सोडय

**पानाक** = पीवन, तानेक पियेंव्चें द्रव्य उः काफि, चा, उदाक, शर्वत, सोड

**पान्फाळो** = तांद्ळाचें पीट पातळ कर्न, काय्लिर बाजल्लो पोळो

**पारय** = सव्वल, एक कुशिन खोंडुंक, दुस्रे कुशिन दाडांव्क, फागंव्क उप्कार्चो लोंक्डाचो धांडो

**पाल्वय** = पेट्चो उजो, दिवो, चिम्णि वंध कर, पुंक मार, गवय

**पीर** = लान्शि वाट्लि, शिता सांगाता निम्तें घेंव्क, सन्नां उक्डुंक वापर्तात

**फिळ्टर** = उदाक भर्न दवर्चो मोड्को। मुळांत ट्याप आस्ता

**पुंर्गे** = वातो मांड, जमव्न दवर्लेलि धानि - तांदुळ शेळेव्न खुंटेंव्चो

**पेज** = शित चड शिजव्न, नीस आनि शित सांगाताच्य सेंव्चें, जेंव्चें पक्वन। उः शित शिजोन पेज जालि।

**पोत्राडे** = पात्राचो पोळि, तेरें पानां शिदुन, तांदळा पिटा मांगाता भर्मुन, तोंद्रांत उकोड्चि पोळि

**पोळोव** = नार्लाचो गेम घाल्न केल्लि कुवाळयाचि कडि

**पोळो** = पीट फुगव्न, काय्लिर पातळ वोतुन, काय्लात्यान उक्लांव्चि पोळि

**पोर्ल** = गंद्णचें वाय्लें मूळ, गंद्ण मुक्लो जागो

**फारय** = वानाचा बुगकांत घाल्न, मुस्ळान, पार्येन, दाडाय

**फाळेत** = केंळव्याचो खोलो, मुको वा जिवो, वुति, जेवाण, खाण, फुलां, बांदुंक गळिसतात।

**फोण्ण** = गूंड काय्ल, दोन हाताळयांचो वनालोंत तेलांत मसांव वाजुन घाल, उ: निस्त्याक पोण्ण घाल

**बुयांव** = वोर्नि, गंव्ड रुंद तोंडाचि। मिटाचें, लोन्च्याचें बुयांव

**बुर्डो** = वुड्डो, तेलाचि बोत्ल, बूल, अर्श्याचें गोलाकारचें आय्दान

**बोसि** = बोशि, वाट्लि, जेव्ताना शित वाड्चें ताट

**बोत्ल** = व्हड्लि सिस्लि, चिम्णेचें, नार्लेल तेल भर्न दवर्तात

**बाक्रि** = मोळळेलें वा वाट्लेलें सुकेंच पीट खोल्यार कय्लेर तोव्यार पात्ळाव्न वाज्चि पोळि

**वाज** = तेलांत वा कय्लेर वाज्चें उ: पोळि, मास्ळि, सांवार पोण्ण वाज्तात

**बाण्शिरें** = गंद्पाचिं हुनूनि आय्दानां भुंय दवरुंक, उक्लुंक, वापर्चो कुड्को

**बुरो** = चिकोल, करि, आय्दानांच्या वाय्ल्यान मांड्चो चिकोल

**भोरो** = वोर्कुटि, काट, मोव्लि, काडियो, वोडियो, लांकुड, वोट्टुक वांदल्लो वोगे

**मणंय** = मणय, एक्ल्याक वसोंक तेकीत, दोन मट्व्या खुरांचें, लान्शें फळें

**माण्णि** = पिटाक गोड नार्ल घाल्न वाटुन, खडव्न वाट्लेक वोतुन, कुड्के कात्रुन खांव्चि पोळि

**मानेन** = मानान, वोड्लें कुंड्लें, फेस्तां पर्वेक मास पक्वनां गंद्चें, हेग वेलार म्हाळयार निद्चें, मात्येचें आय्दान

**माफ** = मेज्फाचा, लेखाचा, गात्राचें आय्दान उ: कुट्टें, शेर, पाव, कळिम इत्यादि

**मात्ति** = गांव्टि आव्या मातियेचें, जेंव्वें कोप, आय्दान वाळश्यांक शित गुड्डुंक उपयोग्मितात।

**म्हाळो** = पाक्या पोंदाक, मकय्ल आडिं ग्पिां मार्न, फळिं धांपुन, मामान दवरुंक केल्लो भाग

**मांड** = शित वाळुंक, गंद्पा आय्दानांक धांपुंक, रुकाडान तयार्मिल्लें धांकणें

**मांडास** = तोव्शें अनि तांदुळ वाटुन, केंळब्याचा खोल्यार, तोंद्रांत उकड्लेलि गोड्शि पोळि
**मांडो** = पोंद्ल्यान कांट आस्चें मात्येचें वाण। उदाक, ताळणें भरुंक, कोळाक घालुंक गळिसतात
**मिलाव** = शुद्ध केल्लें लोंकाड, गंद्पा कुडांत्लि कातर्चि साहेत, कोय्ति, सुरि, आदाळो, कांत्लें हांतुन तयार्सितात।
**मीट** = दर्यांचें उदाक आटव्न कर्चें खार्शें पदार्त
**मुग्टें** = मोड्कि, मोड्को आनि हेर आय्दानांचा तोंडाक वांद्चें लुगाट
**मुटांबो** = तांब्डो तांदुळ, भात अर्दें कुरें उकोड्न, पोळिये खातिर तयार्सिल्लो तांदुळ
**मुद्रें** = तांद्ळाचा पिटाक नार्लाचें चून भर्सुन, मुटिंत गुळे कर्न, तोंद्रांत उकड्लेलि पोळि
**मुडि** = खोल्यांनि वांदल्लो आम्टाणेचो गुळो
**मुर्नाळ** = तांद्ळाचो मुडो खोंकुन, तांद्ळाचि जात पार्कुंचें हातेर
**मुर्नें** = ताळणें बोर्न दवर्चो मोड्को
**मुलो** = सांद, कोन्सो, दोन वोण्ति घड्सोंचि सांद = सांदिमुलो
**मुसाळ** = वानांत तांदुळ खांडुंक गळसुंचो मुळांत लोहचें कणस आस्चो दांडो
**मोड्कि** = बुड्कुलो, शित शिजंव्चें, मात्येचें या लोहचें आय्दान
**मोड्कि** = शित चड शिज्ल्यार मोड्कि जाता
**मोण्कुटो** = मुण्कुटो, रुकाचो लान्चो कुड्को, गंद्पा कुडांत घट वस्त, मोण्कुट्यार दवर्न कोय्त्यान तासय्तात
**मोर्गि** = तळट्या माड वा नार्लो माडाचि कुति पोकोर्न केल्लो मांडो, मीट, ताळनें भर्न दवरुंक गळिसतात
**मोळ्कि** = उदाक भरल्ल्या आय्दानांच्या थळाक वोंद्वाता ति मड्डि, चिकोल, माति
**मोळ्कि** = काट, लान्सो बोरे, सांगो, लांक्डां, वोडियो, रांद्वोय ओट्टुक कर्न बांदल्लो काट
**मोळ** = पीट मोळन, वरें कल्सुन, गुळे कर्चि क्रिया
**रवो** = कणि, रुलांव, वारीक कुड्के केल्लो गोंव, तांदुळ वा धानि
**रांद** = उकड, जेवाण खाण शिजय, तयार कर
**रांदन** = रांदिण, तीन खुर आसोन, मदें उजो कर्चि चूल
**रांदुण** = उद्काचो मांडो, पोंद्ल्यान निव्व्या सार्को कांट आस्ता
**रांदो** = सग्ळो सांवार, वोक्तां वाटुन तुपान खडव्न, तयार केल्लें, वांळितचें वोकात
**लाट्णें** = लाट्णि, लाट्चो उरूट कोल उ: चपाति लाट्चें लाट्णें

**लांकुड** = जोळोव, रूकाचो पांटो कातर्न, फोड्न, केल्ले जोळपाचे कुड्के
**लिगिट** = मातियेचा येरल्ल्या पुट्कर आय्दानांक पात्तो घाल्वें मिश्रण
**लोटो** = गोव्ळो, ग्लास, पियेंक्क उपयोग्मुचें उरूट लांव्शें आय्दान
**लोन्वें** = मिटांत चिर्मुटाव्न, मांवारचा मिश्रणांत घाल्न दवर्लेले तोरं, हेर फळ वस्तुंचे कुड्के
**वाट** = वानांत तांदुळ मांवार घाल्न गुंव्डाव्न गंद वाट्चि क्रिया
**वाड** = जेवाण वोशियेंत घाल्न दि। उ: भुकेल्ल्याक वाड
**वान** = घाट्णो गुंव्डाव्न वाट्ंक, अड्डळो फोंड आस्चो, अर्धा गोलाकारचो फातर
**वासुड** = आमुड, तोड्फ्यांत तांदुळ घाल्न, फापुड्न, कुंडो, कणि, विंगड्सुंचि क्रिया
**वाळ** = शिताचा मोड्के वय्ल्यान, मांड कुर्पोन दवर्न, पोंद्ल्यान वाळिण दवर्न वागांव्वें, शित वाळचें
**वोणोक** = ताम्लेलि वोंड्लि कट्टि, न्हांव्क उदाक उस्फुंक वापर्तात वोण्को
**शिजय** = उकड, आय्दानांत उदाक घाल्न, गंद्णिर उज्यार, शित-निम्तें शिजय्तात
**शित** = तांदुळ मोड्केंत शिजोव्न, वाळ्णेर वाळन, कर्चें अन
**शिरोति** = फालेत, केंळव्या खोल्याचो कुड्को, जेवाण वाड्ंक, वाट्लेचा वद्लाक वापर्तात
**शिंके** = आय्दानांनि खाण, जेवाण, माज्राचा तोंडा थाव्न राकोंक उस्काळांव्वें जाळ
**शेर** = आद्लें माप, तुकाचें, मेज्फाचें शेर, पाव, आज्जेर
**सांवार** = कडियेक आनि प्रगतांक, घाल्चो जिन्सावार वनस्फति। मांवारचो कसाय कर्तात।
**सांवार्डो** = मांवार घालुंक, वेग्ळे वेग्ळे खण आस्चें, रुकाडाचें उरूट पेटुल
**सारोण** = माडाच्या चुडेंत्यां मोदिल काडि/ इर तासुन, सांगाता कट घाल्न केल्लि इर्गचि मोव्ळि
**सुरय** = उकड्नास्ताना, सुर्याच्या वोताक सुकव्न, खांड्न केल्लो तांदुळ
**सुरि** = कातर्चें आय्द, लान्शें, तल्वार्गिचा आकारचें, लोंक्डाचें हातेर
**सेगो** = शेव्गो, मेयो, मेव्यो कर्चें यंत्र, रुकाडाचें, लोंक्डाचें, पितुळेचें आस्ता
**हाताळो** = लोहचा आय्दानांक, उक्लुंक, धरूंक आस्चो धांडो
**हांडो** = फेस्तां पर्वेक गंद्चो, व्हड्डं पित्ळिचें वा तांव्याचें तोप्लें
**सहण** = माणेचो फातर, वट्टु जाल्लिं कात्रापाचिं हातेरं - सुरि, कोयित, कोय्तो पाजुंक हातेर



# पुस्तक उग्तावण वर्दि

## (फा| प्रशांत वि। माड्ताचे पांच ग्रंथ उग्तावण)




आजकाल वरें वाचाप वाचुंक मेळचें उणें जालां। लोकाक गर्ज आम्चयो संग्ति वग्व्चे वग्वि उणे जाल्यात। फा| प्रशांताच्या वुकांत सवार गर्जेच्यो संग्ति आसात। आनि ह्या द्वारिं कोंकणि भास ग्रेस्त केल्या म्हणालो मानादिक विस्फ लुविस पाव्ल सोज।

सांत लुविस कोलेजिच्या कोंकणि अध्ययन विभागान 2004 एप्रिल 24वेर, मंग्ळुर सांत लुविस कोलेजिच्या I.T. सभा सालांत चलल्ल्या देवादिन फा| सिल्वेस्टर मोंतेरो जे। स। स्मारक उपन्यास सभेर, फा| प्रशांत माड्ताचे पांच वूक उग्तावण कर्त्ति।

"भुर्ग्यांक कोंकणि वूक वाचुंक प्रोत्साह दिव्यां। तशें केल्यार मात्र कोंकणि भास जिवि उरात म्हळयाक दुवाव ना" म्हळया विस्पान फा| प्रशांताच्या साधना थंय होग्ळिक उचार्लि।

"कोंकणि पिकोळिं" 10,000 कोंकणि दोड्या अर्ताचे सब्दांचो जमो।

"शेंवोर किटाळां" लेखनां जमो, दुस्रो छापो

"राटावळ" समाजिक लेखनां जमो

"निन्नंते नानागलु" दि इमिटेशन ओफ क्रैस्ट। हाचें कन्नड तर्जण।

"सानिध्य" दि क्लावड ओफ अननोयिंग हाचें कन्नड तर्जण।

हे जाव्रासात पांच उत्तीम वूक उग्तावण जाल्ले।

सां। लुविस कोलेजिचो रेक्टर फा| फ्रान्सिस सेरावो कार्याचो अध्यक्ष वसल्लो। फा| ग्रेगरि सोज आनि प्रो| स्टीवन क्वाड्रस हाणिं फा| प्रशांताच्या वुकांचेर आप्लि अभिप्राय उचार्लि।

ह्याच वेळार साहिति वग्वि फा| सिल्वेस्टर मोंतेरो जे। स। स्मारक उपन्यास आसा केल्लो। सां। जुजे सेमिनरिचो प्रोफेसर फा| विक्टर मचादो फा| सिल्वेस्टराचें साहित्य-एक अवलोक ह्या विशयाचेर उलय्लो।

कोलेजिचो प्राशुंपाल फा| यूजिन लोबोन स्वागत केलो।

कोंकणि अध्ययन विभागाचो दिरेक्तोर, फा| स्टेनि मोजान वंदिलें। व्रदर लोय फेर्नांडिसान कार्यें चलय्लें।

# कोंकणि नविं पुस्तकां

1. "अर्धांग स्वप्णां" मट्व्यो कथा - जे.जे. डायस शिर्तांडि
2. "पुत्तु शेटिच्यो" काणियो (देवनागरि) - आन्सि पालाड्का
3. "व्हाट" - कविता - मेल्विन लुद्रिक
4. "वादाळं" - बाशांतर - जेमस मुवारिस ताकोडे
5. "शेंवोर किटाळां" दुस्रो छापो - फा| प्रशांत माड्ता
6. "राटावळ" - फा| प्रशांत माड्ता
7. "भांगि कुट्मा जिवित" धार्मिक - दे| फा| मात्रिस पाव्ला
8. "इंग्लीष कोंक्णि देव शास्त्रा सब्दावळ" - दो| जुवांव फेर्नांद
9. "खिळो" - वल्लि कोड्रास आजेकार
10. "पर्वाळ" (देव नागरि) - पि.जि. कामत
11. कोंकणि उत्रां पुंजो - फा वर्लेग्यिन फेर्नांडिस
12. "मंथन" - फ्रान्सिस सल्डान्हा कामात, मंग्ळुर
13. "कोंक्णंतल्यो मट्व्यो कथा" - डोल्फि लोबो, कास्सिया
14. कर्नाटकांत कोंक्णि संगीत - लेस्लि एन. रेगो, वेंदुर
15. कोंकणि रंगवूमि - वासुदेव शानभाग शिरसि
16. कोंक्णंत आण्कार साहित्य - फ्रान्सिस डि'कुन्ह
17. कोंक्णि काव्यां - स्टीवन कोड्रास पेर्मुदे आनि राघवेंद्र राव
18. कोंक्णि नेमाळिं - ग्लेडिस रेगो
19. कोंक्णंत ल्हानां भुरग्यांचें साहित्य - प्रवीण फेर्नांडिस
20. क्रिस्ता प्रकास - पा| रोनि सेराव,संग्रहक
21. जुजे वास पुराण - फा| वेन्सि सोज, तल्लूर
22. आसि कोंग्लिश उलय्तांव - जे.वि. सिक्वेरा, मुंबय
23. ओस्जूर फिरगज चलोन आयिल्लि व्हाट - चरित्रा सांदनां ससिति ओस्जूर
24. कार्ये सोभाण - जोर्ज केस्तलिनो
25. जेजु आम्चो सांमि आनि रक्षक - फा| नोर्बर्ट फेर्नांडिस
26. कोंकणि भास आनि साहित्याचें संशोधनात्मक समीक्षा - रोहिदास एन् शेट
27. आसि जागि जाव्चिं कदना? - संजय कुप्पंपदवु

# नव्यो कोव्ळ्यो

1. तुजो मोग - फा। आबेल लोबो
2. मांय तुं मोगाळि - फा| वाल्टर सोज
3. जिवित - श्री ओज्वाल्ड सोज
4. अमर उत्रां - फा| अर्तर सोज
5. आदेव्स - फा| जेरि SVD
6. स्तुति महिमा - फा| जेरि SVD
7. आधुनिक खुर्साचि वाट - मेल्विन पेरिस
8. मेच्वलां - नेल्सन लूविस
9. मांडो दाय्ज - II - मांड सोबाण

# प्रशस्ति पुरस्कार

1. कोंकणिंत माल्घडो लेखक। श्री जेरि कुल्शेकराक "दाय्जि दुवाय 2004 साहित्य पुरस्कार" पावो जाला। तशेंच्च 2004व्या वर्साचि संदेश कोंक्णि साहित्य प्रशस्ति श्री जेरि कुल्शेकराक पावो जाल्या।

2. कोंकणि भाशा मंडळ कर्नाटक (रि) हाचो अध्यक्ष जाव्न फा| एरिक क्रास्ता, प्रस्तुत राक्णो हफ्ताळयाचो संपादक विंचोन आय्ला।

3. डो| टि. एम.ए. पै. फांव्डेशनान हर वर्सा दिंव्चो, अत्त्युत्तम कोंकणि पुस्तक पुरस्कार 2003, श्री पाव्ल मोरासान बरयिल्ल्या "कोंकणि चळवळ" पुस्तकाक लाव्ला। रु. 25,000 नगद आनि होग्ळिक पत्र लाव्ता। हें पुस्तक कोंक्णेक मान्यताय मेळोंक चलल्ल्या कोंक्णि चळवळे विशांत मंशोधनात्मक कृति जाव्नासा। मंग्ळुर सां. लुविस कोलेजिच्या कोंक्णि मंम्थ्यान प्रगटल्लें हें पुस्तक कानडि लिपियेंत आसा। देव नागरि लिपिनयि ह्या पुस्तकाचि आवृति आतां प्रगट्ल्या।

4. मङ्गांव्च्या यशवंत प्रभाकर शेण्वि हाणे रचल्ल्या "इंग्ळयांत्लो हिरो" कृतियेन दो| टि.एं.ए. पै फांव्डेशनान हर वर्सा दिंव्चो प्रशंमा, पुरस्कार रु. 5000 नगद आनि होग्ळिके पत्र आण्णाय्ला।

# कोंक्णि मय्ला फातर


ग्लेडिस रेगो

**2004**

**जनेर 4:** आजेकार फिरंज आनि कोंक्णि लेखकांचो एक्वोट कर्नाटक (रि) हाणि आजेकार फिरंजेंत "कोंक्णि माइन्यांत वर्गवि" विचार मातें मांडुन हाडूं।

**जनेर 11:** महाराश्ट्रा कोंकण एसोसियेशनान आप्लें पन्नासावें कार्यें कोंकणिचो वाव्र केल्ल्या पन्नास वेक्तिंक गौरवाचो मान करुन, सांस्कृतिक कार्यक्रमांनि बोंबय जिर्मिरेल्ल्या उस्त्या मय्दानार चलव्न व्हेलें।

**जनेर 11:** मकाळे कलांगणांत 25वि महिन्याळि मांचि जाव्न, 150वें मांड सोभाण कार्यें साधर जालें। ह्या संदर्भार कोंकणि सि.डि. उस्ताय्ल्यो।

**जनेर 11:** "पय्लिं सेटां" जियो आराार हाच्या कवितां पुंजा वय्र, वासा वास कार्यें श्री स्टीवन कोड्रासाच्या घरांत चल्लें।

**जनेर 11:** आण्णाक कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमिचि प्रशस्ति 2003 लाव्ललो उल्लास कोंक्णि पर्जेलागिं वांटुन घेव्पाक, जेप्पुचा सां जुजे नाटक संघान "सुसदुर सांज" कार्यें मांडुन हाडूं।

**जनेर 25:** मुंबय आर्चार महाकाळि रस्त्यार आस्च्या रयान आश्रमाच्या सभासालांत, एका हप्त्याचि "नाटक कला तर्बेति" चल्लि। 27 कलाकरांनि हांतुन पात्र घेतल्लो।

**जनेर 30:** "कोंकणि वरव्यांचो एक्तार दाय्जि दुवायि" हांचो पांच्वो वार्शिक उत्सव (वार्शिकोत्सव) संभ्रमान आचरण जालो।

**जनेर 31:** कोंकणि साहित्य अकाडेमिच्या आस्र्याखाल उडुपि जिल्लासट्टाचो कोंकणि प्रौड शाळा भुर्ग्यांचो संस्कृतिक स्पर्दो उडुपि सेंट सेरिस इस्कोलाच्या सभा सालांत चल्लो।

**पेब्रेर 1:** सां लुविस कोलेजित स्थापन जाल्लो "जेजु राय" भुर्ग्यांच्या पत्राक पन्नास वर्सां संतान। 1954 - 2004 स्थापक संपादक दे| पा। टि.ए. लोबो S.J. हाणे जेजुराय पत्राचें संपादक्पोण 35 वर्सां चलव्न व्हेल्लें।

**पेब्रेर 1:** मकाळे कलांगणांत, मांड सोभाणाचि 26वि मांचि जाव्न कंसर्ट क्लब आंजेलोर, हांचे थाव्न नाच पदांचि सांज साधर जालि।

**पेब्रेर 1:** कोंकणि साहित्य आकाडेमि आनि कोंकणि साहित्य सांस्कृतिक केंद्र बेंग्ळुर हांच्या सहयोगान, वर्साचो विशेस सय्रो "श्री ओ.जे. कुलासो" संवाद कार्यें बेंग्ळुर सां जुजे वाणिज्य कोलेजिच्या सभासालांत मांडुन हाडूं।

**पेब्रेर 7:** कर्नाटक कोंकणि साहित्य अकाडेमिन राज्य सट्टार भुर्ग्यांचो कोंक्णि साहित्य तशें सांस्कृतिक सम्मेळ कोड्याळ वय्लांल्या वि.वि. स्वाणि पै सभा सालांत मांडुन हाडूं।

**पेब्रेर 8:** महाराश्ट्र कोंकणि एसोसियेशन हाणि वर्सावार कोंकणि तालेंतां स्पर्धे मांडुन

हाडल्ले। ल्हानां आनि व्हडांक, भाषण-नाच आनि नक्लि न्हेस्णा स्पर्धे, दादर आंतोनियो डि'सिल्वा हाय स्कूल सालांत हे स्पर्धे चल्ले।

**फेब्रेर 9:** "ह्यारिस सिल्वर ब्यांड" हाच्या शतमानोत्सव 1906 - 2006 सुर्वातेचि तयारय संदेश बज्जोडि हांगासर चल्लि।

**फेब्रेर 13:** केरळाचो व्यापारि गांव केलिकटांत श्री मुकुतींद्र कलामंदिरांत्ल्या वत्सला मंजुनाथ राव नगरांत "कोंकणेक पुडार दिव्यां" ह्या ध्येयाखाल 24वें अखिल भारत कोंकणि परिशद आदिवेशन चल्लें।

**फेब्रेर 18:** एवर ग्रीन हिरो म्हणोन नांवाड्लो पिंताम देरेवय्ल, 35 वर्सां प्राम चड कोंकणि रंगमंचार प्रजळ्ळो श्री वलेरियन पिंटो, वोंवयांत देवादिन जालो।

**फेब्रेर 22:** जेप्पु सां. जुजे नाटक संघाचो 78वो वार्शिकोत्सव फा| डेस्मांड रेवेल्लो कापुचिन हाच्या अध्यक्षपणार चल्लो।

**फेब्रेर 23** केनरा कोंकणि कथोलिक समाजेचो जागृतिक सम्मेळ 2004 दशेंबर 26 थाव्न, 29 पर्यांत मंगळुरांत चल्चो आसा म्हण समितेचो अध्यक्ष एल.जे. फेर्नांडिसान पत्रकारांचे जमातेंत कळय्लां।

**फेब्रेर 25:** कोंकणांत्लो वळिश्ट वाव्राडि वरवि, रोमि लिपिंत्ल्या कोंकणि साहित्यांत आपूर्व सय्ला फातर रचल्लो। "वाव्राड्यांचो ईश्ट" गुलोब "गोंय्चो आवाज" "द गोवन रिवीव" पत्रांचो बरवि फा| आंतोनियो पिरेरा जे.स. देवादिन जालो।

**फेब्रेर 27:** वेंदुर कथोलिक सिनते संघन, आप्ल्या सत्तराव्या वार्शिक संभ्रमाच्या उडासाक, रामाच्या आय्तार खेळ्न दाकंव्च्या "मदर तेरेसा" "खुर्सा मुकार" ह्या दोन नाटकांचें मुहूर्त कार्यें चल्लें।

**मार्च 19:** सां जुजेच्या फेस्ता दिसा, सां जुजे सेमिनरिच्या सालांत "जोस किरण" सेमिनरिच्या पत्राचें उग्तावण: बिस्प लुविस पावल सोजान केलें।

**मार्च 22:** मैसूर पुश्वश्रमाच्या सभा सालांत कोंकणि क्रिस्तांव संघान पयिल्ले पावि्टं वोवियांचो स्पर्दो चलव्न व्हेलो।

**मार्च 28:** वल्सटांत्ल्या सहोदय सभासालांत "दाय्जि दुवायि डोटकोम" हाच्या मंगळुर दफ्तराचें उग्तावण: आदलो कमिशन जे.आर. लोबोन केलें।

**मार्च 28:** राक्णो हफ्त्याळें आनि कोंकणि लेखकांचो एक्वोट (रि) कर्नाटका हांच्या जोड आस्त्र्याखाल - दियेसेजिच्या फिर्गज पत्रांच्या संपादक आनि बरय्णारांचें सहमिलन आनि साल्गड्या बरव्यां सांगाता संवाद कार्यें कोडियाळबय्ल बिस्पाच्या घराच्या सभा सालांत चल्लें।

**मार्च 28:** सां लुविस कोलेजिच्या सभा सालांत। "लेखकांचो संवाद" महिन्यावार कार्यें चल्लें।

**एप्रिल 3-4:** "साहित्याचे मुळावे मार्गदर्शक आन आधुनिकते थंय प्रवास म्हळळया विशयाचेर शेणय गोंय बाबाचा 125व्या जल्मा दिसाचा उडासाक केंद्र साहित्य एकेडेमि, कोंकणि बाशा मंडळि, मुंबय आनि आस्मिताय प्रतिश्टान गोंय हांच्या जोड कार्यान मुंबंय्त सेमिनार घडोव्न हाड्ळि।

**एप्रिल 4:** सुवय फातिमा इगर्जेच्या सिनि सालांत महाराश्ट्रा कोंकण एसोसियेशन हाणि "कोंकणि कविगोश्टि" आनि "मुखामुखि" कार्ये मांडुन हाडूं।

**एप्रिल 4:** मंगळुर सांत आग्नेस स्पेशल स्कूलाच्या मय्दानार, वेंदुरच्या कथोलिक सिनतेच्या तनाट्यानि "मटर तेंरसा" संगीत नाटक दे| वि.जे.पि. सल्डान्हाचो आनि "खुर्सा मुकार" दे| जेमि वरेक्कनाचो नाटक. 157 कलाकरांनि खेळांव्र दाकय्ले।

**एप्रिल 4:** शक्तिनगर कलांगणांत उग्ते रंग मांचियेर "जेजु जिविताचें उदाक" म्हळ्ळो संगीत नाटक, पिलार म्यूसिक आकाडेमि गोंय हांचे थाव्न 28वि सय्न्याळि मांचि जाव्न सादर जालो।

**एप्रिल 14:** संत लुविस कोलेजिक नवो रेक्टर जाव्न फा| प्रेंकि सेरावो S.J.न आप्लि जवाब्दारि वय्मुन घेत्लि।

**एप्रिल 17:** आजेकार इगर्जेसालांत, भुर्ग्यां थंय कोंक्णि भाशेचो मोग आनि जाण्वाय वाडंव्क "कोंक्णि शिक्पा शिविर" आसा केल्लें।

**एप्रिल 18:** मुंबय्चे अंदेरि ग्यान आश्रम सभा सालांत "कुटाम आनि दिवो हस्याळयांनि सांगाता" कोंक्णि लेखक सम्मेळ आसा केल्लो।

**एप्रिल 18:** बेंगळुर दीन सेवा आश्रमाचा सवांगणांत, कर्नाटक कोंकणि साहित्य एकाडेमिचो दशमानोत्सव संभ्रम, बेंगळुर - मैसूर विभाग सट्टार विचार सातें, कविगोष्टि श्री वल्लि वगचा अध्यक्षपणार चल्लो।

**एप्रिल 24:** मंगळुर सांत लुविस कोलेजिच्या, ऐटि सभा सालांत दे| फा| सिल्वेस्टर मोंतेरो स्मारक उपन्यास चल्लो। ह्याच्च संदर्बार फा| प्रशांत वि. माड्ता S.J.चे पांच बूक मा| बिस्प लुविस पावल सोजान उग्तावण केले।

**मे 2:** महाराश्ट्र कोंकण एसोसियेशनाचें 54वें कार्ये अंदेरि महाकालि ग्यान आश्रमाच्या उग्त्या मय्दानार आचरण केलें।

**मे 2:** शक्तिनगर कलांगणाचे उग्ते रंग मांचियेर गजिदर तालूक आनि पंगड गोंय, हांचे थाव्न 29वें महिन्याळि मांचि संगीत नाच कार्ये सादर जालें।

**मे 16:** कोंकणिंत्लें दोग पांकिवांत कार्वारि, लेखक आनि कोंक्णि सुपुत्र श्री पेत्रिसियो कार्दोजा आनि फा| प्रेड्डि जे.दकोस्ता वाहन अव्घडांत देवादिन जाले।

**मे 26-27:** मंगळुर पुरभवनांत कर्नाटक कोंक्णि साहित्य एकेडेमिचो धा वर्सांचो संभ्रम - "कोंक्णि उत्सव" चलव्न व्हेलो। ह्या संदर्भार कोंकणेंत्ल्या विविद विशयांचेर सात बूक उग्तावण जाले।

**मे 30:** दिवो सचित्र हस्पाळयाचो नोंवो (9) वार्शिकोत्सव, मुंबय्त आचरण केलो।

**जून 6:** शक्तिनगर कलांगणांत, कोंकणेंत्लो फामाद कलाकार संगीतकार देवादीन जेरोम डि'सोजाच्या वांग्राळया पदांचि सांज। "एक आसल्लो जेरोम" म्हळळया साताळयार, एंजल्स पंगडाखाल, नव्या नशे पर्न्या गाव्प्यांनि जेरोमाच्या पदांचि रूच प्रेक्षकांक चाकय्लि।



# सां। लुविस कोलेजिंत स्नातकोत्तर कोंक्णि डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स

एदोळ वरेग हजारांनि संसारभर विद्यार्तिंनि आप्णायिल्लो पद्युत्तर कोंक्णि डिप्लोमा करेस्पोंडेन्स कोर्स (Post Graduate Diploma in Konkani - Correspondence Course) परत ह्या वर्साच्या सेप्तेंबर महिन्यांत आरंभ जाता।

आख्या भारतांतच प्रथम जाव्नास्चो हो पद्युत्तर कोर्स दोन वर्सांचें शिकाप आटाता। एका वर्साक चार विशयां लेखान -

| | | |
|---|---|---|
| **पय्लें वरसः** | 1. कोंक्णि चरित्रा | 2. कोंक्णि साहित्य |
| | 3. कोंक्णि नाटक | 4. कोंक्णि कविता |
| **दुस्रें वरस :** | 1. कोंक्णि लोक वेद | 2. साहितिक ठिका |
| | 3. भाशे विज्ञान, | 4. तुलनात्मक साहित्य |

ओट्टुक आट विशय शिकोंक विद्यार्तिंक आव्कास मेळता।

शिक्पा विशय आनि ताका लग्ति जाल्लो नोट्स पाठ क्रमासवें तुम्च्या घरा दारार तप्पाला मुकांत्र पावित जाता। वर्साक एक परीक्षा आस्तेलि (4 विषय) आनि परीक्षेचें प्रश्नापत्र तप्पाला मुकांत्रच विद्यार्तिंक पावित जाता। 18 वर्सां वय्ल्या आनि कोंक्णि अध्ययनांत असक्त आसल्ल्या कोणेंय ह्यो कोर्साक अर्ज पाटव्येत।

कोर्साचो शुल्क, नोट्स आनि तप्पाल खर्च धर्न वर्साक रु. 800/- मात्र विदेशाक वर्साक रु। 2000/-

1997व्या वर्सा आरंभ जाल्लो हो कोंक्णि कोर्स संसारभर कोंक्णि शिकोंक राकोन आस्च्या विद्यार्तिंक एक बरो आव्कास जाव्नासा। अर्जे पत्रांक आनि चडित विवरांक कार्यकारि दिरेक्तोर, कोंक्णि अध्ययन विभाग, सां. लुविस कोलेज, मंग्ळुर - 575 003

फोन: 2426143 - Ext 112

# तुं तसोच आसाय लुविसा








फा| वय्टास प्रभुदास

सां लुविस कोलेजिंत
तुज्या त्या देव मंदिरांत
तुं तसोच आसाय
पुण्यवंत लुविसा
तुजो प्रज्चल तुजो जीव
तसोच आसा युवकांचा आदर्शा

हजारों विद्यार्ति संगिं
तुज्या पायां थळिं
दिंवियेर पडोन
वालक हांव आस्तां
तुजे लागिं हांव माग्तालों
तेद्ना तुं म्हजे लागिं
उलय्ताशें म्हाका भग्तालें

पूण तुजे संगिं
सदां देव मंदिरांत
रावुंक म्हाका तुजि आज्ञा
लाभात म्हण आनि
म्हजो खेळ सांजेचो
म्हाका चुकात म्हण
तुजे थाव्र पळन हांव धांव्तालों

पूण आतां हांव बदल्लां
भुर्गो न्हय, बालक न्हय
म्हातारो हांव आतां जालां
तुजे सर्शिं दर्शन मागोंक
म्हाका आतां कोणेंय
बळ कर्चें नाका
तुजें दर्शन म्हाका दि
तुजे लागिं हांव उलय्तां

तुं तसोच आसाय लुविसा
हांवें बालपणार पळेय्लेपरिं
तुजि नदर, तुजें तोंड
तुजें रूप तशेंच आसा
हांव आतां बदल्लां
पूण तुं तसोच आसाय
देकुन तुं सदांच उर्लाय
युवकांचो आदर्श लुविसा

(1959 इस्वेंत सां लुविस कोलेजिंत हैस्कूल शिकल्ल्या एका विद्यार्थिचो सां लुविसान ताचेर घाल्ल्या प्रवावाचो एक ल्हान उग्डास)

